# गांठवल

: कादंबरी :

देविदास कदम







जैत प्रकाशन

**Ganthaval** (Novel)

DEVIDAS KADAM

---

# गांठवल ( कांदबरी )

देविदास कदम



172/D-6, दुसरो माळो,
मंगलवन कॉम्प्लेक्स, चावडी,
काणकोण-गोंय.

प्रकाशन क्रमांक :28

पयली आवृत्ती : 2006

छापणी : सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
खोर्ली-गोंय.

मुखचित्र : गौरीश वेर्णेकार

प्रकाशक :
सुरेश सगुण नायक
नैत प्रकाशन
336/[illegible], खोर्ली-गोंय. 403 110
फोन [illegible] : 2[illegible]84637

मोल : [illegible]60/-



---

**चत्राय**

*हे कादंबरीचें कथानक आनी पात्रां पुरायेन काल्पनीक. हांचो खंयच्याच व्यक्तीकडेन, वो घडणुकेकडेन कसलोच संबध ना. आनी दिसलोच जाल्यार तो फक्त योगायोग. - लेखक*

---

*ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या "साहित्यप्रभा" येवजणेखाला अनुदान लाभलां.*

ISBN-81-86487-00-X

# गांठवल.....

'रेणूऽऽ ए रेणूऽऽ....'

शेणीचो गुळो खुंड्यार घुवंडोवन तो थापूंक लागिल्ले मात, हुनेचो उलो येयलो आनी रेणुलो हात थंयच थोपलो.

'पुता, तुजी हुनी सादयता, चल चल.' बगलेन बसून शेणी थापतल्या शेवतूमावशेन ताकतिकेन म्हळें.

'हय, वयतां....'

शेणी थंयच उडोवन तें ताकतिकेन उठलें. कुशींतल्या बालदेतलें तांब्यान उदक घेयलें. घसघशीत हात धुंयले... पुणून नाकटां खांची शेण गेलेंच ना.

हें शेण म्हूण कितलेंय धुयल्यार वचच ना! आसूं, घरा वचून घुयल्यार जालें! अशें येवजून तें तशेंच 'येतां गे', .... 'म्हणत धांवत सुटलें.... इतल्यात हुनेचो उंच, लांब उलो परतून कानार पडलो.

'येयलें येयलें... 'रेणून धांवता धावतांच लांब जाप दिली.

रेणू आकाड्यांत पावलें तेन्ना, हुनी तेळयत दारात उबी आशिल्ली.

तिणें ताणशेंतच विचारलें, 'खंय गेल्लें गो, दनपारच्या भारात...?'

'खंय ना हुनें...' म्हणत ताकतिकेन आकाडो बलांटून भितर सरतना ताचो दावो पांय मेरेकूच आदळ्ळों... 'हाऽय!' अशें म्हणत तें थंयच एका पांयार कुटलें.. मागीर तशेंच कुटत कुटत मुखार येयलें.

'मेर फोडली ना मू गो?'

रेणून मनांत म्हळें, पळय, म्हजो पांय आदळ्ळो, जीव गेल्ल्या भाशेन जालो. आनी हिका मेरेचे पडलां ! पांयाक लागले ना मू गो.. म्हूण विचारचें ना! मेर फोडली ना मू गो... खंय !

रेणून फाटल्यान फिरून बरी करून मेर नियाळ्ळी...

ना सायबा! काय जालें ना, सुटलें तोंडातल्यान!

'ना गे, फोडली ना.'

'कालच अर्दो मायतो मोडून मेर लायल्या भोळयावेल्यान हाडिल्ल्या मातयेची मेर ती! मातशें आदळल्यार सुदीक फस्स करून घेपो वयतलो..! अजून सुकून घट जाली ना ती...! घट जातकीर शेणमाती सारोवंक जाय...!

'ना, गे, कांयच जाले ना मेरेक! म्हजोच मात पांय दुखलो.'

रेणून आपणाली दाव्या पांयाची बोटां सांसपिलीं.

'... अशें तरेन धावल्यार पांय आदळचो ना आनीक! आदळचोच तो!'

रेणू ओग्गी भितर गेलें.

सालात पावतकीर परतून एक फावट ताणें पांयांची बोटां बारीक सांसपिलीं.. 'कांय जालें ना! देव पावलो!...' अशें म्हणत तें न्हणयेंत गेलें. भाणातल्या उदकान बरो साबू लावन हात घश्टून धुयले. आनी स्कर्टाक हात पुसत वासरेर येयलें....

हुनी कुरकुटांत हात घालून कुलूप-चावी भायर काडटाली.

'..खंय गेल्लें गो ?' तिणें परतून विचारलें.

'खंय ना!'

'खंय ना, म्हणटा मुगो तें! कितलें फावटी सांगचें गो तुकां? हुनेचो आवाज मातसो वयर चडिल्लो.

'तिणें, 'मातसो हात लाय गो बाय' म्हण्टकीर लावचो पडलो ना!'

'हय, हय, हेरांक मदत करून जाय तितलें भलेपण जोड तूं...! घरांतलीं कामां मात तशीच भोंगू, पडूं पाड! आसांत न्ही करतलीं हुनी आनी अण्णा...!'

रेणू कांयच उलयलें ना. तकली सकयल घालून ओग्गी रांदचे कुडीत गेलें. कुरकुटांतलो पेलो घेयलो. बासदार दवरिल्ल्या उदका मडकेंतलें उदक घेवन गटगटीत पिलें. न्हाणयेंत वचून पेलो धुयलो. परतून हाडून कुरकुटांत दवरलो. आनी भायर वासरेर येवन, गोंयांवटेनच्या पयसुल्ल्या दोंगरांदिकेन पळयत ओग्गी कदेलार बसलें.

'उगडास आसा मुगो...! अण्णान व्हदळ कितें सांगिल्लें..? अगळांक शिरी लावंक जाय म्हूण सांगिल्ले मुगो...?

'आं!'

आतां ताका उगडास येयलो आनी तें सट्ट करून कदेलावेल्यान उठलें. ताका भावान अगळांक शिरी तोपूंक वचुया म्हूण सांगिल्लें पुणून तें विसरूनच गेल्लें.

'अण्णा गेलो...?'

'आनी कितें करतलो...! वाट पळयत बसतलो तुजी? तुवें भावाक, हुनेक हगूर करचलें ना! वाडोभर, गांवभर मात हेरांक मदत करूंक भोंवतलें..'

हुनी तणतणत भायर सरली.

तिचे फाटल्यान रेणूय भायर येयलें. ताणें पळयलें, अजून धग मोव जावूंक नासलो.

'मागील दारा कवडेक खिळी घाल्या मुगो...?'

'जाणकोण! ना आसतली...!' अशें म्हणत रेणू परतून भितर धावलें...

थंय पळयल्यार दार उक्तेंच आसलें... आनी एक कावळो मागील दारातल्यान घोलत घोलत भितर येतालो... ताणें 'हाडत' करून कावळ्याक धांवडायलो. दार धाकून खिळी घाली आनी भायर

येयलें.

हुनेन भायलें दार धाकून खिळी घाली. कुलप लावन चावी केली. सटसटीत पावलां मारत ती चलूंक लागली.

रेणू ताकतिकेन पावलां मारत, खूब फुडें पाविल्लें....



रेणू वेल्या कुणगेत पोरसाकडेन पावलें तेन्ना ताचो भाव ताकतिकेन अगळाक एकेक शिरी तोपतालो. ताच्या कपलार, तोंडार हुमेचे थेंबें उदेल्ले. उक्त्या आंगावेल्यान हूम निशेंताली. धगांत उबे राविल्लेकडेन ताचें गोरें आंग टांब्यां आयदनाभाशेन तांबडें तांबडें जाल्लें.

ताका पळोवन रेणूक मनात बेठेच चोर जाल्ल्याभाशेन जालें. ताका दिसलें, भाव म्हजो आमका पोसूंक दीसरात घोळ घोळ घोळटा. पंदरा वर्सां मिलेट्रींत थंय दणदणे काडून येयलो आनी आतां हांगा...

'अण्णा, म्हाका उगडासूच उल्लो ना.'

ताच्या भावान भालचंद्रान तकली वयर करून रेणूक पळयत 'हूं' केलें.

रेणुच्या तोंडार गुन्यावपणांची भावनां पातळिल्ली.

रेणूक अण्णान परतून परतून सांगिल्लें, जाता तितलें बेगीन गेल्यार, तिनसांज मेरेन काम साकसूक जातलें. फाल्यां सकाळी उठून कारवारा मावड्या वचूंक जाय.

ताच्या मेव्हण्याल्या व्हारडिकेची गोडकातली खावची आसली.

दोगांय घोव-बायल फाल्या आसचीं नासलीं. देखून काम आदींच साकसूक जाय आसलें.

पुराय जाणा जावनय रेणू अरवळां भाशेंन गांवभर हेडटा म्हण्टलो.

अण्णा आतां उलयतलो हें येवजून रेणु मातशें थतर वितर जालें. पूण भालचंद्र कांयच उलयलो ना. तो ओग्गी शिरीं तोंपत आशिल्लो.

खिणभर रेणूक दिसलें, अण्णाक तिडक येयल्या... ताणें भावाक बारीक पळयलें. भालचंद्राल्या तोंडार तशी तिडक दिश्टी पडनाशिल्ली.

रेणून शिऱ्यां राशीतलीं एकेक शिरीं उखलून अगळाच्या दुसऱ्या आंगाक तोपूंक सुरवात केली.

भालचंद्रान जिस्ताजिस्त अगळाच्या चारी आंगान दोन-दोन शिऱ्यां वजीं घालून दवरिल्लीं. रेणूक हातालागी थंयथंयच शिरीं मेळिल्ल्यान बेगीन बेगीन काम साकसूक बरें जातालें.

हरशीय तें कामाक भोव शिटूक. एक फावट कामाक लागल्यार वागीण. तें मागीर कसलेंय काम आसूं, घरातलें वा शेतांतलें, तें कोणाक हात दिवपी न्हूं. शेतात नडूंक, नाटूंक गेल्यार, हागेलो शेव सगल्यांत मुखार. साऱ्या-सोपाक गेल्यारूय तशेंच. पुराय चिवरींदोंगर ताचोच. घे दोंगरभर धिंगण घालतलें. सगल्यां आदी हाची बुटी भरतालीं.

तरीसुदीक हुनी बेठीच ताच्या नांवांन बोटां मोडटालीं. कामाक आळसाय करता म्हूण बेठीच फों फों करतालीं.

रेणूक भोवन भोवन दिसतालें, अशे तरेन कामां करतना सुदीक ही इतलीं बोवाळ घालता. मातशें सुस्त, आळशी उरल्यार आनीक दवरचीनासली. भाजूनच खाताशिल्ली. चुलीत भिकण भाजून खाल्ल्यावरी. आसूं.. म्हजेच नशीब पाड पडिल्ले.. म्हूण तें मागीर दोळ्यांत दुकां हाडटालें आनी तोंड धाकून ओग्गी रावतालें.

‘गच्च लाय गो, शिरी! गच्च लाय!.. सुरीची शिरी तीं! धगान सुकतकीर, पालो झडटलो, आनी पोकळी पडटली.! हाळ नांवाची गोरवां मातशें भितल्लेवटेन पाचवें पाचवें दिश्टी पडल्यार पुरो, रोखडीच धुमसून शिंगां मारतलीं...!

हुनी रेणुच्या फाटल्यान येवन उबी राविल्ली. रेणुलें काम बारीक नियाळटाली.

रेणूक सांगनशें दिशिल्लें, हांव जाणां. हांवूंय कुळवाड्यालेंच पोर! आतांच नवेंच काम करना हें...! हाचेरूच पोट भल्लां म्हजें! नोकरे शिपायालें चेडू न्ही हांव! पूण अशें तोंडार उलवची छाती खंयची ताका?

‘कळाव केलोच मुगो तुमी इतलें सांगुनय..?’ भालचंद्रान शिरीं तोपतेरूच बायलेक म्हळें.

‘भयणीक विचार तुमगेल्या..!’ अनसुयान रेणुचेर कवळ धुकळ्ळें.

आनी ती वचून उदेंतेच्या आंगान शिरीं तोंपूंक लागली.

भालचंद्र ओगी रावलो. ताणे मनांत म्हळें, सुणें खंय खंयूय माल्ल्यार पांयारूच कुट्ता तशें हाचें! बेठेच विचारलें हांवे हाका 'निमिताक साधन...'.

'... आता बरें ओगी रावलें मूं...!' अनसुयान घोवाक पळोंवन नाक आवुळलें.

'तुमी मातशें बेगीन येयल्यार, वेळ पड मेरेन, कामां साकसूक जाताली! फाल्यां आमी आसचीं नात न्ही...!'

'.......'

'फाल्यां आनी त्या पाडेल्यान येतां म्हळां नाल्ल पाडूक! रेणूक थंय घुस्पोवन रावचें पडटलें!.. सकाळचो मायतो तरी तातूंत वतलोच! आनी फाल्यां सांजमेरेन दवरूया म्हळ्यार, ही शिरीं हांगां उरत म्हूण सांगूक जायना! गोरवां येवंन तोंड लायतलीं! व्हदळ हीं शिरीं हांगां उडोवन हांव घरां गेलो, परतून येता म्हळ्यार, गोरवान तोंडां लायलींच! थोडी न्ही गोरवां...! आमुडटां मेरेन, नाका शीव जालो..!

'.......'

'आनी हीं शिरीं हांगा दवरल्यार हांगा उरतलीच म्हूण खंयच्या वेल्यान...? नाच्च जाल्यारूय जालीं! आतां सगल्यालेंच पोरसूं जानात.' भालचंद्र एकलोच बडबडील्ल्याभाशेंन उलयलो.

मागीर अनसुयान ल्हवूच म्हळें, 'भयणीकच सांगा तुमी हें! जेवन भायर सरिल्लें तें गांव हेडूंक.. म्हाका आपोवन हाडचे पडलें ताका...!'

भालचंद्र ओगी रावलो, आनी रेणूय! पुण अनसुया ओगी रावली ना! तिणें घोवाक विचारलें, 'तुमी विचारना कित्यांक? सदांच दनपारचें जेवतकरी, ते भायर सरता. अशें कितें आकांताचें काम असता ताचें भायर? वाडिल्ल्या चेडवान अशें दनपारच्या, तिनपारच्या, हेरांल्यां दारांदारांनी हेडप बरें दिसता? लोक नांवा दवरची नात हाका?

भालचंद्रान कांयच प्रतिक्रिया उक्तायली ना. तो बेठोच मोनो कसो आपणालें काम करत रावलो.

रेणून मात मनात म्हळें, एक खीण तूं सुशेंगात उस्वास घेवूक दिता? तुजी घरांत दिसाची चोवीस वरां कटकट! ते परस, भायर वरभर मन रिजवण तरी जाता! मनाक तितलोच सुशेग!

'कळ्ळें मूं.. हें वचून त्या शेवतुल्यो शेणीं थापतालें. हेंच शेवतू पयर म्हण्टालें म्हाका, तुमचे तें रेणू कितें म्हूण गांवभर हेडत उरता गो अरवळा भाशेन...?

'शेवतू मावशेन अशें म्हळें...?' इतलो वेळ ओग्गी आशिल्लें रेणू मदी उलयलेंच!

'तुका कितें दिसलें, हांव फट उलयतां अशें...? तोंडार एक आनी फाटल्यान दुसरेंच करपी बायल ती! हांव बेंस बरें जाणां! तुका तोंडार आपुलकी दाखयिल्ल्याभाशेन उलयतलीं, घरातलें सगलें तुजेकडल्यान काडून घेतली आनी मागीर गांवभर तणतण वाजयत भोंवतली! तुका ना धंदो, गांवांर वचून बसूंक! हांवे उलयल्यार, तुका वायट दिसता! भावज उलयतां अशें दिसतां तुका!

भालचंद्रान मनात म्हळें, आतां हाका गप्प करीना जाल्यार, ही हाची अशीच कटकट चालु उतरली...!

'कळ्ळें मूं..' अनसुयान परतून कितेंतरी सांगूक तोंड उगडलें मात, भालचंद्र ताचेर खेसकरून खेंसळलो... 'तूं मातशें ओगी रावूंक कितें घेतलें ?

मागीर मात अनसुया कांयच उलयली ना. तोंडाक गुड्डो मारिल्ल्याभाशेन ओग्गी काम करत रावलीं. कितेंय घोवान विचारल्यार सुदीक 'हां' न्हीं 'हूं' केलें ना. ओग्गी.

आता घग बरोच मोव जाल्लो. झाडां-पेडांवेलो चकचक इल्लो इल्लो उणो जावूंक लागिल्लो. सगलेंच ओग्गी आशिल्ल्यान दर्याचो गाजय स्पश्ट कानांर पडटालो. मदींच शितळ वाऱ्याची एक ल्हार येवन आंगाक झोमताली, आनी जिवाक सूऽ जातालें....



'हो निमाणो माड गो, जालें...' पाडेली शाणून उरिल्ले माड तेळयत म्हळें.

'ज़ालें...?'

'हय, हय!'

'इतलेच माड? तूं फकत णव माडारूच चडला..!

'ह्या पाड्याक इतलेंच! बाकिच्यांक सुकिल्ले नात! सगलें आड कातलेचे ते...!'

शाणून कपलावेली, दोळ्यार देवपी हूम आंगठ्या बोटान कुशीक काडली. पांयांक खाडू

घालून तो केंदाळ्या माडार दोन पुरीस उंचायेर चडलो. निपणाची दोरी सदळ केली, आनी सरसर करीत ओडत निपण सकयल पुरीसभर उंचायेर हाडलें.

'खरें सांगप म्हळयार, आमका पाडेल्यांक हे दोन वटेन तरास..' सकयल देंवतेर ताणें म्हळें.

'क़रतलो कितें...?

माडाक निपण लायत शाणून म्हळें, 'हीं... निपणां घालना जाल्यार रातीकडेन नाल्ल उरचे नान्ही ? नाच्च जातलें!'

पाडेल्यान निसणीर चडून निपण बलाटलें. पांयांक खाडू घालून तो तुरतुरीत माडार चडलो. शेंड्यार पावतकीर टप्प टप्प करून चिपट मारून नाल्ल सुकिल्ल्याचो अदमास घेयलो. कमरेतल्यां माकडेची कोयती काडली आनी घस्स घस्स करून घायें घालून सुकिल्ल्या नाल्लांच्यो पेंडी सोमत्योच सकयल उडोयल्यो.

घोऽऽ करून त्यो पेंडी सगळेकडेन फाफसल्यो.

रेणून मुळसांतल्यान उलो दीत सांगलें, 'शाणूदाद, एक शिंयाळें काड रेऽऽ'

'कसले काडूं? आडकातलेचें काय पिळप्याचें ?

'पिळप्याचेंच काड.'

शाणून कोयती माकडेंत घाली. पिराड्यावेलें एक तन्नें शियांळें ल्हवूच पिळून काडलें.. इतल्यात रेणू परतून आझुलें.

'आनीक एख काड. तुका नाका...?'

'म्हाका नाका पुता...!'

'तशें जाल्यार एकुच आसुं...'

शाणून त्या शियांळ्याचें शेलें हातांत धल्लें. ल्हव ल्हव तो सकयल देंवलो. निसणेकडेन पावतकीर ल्हवूच ताणें तें सकयल उडयलें. पांयांतलो खाडू काडून, हातात घेयलो. निसणीवेल्यान सकयल देंवलो. निसण काडून, दुसऱ्या माडाक तेकयली. परतून पांयांक खाडू घालून, निपण सरसर करून वयर व्हरून दवरलो. ताची दोरी घट्ट बांदून सकयल देंवलो.




'बाय नाल्ल पुंजय.. नाल्ल पुंजय...'

मागीर दोगायांनी बागभर फांफसून पडिल्ले नाल्ल एकेक करून एकठांय केल. चांब्यान भरभरून मुखावेल्या भायल्या घरांत व्हरून भल्ले.

'हें ल्हानशें घर हांगा आशिल्ल्याक खूब बरें जाता तुमकां. हीं असलीं हरवी वस्त घालून दवरूंक! नाजाल्यार हांगासल्ल्यान घरामरेन तकलेर घेवन व्हरता म्हळ्यार जीव गळयालागी पावपाचो!'

'आनी घरात असल्यो वस्ती मातश्यो आडखळ करतात रे..!'

'....'

'आज्या मुस्तीत खंय ह्या घरांत तांदळाचें मुडें सुदीक दवरतालें.'

'जाणां जाणां! आम्ही हांगा नेण्टेपणासावन वावर केल्लीच मनशां...!'

रेणू भायल्या घरांत गेलें. बरें सणसणीत पांच नाल्ल वेंचून काडलें आनी भायर हाडून शाणुमुखार दवल्ले. 'हे घे..'

'हे इतलेच...?'

'आनीक चार!'

'आनीक चार? माडाक अर्दे वळें न्ही रे....? उरफाटे अर्दे वळें तुका चड पावता.'

'अर्दे वळें चड पावता..?' अशें म्हणत शाणू आपणालें किडिल्ले दात दाखयत खीऽ खीऽ करून हांसलो. मागीर दाडेचे खुंट खरखर करून खरपीत ल्हवूच सांगूक लागलो. 'तुज्या ह्या अर्देवळयान कितें जाता पुता ? आता म्हारगाय केदी वाडल्या! आता माडाक एक नाल्ल घेतात आमी'

'केन्नाच्यान रे...?'

'जालो म्हयनोभर.'

रेणू कांयच उलयलें ना. ओग्गी भायल्या घरांत गेलें. नाल्लां राशीर एक बारीक नदर घुंवडायली. मागीर तातुंतले परतून चार नाल्ल घेवन भायर येयलें. 'हे घे' ताणें तें शाणुमुखार दवरलें. 'ह्या पाड्याक नाल्ला खुब उणे मेळळें. गेल्ल्या पाड्याकुय अशेंच उणे मेळिल्लें.'

'.....'

'बोंडेच झडून पडटात मुरे...'

'हुनीर जाल्यात आसतले.'

'ह्या. हुनराक लागूनच!'

'हुं... तुमगेल्या सगळयां माडार शेलीं, चापुरकीं मातल्यांत, बरेंऽ घर मेळटा तांकां वसतेक! माड बेणून घेवंक जाय. हाली तुमगेले माड बेणून घेवप जाले ना. माड बेणून घेयना जाल्यार हुनीर अशेंच माततात. उण्यात उणें वर्साक दोन फावटी तरी माड बेणून घेवंकच जाय.'

रेणू कांय खीण सुस्कारलें.

'करतलो कितें...? बाबा हरेक पाड्याक माड बेणटालो.. तोच गेलो उठून.. तो गेलो आनी खुबशी कामां तशींच उल्ली. हें पुराय वर्सच आमका बरें गेलें ना रे...'

'हय पुता, काळदुस्मानाक सुदीक नाका तें! म्हगेल्याच पिरायेचो तुगेलो बापूय. एक दोन वर्सांनी बी व्हड उरत..'

'तुका कितलीं वर्सां तर..?'

'हें पंचावन्नावें...'

'बाबा छपन्न वर्साचो आशिल्लो आनी आई बाबापरस दोन वर्सांनी ल्हान.'

'पळय न्ही नशीब कशें! दोगांय एकूच म्हयन्यात भायर पडप म्हळयार कितें म्हणचेलें! नशिबाचोच भोग तो!'

'हय, हय! तुगेल्याच नशिबाचो! तुका कपलार चार तांदूळ लावन जरी कितेंय जाताशिल्लें, तरीय आमकां कांय दिसचें नाशिल्लें!'

रेणुल्या हृद्यात घळघळ जालें. झुप्प करून ताच्या दोळयांत दुकां येयलीं. ल्हवूच आपणाल्या मनगटान तीं ताणें पुसून उडयलीं.

'पुता, खंयूय जमलां...?'

'कितें...?' रेणूक शाणुल्या प्रस्नाचो अर्थ कळ्ळो ना.

'तुगेल्या व्हारडीकेचें गो पुता...'

रेणून तकली हालोवनच 'ना' म्हळें.

'केल्यार अंदूच करूंक जाय.. ना जाल्यार फुडलीं तीन वर्सां मेरेन करूंक जायना..'

'पळयतात.'

'पळयात! पळयात! बेगीनच जावं पुता! बरो घोव मेळूं तुकां. तुगेल्या बापायन कोणालेच वायट केलें ना. दोगांय घोव-बायल भोव भावार्थी आशिल्लीं. कोणाल्याय किजिलां केस्तावांक वचपी न्ही. आपूण भलां, आपणालें काम भलां म्हणून रावपीं, तुगेलें बरें जातलें पुतां. त्या तुगेल्या व्हडल्या भयणीभाशेन तुगेलेंय बरें जातलें...!' शाणुन भोव मायेमोगान उलयलें.

रेणूक ताचे नदरेत खिणभर आपल्या बापायची नदर दिसली. खीणभर ताका दिसलें, 'बाबाऽ' म्हूण शाणुदादाल्या खाकोळयांत रिगचें, बापायचे मायेन ताचेकडल्यान थापटून घेवचें... आनी खूब खूब रडचें...

मागीर दुसऱ्याच खिणांत तें सावशिद जालें. ल्हवूच मनगटान दुकां पुसत ताणें म्हळें, 'शाणुदाद आमी या न्ही...'

'हय हय या...' अशें म्हणत शाणुन माकडेंतल्यान कोयती काडली, सगल्यां नाल्लांची किसां काडून, तांची दोन बरीं सांगड बांदलीं. कोयती माकडेंत दवरून दोनूय सांगड उकलून दोनय खांदार मारली. आनी येता बाय...' म्हूण तो सटसटीत पावलां मारत चलूंक लागलो.

रेणून भायल्या घराचें दार धाकलें. कवडांक खिळी घाली. कुलप लावन चावी केली. जमनीवेलें शियांळे उकलून घेयलें आनी आकाडो बलांटून घराकडेन चलूंक लागलें.



भालचंद्रान तळें बरें खणिल्लें. दिमीभर उदक जातकीर आयच्या दिसापुरतें उदक पुरों अशें येवजून ताणें खोरें थांबयलें. तळयार येवन ताणें खोरें बगलेन दवरलें. कमराक बांदिल्लो तुवालो सोडोवन तोंडावेली हुम पुसली. आनी हुश्श करत थंयच सकयल बसलो.

बशिल्लेकडच्यान ताका माजाळचे शिमेवयलो हळेभळो बेस बरो दिश्टी पडटालो. तेंगशेवेलें खुंब्याझाड तर हांगासल्ल्यान मोराले कलेवेलो तुरो कसो दिसतालो. ताका याद जाली. ल्हानपणात तो ह्या भोळयार केन्ना केन्ना चडून वयतालो. त्या खुंब्याझाडामुळांतल्या तळपार बसून बेठेच कितें कितें चिंततालो. थंयच्यान ताका गोंयच्या शिमेमेरनचो वाठार, हेवटेन कारवारचो वाठार, दर्यो, दोंगर

सगळें दिश्टी पडटालें. ते पळोवन तो भुल्लुसतालो. केन्ना केन्ना तो आशिकुशीतलीं चुन्ना, चिंवरा, काण्णा खुटून खातालो.. तर केन्ना केन्ना बोल्सांभरून घेवन घरा येतालो आनी घरभर लोकांक वाट्टालो.

खिणभर तो हळेभोळयांत घुस्पलो.. आनी मागीर ताका सट्टकरून उगडास जालो. ताणें मनात म्हळें, खंय गेली काय ही दोगांय? आयज पोरसांक उदक केन्ना शिंपतलीं काय...?

तो उठून उबो रावलो. बायल आनी भयण येतात काय म्हूण तकली वयर करून सुलूस घेयली.. पूण कोणच ताचे दिश्टीक पडूंक ना.

मागीर तो तसोच पोरसांतल्यान भायर येयलो. मुखावेल्या धुळयाल्या शेंतात पांगळया रामान जोत बांदिल्लें... ताणें सादयलें, 'एऽ रामाऽ, आजून जोत सोडले ना अशें...! वेळ सुमार वयर येयलो मरे...'

'हय रे. थोऽडेशें उरलां. कितलीं वरां जालीं आसतलीं...?

भालचंद्रान सूर्यादिकेने उदेतेंक पळयलें आनी अदमासानच सांगलें, 'णव-साडे णव जालीं आसतलीं...'

'तूं कितें करतालो ?'

'तळें खणटालो पोरसाचें'

'आर.. आर.. मम्... मम्...' बैलाचे फाटीर ल्हव ल्हव बडी लायत रामान नांगर घुंवडायलो.

'तुवें आयज जोत बांदलें ना..?'

'बांदिल्लें.'

'जालें तुगेलें इबुण्ण पुराय...?'

'ना रे! वयल्या आडयेतलें खंडीभराचें आसा अजून.'

'हैक्क. वच बेगीन बेगीन..' बैलाचे फाटीर एक रप्प करून बडी ओडत रामान जोत आमुडलें... 'बाये + + + आळशी. नांगर ओडूंक रडटा.. वागा तोंडात घालूक जाय व्हरुन...'

'रामाऽ, तुजो एक बैल मेलो खंय न्ही...'

'हय रे.. देखूनच ह्या आळश्याक बांदचें पडलें. काय बरों भांगरासारखो बैल म्हगेलो!'

'कितें जालें तर ताका...?'

'कोण जाणां! कळळेच ना. कितें सांगू.. मांगराक बांदून दवरिल्लो. सकाळीफुडें उठून पळयल्यार मरून पडला..'

'व्हडल्यान बीन (सर्पान) हाफुडलें ना मूरे..'

'जाणां कोण...! आसत सांगू नजो...!'

'बेजार मूरे बशिल्लेकडेन..'

इतल्यान फाटल्यान अनसुया येयली. तिचे तकलेर शेणाचो चोबो आनी हांडीर बिंदलो आशिल्लो.

तीं पोरसांत गेली. बिंदलो सकयल दवरलो. तकलेवेलो शेणांचोबो धप्पकरून धाडायलो आनी बिंदलो घेवन तळयांत देंवलीं.

बायलेफाटल्यान भालचंद्रय पोरसांत येयलो. ताणें विचारलें, 'तें खंय गेलें गो...?'

'उदक शिंपता कवथ्यांक! येतलें...!

अनसुयान वायंगणा आळयाक दोन तीन बिंदले उदक शिंपलें. चोब्यातलें शेण घेवन तें मातशें पातळ केलें. तें मागीर तशेंच वायंगणां आळयांत पातळायलें.

भालचंद्रान ल्हवूच पोरसांत नदर घुंवडायली. आनी बायलेक म्हळें, 'अनसुया, अंदू आमी कांद्या मिरसांगेचे रोपे थोडे चड लावंक जाय आसले...'

'पोरूच्या इतले लायल्यात न्ही.'

'रेणुलें लग्न जाल्यार चड लागचे नात? विकतें हाडचें परस घरातलें उरल्यार वायट न्ही.'

'हे आदींच येवजूंक जाय आशिल्लें तुमकां. तुमकां सदांच फाटल्यान येवजता...!'

कळळें मु गो अनसुया, कश्शेंय करून रेणुचें लग्न अंदु करूंकच जाय हां...' भालचंद्रान मुद्दम विशयाक हात घालो.

ती कांयच उलयली ना.

तुज्या भावाच्या मेव्हण्याक उलयल्यार जावचें ना ?'

'सोयऱ्यांत नाका म्हळयार...' अनसुया फाफुडिल्ल्याभाशेंन उलयली.

'हें नाका, तें नाका म्हणत रावल्यार पळयतले तरी कोणाक ?'

ती कांयच उलयली ना, ओग्गी राबून बिंदल्यान दुद्या आळयाक उदक शिंपत रावलीं.

'जाणां मूगो, अंदु ताचे लग्न करीना जाल्यार मुखार तीन वर्सांमेरेन करूंक जावचें ना.'

'आतां तें तसले कांय मानिनात म्हळयार...! तुमी जाणां, म्हज्या मावशे भयणीचें लग्न जाल्लें तेन्ना म्हजो मावसो मरून वर्स जाल्ले. आमी तें मानलेंच नासलें. कितें वायट जालें ताचें ? बेठेंच तें सगलें !'

'शेऽ! शेऽ!'

'खंय दाखया पळोवया, खंयच्या धर्मशास्त्रांत बरयलां, आवय बापूय भायर पडिल्ल्या वर्सांभितरूच लग्न करूंक जाय अशें...! हांवे काय अजून खंयच वाचूंक ना!'

'कसली नाकाजाल्ली रूढ...!'

'हे पळय. तूं चड शाणें जावं नाका. आज्या पणज्यांनी शिकयलां तेंच भाशेंन आयजवेर आमी चलत आयल्यात आनी फुडेंय तशेंच चलत रावतलें...!

अनसुया ओग्गी, तिगेल्या दुद्या आळयाक पांच सात बिंदलें उदक घालून जाल्लें. तिणें उदक घालपाचें थांबयलें, आनी चोंब्यातल्यान थोडेशें शेण काडून तें आळयात पातळावंक लागली.

'अनसुया...'

बायल ओग्गी राविल्ली पळोवन भालचंद्रान विशयाक परतून हात घालूंक उलो दिलो.

'हूं..'

'पळय मुगो तुजे गुर्ताक कोणूय उल्ल्यार! सांगून दवर तुज्या सोयऱ्यांक...'

'हांवे पळयिल्लो न्हवरो मानवतलो मू तुमकां?'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं?'

'म्हाका रेणुचें बरें जावचें अशें दिसना खंय न्ही! मागीर हांव ताका बरें कशें सोदतलें?'

भालचंद्राक ताच्या उतरांचो अर्थ कळळोच ना. कांय खीण तो ओग्गी चिंतत रावलो. हाचें कितेंतरी बिगडलां, न्ही नस्तें कितेंतरी हाचें तकलेंत रिगला, हें मात ताचे मतीत आयलेबगर रावलें ना.

'नाका जाल्लेंच बेठेंच कितेंतरी उलय नाका.'

'बेठेंच उलय ना. तुजी व्हडली भयण मीरा म्हण्टालें खंय पयर येयिल्लें तेन्ना...!'

'कोणालागी म्हणिल्लें खंय...?'

'राधेलागी.'

'तुका राधेन सांगलें अशें?'

'म्हणच उलयतां न्ही हांव!'

भालचंद्र ओग्गी! बायलेक कितें सांगचें म्हूण ताका कळळें ना! हीं असलीं नाकाजाल्ल्यो भानगडी आनी म्हाका सगलें सांबाळचें पडटा! हे बगलेन बांय आनी ते बगलेन न्हंय..' मागीर बायलेक समादान करूक ताणें म्हळें, 'हे पळय, त्या राधेलें, त्या शेवतुलें घेवन उलय नाका. तीं नाकाचे फाकाक आनी फाकाचें नाकाक करून सांगतली. आयकतलीं एक आनी सांगतलीं दुसरेंच! तुजे परस हांव तांकां चड बरो वळखतां.'

'.....'

'मीरा फाल्यां जात्रेक येतलेंच न्ही, हांव विचारतां ताका!'

'म्हाका तुमीच सांगा, अशेतरेन म्हजें नांव गांवभर वायट केल्यार, म्हाका हांचे पासत कितेंय करीनशें दिसतलें कशें?'

'हे पळय, हें असलें सगलें तकलेंत घेवन बसल्यार रेणुचें फुडें करचें कोणें ?'

'तुमीं दोगा भाव-भयण नात? करात!'

'हें पळय अनसुया, ही जापसालदारकी आमची. आई आनी बाबा फाटल्यान हांव आनी तूंच ताची आई आनी बाबा. ताचें सगलें बरें वायट आमीच करूंक जाय! नाजाल्यार लोक तोंडात-शेण घालतले आमच्या...!'

रेणू कितलोसोच वेळ जालो, पोरसाच्या आकाड्याफाटल्यान रावन हुनेचें आनी अण्णाचें उलोवप आयकतालें. ताका सामके जिबेर येयिल्ले. सट्ट करून फुडें वचून अण्णाक सांगचें..., 'अण्णा, तूं म्हजे पासत हुनेचे तकलेक ताप दिवनाका. म्हजें कितेंय जावचें आसा तें जातलें. नातर लग्न जायनासतनाच रावतलें. हांव कितें थोटें, पांगळे न्ही. थोटे-पांगळें सुदीक जियेतात. खंयूय किडोन खातले हांव! पूण भावाक वायट दिसतलें म्हूण तें ओग्गी रावलें.

आकाडो बलांटून ते ओग्गी पोरसांत येयलें. हांडीवेल्या बिंदल्यान मोन्यानीच तळयातलें उदक हाडून कांद्या रोप्याक घालूंक लागलें.

रेणूक ओग्गी आनी अचकीत येयिल्लें पळोवन भालचंद्राक खिणभर दुबाव येयलो. आमची उलोवणी रेणून आयकली ना मूं ? ताणें रेणुच्या तोंडाकडेन पळयलें पुणून रेणुचे तोंडावेले भाव ताच्यान वाचूंक जाले ना.



अनसुयान तव्यावेलें मुचळ काडून कुशीक दवरलें. कायलाट्यान पोळो चोंय करून परतिलो. चुलीतल्यो उज्या कापट्यो जळत जळत भायर पाविल्ल्यो. ताणें त्यो ल्हवूच भितर सरकिल्यो.

रांदचे कुडिच्या दाराकडेन मीरा आनी रेणू रगड्यार मसालो वाटतालीं. मीरा दोनूय हातांनी रगड्या वातो घुवंडतालें आनी रेणू रगड्यांतल्यान भायर सरतलो मसालो भितर सारतालें.

'पळयलें मगे हुने कितली बगलांट उलयलीं तीं', मीरान वातो घुवंडायत म्हळें.. पुणून रगड्या वात्याच्या घड घड आवाजांत अनसुयान सारकें आयकलें ना. तिणें 'आँ?' 'कितें ? केलें

'... राधा गे, कितली बगलांट उलयली पळय...!'

'हूं...'

'हांवे उलयलें कितें, आनी हिणें तुका सांगलें कितें...!'

अनसुया कांयच उलयली ना, ओग्गी तव्यावेलो पोळो कायलाट्यान काडून चोंब्यात उडयलो.

केळी दांडारो तेलांत बुडोवन तव्यार घुवंडायलो. पिठा तोपांतल्यान दवलोभर पीठ काडून चोंयकरून तव्यार पातळायलें आनी वेल्यान-मुचळ धाकून, मोन्याभाशेन ओगी बसली.

‘हुनेक खरे दिसलें तिणें सांगिल्लें!’ रेणून मसालो सारतेर म्हळें.

‘कोणाकूय खरें दिसचेंलेंच गो! आतां हांवें चवकशी केली म्हूण कळ्ळें ती कशी बगलांट उलयली ती! नाजाल्यार, खरें दिसचेंलेंच हें कोणाकूय...!’

‘हरशीय तिका सवंयच गो असली पाडेली. बेठेच कित्याचें कितेंय घडोवन सांगप. दोगांमजगती झगडी लावप आनी आपूण नामनिराळी जावन मजा पळोवप!.. आनी इतलें करूनय दोगांय लागी बेस बरीं.’

‘पुणून, आयजच चवकशी करूंक जाय आशिल्ली? परबे दिसा! आनीक दीस नाशिल्ले? सोऱ्या समदिकामुखार बरें दिसतां तें ?’

‘तिका तशेंच करूंक जाय! नाजाल्यार तिगेली ही पाडेली संवय वचची ना!’ रेणून जोर दिवन सांगलें.

‘हांवें तिका म्हळें कितें, आनी हिणें सांगलें कितें! हांवें म्हळें, अण्णाच्या आनी हुनेच्या मनांत अंदू रेणुचें लग्न करचे ना दिसता गे.. पुणून हिणें ना जाल्लेंच सांगलें. आनी वेल्यान आपणालें एक उतर जोडलें. रेणुचें बरें जावचें अशें हुनेक दिसना म्हळें म्हूण..’

‘पुणून म्हाका सांग, घरच्यो गजाली भायर वचून सांगुकूच जाय कित्याक? आपूण कोणालागी कांयच उलयलें ना जाल्यार संदच मेळची ना न्ही एकाचे दोन करूंक...!’

हाचेर दोगीय भयणी ओग्गी रावल्यो.

मीरान रगड्या वातो गुड्डुक करून भायर काडलो. दोगाय भयणीनी वानातलो मसालो काडून तोपांत घालो.

‘हुने, जालें न्ही, आनी आसा!’

‘जालें वाटून?’

‘हय.’

इतल्यांत भायल्यान भालचंद्रान उलो दिलो, ‘अनसुया.’

‘पळय गो रेणू, अण्णान कोंबो मारून हाडला आसतलो. मीरा, तूं रगडो धूय... आनी ना मसालो...’

रेणून आपलो हात रगड्यातच निवळायलो आनी तें भायर गेलें. दारांत भालचंद्र हातांत मारिल्लो कोंबो घेवन उबो आशिल्लो.

‘हो घे.’ ताणें कोंबो रेणुल्या हातांत दीत म्हळें, ‘भावोजी येयलो गो’?

‘ना अजून...’

‘हांव वचून येतां. देवीकडेन सांगणी जावची जाली.’ अशें म्हणत भालचंद्र येयलो तसोच परतून वचूंक गेलो.

रेणू कोंबो घेवन भितर येयलेबराबर मीरान विचारलें, ‘कितें म्हण्टालो गो अण्णा, भावोजी भावोजी म्हूण...?’

‘काय ना गोऽ, भावोजी येयलो काय विचारतालो.’

‘येतलो सावकास!’

‘कितले दीस रजा गो तुज्या घोवाची?’अनसुयान पोळो परतीत विचारलें.

‘दोन म्हयन्याची.’

‘जालो ना एक म्हयनो येवन...?’

‘हय तर! आनीक एक म्हयनो उरलो. धांवत धांवत येवप आनी धांवत धांवत वचप!’

‘मिलेट्रीवाल्याचें तशेंच गो!’

‘मीरान मसाल्या तोप हाडून चुलीबगलेन धाकून दवरलो. ‘हुने, तूं उठ हांव बसतां पोळे भाजूंक...’

‘नाका आसूं. सुशेग घे तूं मातशें!’

‘रेणू, अण्णा परतून गेलो गो?’

‘हय, आता सांगणी न्ही देवाची...!

'अण्णा सांगणी घालूंक गेला न्ही?'

'हय.'

मीरान खुटे देवीक हात जोडले आनी म्हळें, 'पांव तूं देवी, म्हज्या हुनेचे पोट बेगीनच पिकूं! म्हजो बापूय जल्माक येवं बेगीन...! कळ्ळे मगे हुने, आमचे खुटे देवीकडेन घाल्ली सांगणी आयजमेरेन हारी गेल्ली ना, फळ मेळूंकच जाय.'

अनसुया ओगी रावली. तिचे चेऱ्यार कसलेच भाव उदेले ना. मागीर मात भितल्ल्यान खंयच्यानतरी तिका भरून येयलें. दोळयांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं... काळीज फूटून हुंडको येयलो.

दोन वर्सां फाटी ह्याच दिसा ह्याच जात्रेक तें!.. अनसुया कारवारां आस्पत्रेत बाळंत जाल्ली. पयल्याच खेपें चेड्याबाळशें जालां म्हूण मांय-मांव, कुळारचीं सगलींच खुशालभरीत जाल्लीं. अनसुयाक आपूण मळबार आसा, काय भुयेंर आसा जाल्लें. आवयपणाचो नवो अणभव.. अपत्यसूख... तातूंतच चेड्या बाळशें.. कसली कसली म्हूण खोशी. नदर कुशीक करिनासतना तास तासभर ती चेड्याच्या तोंडाकडेन पळयत रावताली जशें काय जल्मजल्मासाकून तिची नदर आपल्या भुरग्याचें मुखडें पळोवंक आशेल्ले... एक नांवहीण भावना कोंदलो भरभरून खोशी तिच्या हुटीत ओतताली. ही खोशयेची गजाल सोखडीच तारेन भालचंद्राक कळयिल्ली.. पूण अचकीत कितें जालें म्हूण कळ्ळेंच ना. बाळशाक आकडी येवंक लागली. येद्देशेच तें तन्नेहीक् कितेंशेंच करूंक लागलें. नर्स येयली, दोतोर येयले, निमाणेकेडेन ऑक्सिजनार सुदीक दवरलें. निमाणे जावचें तें जालेंच! भ ालचंद्राक दुसरी तार धाडची पडिल्ली. तिच्या कुळारा घराफाटल्या पणसारूखा पोंदा त्या भुरग्याक पुरिल्लें. अनसुया केन्ना केन्ना आवयची नदर चुकोवन त्या पणसारूखा पोंदा वचून तासतासभर थंय पळयत रावताली. एकेक फावटी ताका दिसतालें तो फोंड उस्तुवचो. आसा तशें तें भुरगें भायर काडचें आनी एक फावट घट्ट काळजा कडेन धरचें...

येवजणेत अनसुयाक आनीक एक हुंदको येयलो. मीरा, रेणुकय तिची व्यथा होलमली जांवयें, तांच्याय दोळयांत दुकां उबी रावलीं.

खिणभर एकेतरेची थंडाय. सगलेच ओग्गी ओग्गी.. मागीर ल्हवूच रेणून विचारलें, 'हुने, कोंबो सोलूं गे...?'

अनसुयान पदरान दोळें पुसत तकली हालोवनच हां म्हळें

'व्हदळ मारिल्ले सोल्ले?'

'हय. ते सोलूनच अण्णा गेल्लो.'

रेणू व्हरांड्यार वचून पोंदात चोबो घेवन, कोंबो सोलूंक बसलें. कोंब्याची पांखां काडून तें चोब्यांत उडयतालें. अचकीत ताका कोंब्याच्या गोमटेकडचो रगतान माखिल्लो भाग पळोवन कितेशेंच जालें. खिणांतच ताका शिट्यावेल्या लुंडाची याद जाली.

खूब वर्सांफाटी खंय शिट्यार दोगजणांमदीं मारामारी जाल्ली. त्या मारामारेंत खंय एकट्यान दुसऱ्याची गोमटी मारली. तेन्नासावन खंय तें लूंड रातीचे बारांउपरांत हात पातळावन आपल्याक मारिल्ल्याक सोदत भोवूंक लागलें. लोक म्हण्टात, आजूनय रातचें बारां उपरांत खंय तें दिश्टी पडटा.

तें लुंडय ह्या कोंब्याभाशेनच आसतलें घडये... मागीर ताका बेठेंच दिसलें, हेंवूय सगळे मारिल्ले कोंबे रातीकडेन त्या लुंडांभाशेन आपल्याक मारिल्ल्यांक सोदत भोंवतात काय..? खिणभर ताका हातातलो कोंबो शिट्यावेले लुंड अशेंच दिसलें, आनी तांचे आंग शिरशिरलें. बाबा! पाड पडूं! अशें म्हूण ताणें तीं चिंतनां फाफुडन उडयलीं.

मीरालो साडेचार वर्सांचो चेडो आंगणात खेळटालो. मावशेक कोंबो सोलचो पळोवन तो धावत धावत येयलो आनी म्हऱ्यांत बसलो.

'मावशी, मावशी, हाचे पोतांत किते आसा ते म्हाका दाखयतलें मुगो....?

इतल्यांत मुखार पावलांचो आवाज येयलो. तकली वयर करून पळय जाल्यार भावोजी येतालो.

'कितें गो कोंबो सोलता..? भावोजीन मुमूरखें हांसत म्हळें.

'भावोजी, यो.. यो. बाये भावोजी येयलो गो ऽ...! भितर वचून बस भावोजी.'

पायांची जोतीं काडून दवरून भावोजी घरांत गेलो.

...मागीर एक एक सोयरे येत रावले.



रातीकडेन जेवण जातकीर हेर सगले सोयरे आपआपणाल्या घरा परतले.

भावोजी कदेलार एकलोच सिगार फुस्कीत बशिल्लो. भालचंद्र रांदचे कुडिंतल्यान तुवाल्याक हात पुसतेर भायर येयलो, आनी भावोजी म्हऱ्यांत एका कदेलार बसलो.

'सिगार ओडटलो... ? घे.' भावोजीन सिगारा पाकीट मुखार धरत म्हळें.

भालचंद्रान पाकीटांतल्यान एक सिगार काडून तोंडाक लायली. भावोजील्याच लायटरान ती पेटयली आनी एक दीर्ग झुरको घेयलो.

तोंडाचो चंबू करून धुंवर ल्हव ल्हव सोडत भालचंद्रान येवजिलें, भावोजीकडेन रेणुच्या लग्नासंबंधान उलोवन दवरप बरें! अकस्मात लग्न थारल्यार भावोजीलें फाटबळ जाय जातलेंच.

'भावोजी, रेणुलें लग्न करूया मुरे...?'

तोंडात घेतिल्लो धुंवर भायर सोडून, भावोजीन म्हळें 'हय तर.. करचेंलेंच.'

'म्हाका फाटबळाक तूं जाय.'

'अरे! हें आनीक सांगूंक जाय? हांव आसाच न्ही!'

भावोजीन सिगाराचो निमाणो घोट घेतलो आनी धुंवर सोडीत पोत चिड्डून कुशीक मोखलें. 'खंयूय उलयला?'

'उलयला म्हळयार एक-दोन कडेन तल्लास केल्लो, बरोबर जमलें ना तें. जातकाक जुळलें ना सारखें.

'तुगेल्याच मेवण्याक विचारूंक जाय आसलो...'

'ताचें जालें न्ही पयरुच!'

'जालें..?'

'हय!'

'खंयचें चेडूं?'

'किन्नरच्या राम देसायालें.'

'कितलें मागलें ?'

'पंदरा तोळे आनी पंचवीस हजार.'

'पंदरा-पंचवीस म्हळयार खूब न्ही रे आयच्या जमान्यात! हे बरें आशिल्ले मुरे, आमका परवडपा सारखें!... आदीच विचारल्यार जातालें दिसता न्ही रे...!'

'जायना आशिल्लो रे तो रेणूकडेन!' भालचंद्र सट्टकरून फाफुडिल्ल्याभाशेन उलयलो आनी सिगारा धुंवर ताचे उस्तुऱ्यां गेलो. मागीर तो खोंक खोंक खोंकलो.. सावशीद जातकीर सांगूक लागलो, ताणें आदीच अट घाल्ली खंय... चेडूं उण्यात उणें बारावीमेरेन तरी शिकिल्लें उरूंक जाय!... आमगेले हें एस. एस. सी. नापास! हाच्यान पास जावंक जायना! पांच-स फावटी बसलें...!'

भावोजीन तकली खरपिलीशी करून म्हळें, 'एक काम करतलो...?'

'कितें सांग...'

'तूं केरवडी वच. थंय एक रायू म्हण आसा. म्हगेल्या भयणिल्या घराफाटल्यान घर ताचें. तागेलो एक चेडो आसा. गोंया पोलीस. पयर हांव बायेगेर गेल्लो तेन्ना तो रजेर येयिल्लो आसलो. रायू म्हण अंदु चेड्याचें लग्न करता म्हूण... पळय, जमल्यार जमलें,'

भालचंद्रान मनात येवजिलें, पोलीस आसा म्हण्टकीर पगारदार मनीस, पंदरां-पंचवीसांसकयल मागचो ना.

'पोलिशेत आसा म्हण्टकीर पंदरां-पंचवीस तरी मागतलोच!'

'हय-हय! सादारण तितलेंच मागतलो...!'

भावोजीक दुबाव येयलो. हाचे लागी पयशें आसात मु जाय तितले...? मागीर ताणें येवजिलें, ना जावंक कितें जाला? हो तर पंदरां वर्सां मिलेट्रीत सर्व्हिस करून पयरूनच रिटायर जाला. फंडातले मेळिल्ले पयशें हाणें कितें केले तर...? ते भायर मामान रेणुच्या नांवार बँकेत थोडे पयशे दवरल्यात अशें आकयल्लें.

'.. आसात मुरे, लग्नात जाय तितले पयशे?'

भालचंद्रान सिगाराचो एक दीर्ग झुरको घेवन, पोत चिड्डून कुशीक मोखलें. धुंवर 'फं' करून सोडलो आनी मागीर कांय खीण चिंतून अनमनत म्हळें, 'हय, हय! असात..!'

'मामान दवरिल्ले न्ही रे रेणुच्या नांवार थोडे...! मीराकडल्यान आयकल्लें हांवें...!

'हय, दवरिल्ले थोडे! पयरूच ते काडून चार काकणां केलीं. लग्ना खर्चात कितलेय पयशे आसल्यार ते उस्सच!' मागीर ताणे कांय खीण तकली खरपिलीशी केली आनी थीरपणान म्हळें, 'तशे म्हगेले थोडे भोव आसात..! म्हाकाय तशें खूब मेळळे नाशिल्ले, सिर्फ पंदार वर्सां सर्व्हिसेत कितें व्हडलेशें मेळटां....?'

'तुवें आनीक थोडी वर्सां करूक जाय आशिल्ले रे, आता खरें सांगप म्हळयार, तुगेले अजून सगळेंच जावचेलें आसा! आनी हे वेळार, तूं रिटायर जावन येयला.'

'म्हाका इत्सा नाशिल्ली आनीक सर्व्हिस करची! आमगेलें हेंच बरें 'जय किसान'!'

'अजुनय खंयूय गेल्यार, एक्स सर्व्हिसमन म्हूण रोजी मेळटा तुका. पळय मुरे...'

'नाका रे म्हाका आनीक नोकरी! हें बापायलें आसां, तें कोण वसयतलो?'

'तुजी मर्जी!' अशें म्हणत भावोजी उठलो आनी ताणें आँ करून एक लांब जांबय काडली.

भावोजीन जांबय काडिल्ली पळोवन, भालचंद्रान म्हळें, 'भावोजी, न्हिदता मुरे...'

'हय हय न्हीद येयली.'

'मीरा, भावोजीक भायल्या कुडीत खांटीर हांतुळणे घालून दी. भावोजी न्हिदता खंय...'



'अनुसया, वचून येता गो...' म्हणत भालचंद्रान पांयांत जोती चडयलीं

'बेगीन येयात हां'...... अनुसुयान रांदचे कुडींतल्यानच सांगलें.

भालचंद्र उंबर बलांटून भायर येता थंय आसा, झुप्पकरून खाबरें माजर धांवत धांवत आड गेलें....' हें एक हाळ नांवाचें, पाड पडिल्लें आड गेलें. बऱ्या कामाक वयतना ही नस्ती पिडा खंयच्यान ऐनवेळार पावता कोण जाणां! पाड पाडूं!' अशें म्हणत तो परतून भितर गेलो. कदेलार बसलो. बायलेक उलो दिलो, 'अनसुया, इली साखर घेऽ.'

'आं....? कितें म्हळें...?' तिका भितर रांदचे कुडींत भायल्यान भालचंद्रान उलयिल्लें सारखे आकयल्लें नासुयें.

भालचंद्रान व्हडान सांगलें, 'थोडी साखर घेवन यो...'

'येतां हां...' म्हणत तिणें कुरकुटातलों साखरे डबो काडलो. तो घेवन ती भायर ओसरेर येयली.

'कित्याक साखर म्हणिल्ली तुमी....?'

'इल्ली हातार उड्य. माजर आड गेलें.'

'कितें एकेक नाकाजाल्ले घेवन बसतात तुमी...' माजर आड गेल्यार कितें जाता? नाका जाल्लेंच! अशें म्हणत तिणें साखरे डबो उगडलो आनी चिमुटभर साखर काडून घोवाल्या हातार दवरली.

'नाका जाल्ले न्ही तें! जाय जाल्लेंच! तुका कळना तें!' अशें म्हणत भालचंद्रान साखर तोंडात उडयली. ती चोखलिशी करून खायली. 'येतां हांव' म्हणत तो उठलो. परतून एक फावट ताणें कुलदेवाक हात जोडले. 'देवा, पाव रे बाबा.' म्हळें आनी तो उंबर बलाटून सटसटीत चलूंक लागलो.

कशेंय करून अंदू रेणुचे लग्न करूंकच जाय. भावोजीन कशेंय धैर्य दिलांच, ताणें सामकें येवजिलें आता आनी फाटी सरप ना. ह्या वर्सा करना जाल्यार, मुखार तीन वर्सां मेरेन थोपचें पडटलें.

खरें म्हळयार अनसुयान मनार घेतल्यार, अशें गांवभर सोदूंक वचचें पडनाशिल्लें. भयणीन सांगल्यार, भाव ना म्हण्णा आशिल्लो. आता तरी ताका कितें भांगराची मेळल्या? रेणू परस दोन वर्सा चड शिकल्यां इतलेंच! हुंडो-जोतय व्हड ना. चेडूंय दिसूंक आमच्या रेणू परस चड सोबीत न्ही. अनसुयान एक उतर घाल्यार, तेंय बीन ना म्हणपाचें नाशिल्लें... पुणून हाणें तशें म्हणूंक नाका? हाका पयली म्हजी भयण दोळे मुखार नाका. आसूं, देव आसा!

तो झडझडीत पावलां मारत चलत रावलो.

मुखावेल्यान खांद्यार खोरें घेवन, कुश्टबाब येतालो. उक्तोच आशिल्लो. हुमेन थपथपिल्लो. मुंजीवेल्या काश्टेचें मुखावेलें शेंवट धोपरांमेरेन लांबतालें...

सकाळपाराकच खंय मेरो लावूंक गेल्लो काय....? पळय, सत्तरेक वर्सांचो म्हाल म्हातारो कसो अजुनय शेतां मेरेर घोळटा...! म्हजें आवय-बापूय मात बेगीनच मरूंक जाय आशिल्ले...?

इतल्यात कुश्टबाब म्हऱ्यानच पावलो.

'ख़ंय वयता रे भालचंद्रा...?' नवी ताल्ल मुस्तायकी चडोवन खंयतरी वचूंक सुटिल्ल्या भालचंद्राक पळोवन ताणे विचाल्लें.

भालचंद्राच्या मनांत खिणभर 'सांगू? 'नाका'.... 'सांगू?' 'नाका', अशें जालें. मागीर ताणें मनात म्हळें आसूं सांगुया! जाण्टो मनीस! बापयाभाशेन आसा! अचकीत वाटेर मेळ्ळा!

'बऱ्या कामाक भायर सरला कुश्टबाब, रेणुल्या सोयरिके पासत...'

'वच, पुता, वच वच! वाटेर आनीक उबो राव नाका. वच! काम जालें उपरांत सांग, खंय कितें... कात तें!' कुश्टबाब ताकतीक केल्ल्याभशेन उलयलो आनी आपूणच थंयसून सटसटीत चलूंक लागलो.

भालचंद्र मोडणार येवन बसीची वाट पळयत उबो रावलो. ताणें अर्दवर वाट पळयली, पुणून बस ना. ताका दिसलें, बस बीन गेली ना मूं...?

थंयच ताचे बगलेन कांय लोग उबे आशिल्ले. घडये तेवय खंयच्या तरी बसीची वाट पळयताले. ताणें ल्हवूच तातुंतल्या एका जाण्ट्याशा मनशाक विचारलें, 'अगा, हुळगा वचचेली एस. टी. बस गेली?....'

ताणें बरें करून खिणभर भालचंद्राक नियाळिल्ल्यावरी पळयलें आनी तकली हालोवन 'म्हाका खबर ना.' म्हळें.

थंयच बगलेन एक विशेक वर्सांचो तरनाटो पेंटां-बुटांत उबो आशिल्लो. ताणें मुखार येवन म्हळें, 'तुमी खंय वतात?'

'वयतां केरवडी, हुळगे बसीर वयतलो...'

'हुळगे बस गेली ना. आतां जाली येवची.'

'तूं खंय वयता...?'

'हांवूय हुळग्याकच वतां.'

भालचंद्राक मनात सूं जालें.

हरशी हेरकडेन वचचेल्यो बसी योताल्यो, थांबताल्यो, वताल्यो.

तकलेर घग ल्हव ल्हव तापूंक लागिल्लो. आंगाक हूम येवन भरिल्ली. भालचंद्रान बोल्सांतल्यान लेंस काडून तोंड, कपल पुसलें. लेंस परतून बोल्सांत दवरलो आनी मनगटावेल्या घड्याळात पळयलें. सकाळचीं धा वरां जाल्लीं.

ताणें त्या तरनाट्याक परतून विचारलें, 'बस धा वरार पावतां न्ही हांगां...?

'हय. धा सव्वा धा वरांर पावतां.'

'ख़ंयूय मोडून बीन पडली ना मूं...?'

तो तरनाटो हांसलोसो केलो आनी ओगी रावलो.

'तूं सदाच वयता हे बसीर....?'

'हय.'

'हे बसी उपरांत केन्ना बस आसा?'

'सव्वा बारांक....'

'..........'

'....... ही पळय येयली....'

हुळगे वचचेली तांबडी एस. टी. येवन थांबली. दोग तीग जाण बसींतल्यान देंवले. त्या तरनाट्या वांगडां थंय दोग तरनाटीं चेडवां आसलीं. तीं सगळीं बसींत चडलीं. तांचे फाटल्यान भालचंद्रय चडलो.

बस सुरु जाली...



सादारण देड वरांनी बस हुळगा पावली.

बसीतल्यान देंवन भालचंद्र बद्द हुळगे धक्यार येयलो.

हुळगे आनी केरवडीचे मजगती काळी न्हंय व्हांवताली. भर दनपारचे काळी न्हंयचें उदक रूप्या भाशेंन झगझगतालें. कोणेंतरी रूपें भर भरून हाडून उदकार उडयिल्ल्यावरी.

मुखावेल्यान केरवडी वटेसून होडी येताली...

भालचंद्रान मनात म्हळें, हांगा एक पूल बांदूक जाय आशिल्लो. बरें जाताशिल्ले येवंक वचूंक.

होडी धक्याक लागतकीर होडयेंतले लोक भुरभुरीत देवले आनी धक्यावेले होड्येंत वचून बसले. तांचे वांगडां भालचंद्रय ल्हवूच वचून बसलो.

'होडयेंत बशिल्लीं कांय बायलां पचपच करून कितें कितें उलयतार्लीं. भालचंद्राक बेठीच तांची तिडक मारली.

सुर्या आता सामको तकलेर येयिल्लो. ताचीं किर्णां मस्तकाक ताप दितालीं. भालचंद्रान हाताली पिशवी बेठीच तकलेर धरली... शेतांत नांगराचो फाळ माती दोशीवटेन सारत वयतल्याभाशेन होडी चुरचुरीत, उदक कापत केरवडी धक्यावटेन वयातली.. भालचंद्र भोव मज घेवन ते होड्येची चाल पळोवंक लागलो. निमाणेकडेन ती धक्यालागी केन्ना पावली कळळेंच ना.

भालचंद्र होड्येंतल्यान देंवून चलत नयावाड्यार भावोजील्या भयणीच्या घरा येयलो. भावोजीली भयण लीला दारार तांदूळ आसुंडेटर बशिल्ली. थंयच मुखार एक सुणें गोठिल्लें. तें भालचंद्राक पळोवन व्हडाव्हडान भोकूंक लागलें.

भालचंद्राक अचकीत पळोवन ती बेगोबेगीन उठली... 'यो यो.' तिणें म्हळें.

'सुणें बीन चाबना मूं....?'

'ना. काय करना तें...' म्हणत तिणें' 'हेडत' करून सुण्याक बगलेन धांवडायलें. 'यो यो भितर यो..' म्हणत ती भितर गेली.

जोतीं दारात काडून दवरून भालचंद्र वासरेर येयलो.

लीलान वण्टीक तेकून दवरिल्ली एक खुर्ची सोडोवन ताका बसूंक दिली.

'असोच येयिल्लो मुरे बेठोच...! सगळीं बरी आसात मूं...?'

'हय, हय! सगळीं बरीं आसात'

'भावोजी बीन येयिल्लो...?'

'हय. पयरूच भावोजी, मीरा, जात्रेक येयिल्ली. बरी आसात तीं....'

मागीर बोल्सांतल्यान लेंस काडून 'हुश्श' करून ताणें तोंड पुसलें. आनी एक दीर्ग स्वास घेयलो.

'बस हां.. कितेंय पानक करतां...' अशे म्हणत ती भितर वचूंक वयताली, पुणून भालचंद्रान तिका रोखडेच थांबयलें.

'राव राव मातशें आयक, पानक, आनीक नाका. आता जेवचेलीच वेळ जाल्या. हांव जेवनच वयतलो...'

'येयिल्लो असोच मुरे...?'

'रेणुल्या सोयरिके संबंधान येयिल्लो... भावोजीनच धाडला...'

'.........'

'हांगा एक रायू म्हूण आसा खंय न्ही...! तुमचे घराफाटल्यानच ताचे घर म्हण्टालो...!'

'हय, हय! हें पळय... घराफाटल्यानच!' तिणें मागील दारा दिकेन बोट दाखयत म्हळें.

'तागेलो चेडो गोंयां पोलिशेंत आसता खंय!'

'हय. हय!'

मागीर ताणें ल्हवूच विचारलें, 'रायू आता घरांत आसतलो न्ही...?'

'आसा, आसा! आतांच पळयिल्लो ताका!'

'तशें जाल्यार, थंय आताच वचून येतां हांव...! जावचें ना?'

'मागीर वच. जेवन खावन सुशेगाद चल.. मामय येतलो वांगडा.'

'मागीर नाका. मागीर खंयूय वचत बीन तो! शेतां-भाटांकडेन, थंयसून हांगां येवन इल्लीशी कडेन चुकामूक जाल्यार बेजार न्ही...'

'थोप हां...! तशें जाल्यार... मामाक घेवन वच! माम बागांत गेला, येतलो. गोरवां बागांत येयिल्लीं म्हूण आमडूंक गेला... आपोवन हाडटां...'

ती भायर गेली आनी 'मामा, येऽ मामा,... 'म्हूण आपोवंक लागली. माम येवंकच लागिल्लो. उलो आयकून ताणें 'कितें गोऽ?' म्हळें.

'म्हज्या भावाचो मेवणो येयला.'

ताणें तें सारके आयकलें, काय ना, नकळो. तो आपलेंच उलोवंक लागलो, 'पडंग घटणाचीं कितलीं गोरवां गो... धायेक जणांचो पंगडच आसलो.' अशें म्हणत घरांत रिगलो आनी सोयऱ्याक पळोवन अजापलो.... 'अरे! खुशाल मुरे...? वाट चुकूनसो पावलो....?

'................'

'सगळीं खुशाल मुरे.....?'

'हय, हय!'

'मामा, तो रायूमामाल्या गोविंदाक सोयरीक घेवन येयला... रेणूखातीर'

'हरकत ना. बरो आसा.'

'.............'

'पयरूच येयिल्लो तो!'

'हय, पयरूच येवन गेला.....'

'आताच वचून विचारता म्हणटा तो! मागीर बीन रायूमाम खंयूय उठून गेल्यार बेजार न्ही म्हूण...!'

'हरकत ना... म्हाका यो म्हणटा...?'

'हय, वच तूं ताचे वांगडां...'

'ताचे वांगडा वच म्हण्टा तें बरें आसा!... पुणून येयिल्ल्या सोयऱ्याक कितेंय पानक बीन दिलें मूं...' मामान यादीन चवकशी केली.

'नाका म्हणूंक लागलो. जेवनच वतलो तो. जेवचेली वेळय जाली न्ही...'

'ताका जाय तशें...'

'या न्हीं मामा...'

'रायू आसा काय घरांत...?

'हय, हय, आसा!'

'या तशें जाल्यार...' अशे म्हणत माम भायर सरलो.

दोगांय रायुल्या घरा आयले.

रायू आंगणात माटवांत कदेलार एकलोच विडी फुस्कीत बशिल्लो. हांकां दोगांकय पळोवन तो 'येयात येयात' म्हणत उठलो. ताणें भालचंद्राक कदेलार 'बस' म्हळें. मागीर मामाक खंय बसयतलो हें येवजून 'हांव आनीक एक कदेल हाडटां' अशें म्हणत तो भितर वचूंक लागलो...'

'अरे रायू थोप. हांव सदांचोच. हांव हांगा सोप्यार बसतां.'

पुणून रायून आयकलें ना. ताणें भितर वचून एक कदेल हाडलेंच.. दोगांकूय 'बसात' म्हणून तो आपूण सोप्यार बसलो.

'कित्याक येयिल्ले..? अशेच मू...?'

'हो म्हगेल्या चेड्याला मेवण्यालो मेवणो... भालचंद्र'

'चेड्याल्या मेवण्यालो मेवणो म्हळ्यार..' ताणें येवजिलें. मागीर 'हां आतां कळ्ळें. अशें म्हणत ताणें भाचंद्राक बारीक पळयलें...

'तूं तांगेर पावला एक फावट म्हजेवांगडा. वसंताल्या व्हारकिडेक गेल्लो तेन्ना...'

'हय. हय. जाणां तेन्ना पेज जेविल्ले आमी हांगेर...!' अशें म्हणून तो अचकीत ओगी जालो. मागीर ल्हवूच म्हणूंक लागलो. 'बाप्पा आनी आवय भायर पडली खंय न्हीं पुता...'

'हूं..'

'बरी मनशां आशिल्लीं...'

'.........'

'जाल्लें किते....?'

'कांय ना. बाबाक एक मोळो लागिल्लो निमित्त! शेणां-मातयेंत काम करपी मनीस न्ही तो! धनकुटयेर पडलें...! हरशी कितलेंशेच फावटी ताका खोरें आनी कोयती लागल्या. खंय कितें जालां...? हो मोळो निमित्त्याक पडलो! मरणाक कारण जाय न्ही.....!'

'अरे बाबा!'

'मोळो लागिल्लो सांगलेंच ना ताणें आमका. आमी इनिसांव बीन घे म्हणटा आशिल्ली.. कितेंय जाल्यार आंगार काडपी मनीस रे...'

'... आनी आवयक कितें जालें...?'

'तिगेलेंय अशेंच. अचकीतच जालें. बरी बशिल्ली. 'कितें तरी जाता' म्हूण थंयच पडली. 'हां' ना 'हूं' ना. गेली.'

आयकून रायून एक दीर्ग स्वास घेयलो आनी मागीर तो 'देवाची मर्जी' अशें म्हणत सुस्कारलो.

'ताका एक भयण आसा. रेणू म्हण. व्हारडीकेक वाडिल्ली. ताका आतां वर्सा भितर व्हारडीक करूंक जाय न्ही.'

'हय. हय'

'..... म्हूणनच येयिल्लो तो. जातक घेवन... गोविंदाखातीर तुगेल्या...'

'हां... हां.... सोयरिके संबंधान येयिल्लो...?'

'पयर भावोजी जात्रेक येयिल्लो. ताणेच म्हळें म्हाका तुमगेलो चेडो बरोऽ आसा म्हण.'

'हांगा येयिल्लो तेन्ना, हांवेंच म्हणिल्लें ताका!'.....

भालचंद्रान रायूक बारीक पळयलें. तो पांडुरंग मामा इतलोच पिरायेन आसलो. आसुंये पासश्ठ सत्तर. आंगभर दाट केंस आशिल्लें. उलयतना मदीं मदीं पडिल्ले दात ज्युस्त झळकताले.

ताचें धर भायल्यावटेन पळोवंक व्हड दिसतालें. उपरकी. वण्ट्यो चिऱ्याच्यो. पुणून भायल्या आंगांन शिमिटाचो गीलांव नाशिल्लो.

'हांव इल्लें पानक करूंक सांगू?'

'नाका, नाका! आतां जेवचेली वेळ जाली. नाकाच!'

'तशें जाल्यार इल्लें गोड आनी उदक तरी घेयात. दारांत येयिल्ल्या सोयऱ्यांनी अशेतरेन कांयच घेनासतना वचप बरें दिसचें ना. ना तर जेवनच घेयात.. जावचें ना?'

'आसूं आसूं... नाका.'

रायू उठून भितर गेलो.

पांडुरंग मामान ल्हवूच म्हळें. 'ही सोयरीक जमल्यार वायट न्ही. भाट-जमीन आकांताची. एकूच चेडो. चेडोय सभावान भांगर.'

भालचंद्रान मनात म्हळें, देवा पुरसा पाव तूं. तुजी मर्जी. तुजी इत्सा आसल्यार जुळून येतलें.

रायू भितरल्यान बशेन इल्लें गोड, उदका तांबयो आनी पेलो घेवन येयलो. 'हें घेयात. तोंड गोड करात.. म्हूण, ताणें ते तांचे मुखार धरलें.

दोगांनूय इल्लें इल्लें गोड तोंडात उडोवन वेल्यान उदक पिलें.

'रायू, फुडें मागीर कितें...?' पांडुरंग मामान परतून विशयाक सुरवात करत म्हळें.

रायू कांयखीण ओगी रावलो.. मागीर ल्हवूच सांगूक लागलो, 'म्हगेली येवजण कितें आशिल्ली जाणां पांडरंगा.. अंदू हागेली व्हारडीक केल्यार म्हाकाय मातशें संवसारात हगूर जाताशिल्लें...'

'हें पळय रायू, सून हाडून कामां हगूर करून घेतलो म्हणटा पळय, तें तूं सोड! आयचे चेडे व्हारडीक जातकूच रोखडेच बायलेक घेवन वयतात.'

'तुमगेरच्या भाशेन म्हणटा काय कितें रे तूं...'

'आमगेरच्या भाशेंनच म्हण न्ही. वचत थंय अशेंच...'

'तें मागीर पळोवंक जाता म्हणा.. पुणून ताच्याय मुखेल कारण म्हळयार म्हगेलो एकूच पूत. आमगेलें दोळे उक्तें आसतनाच कपलाक चार तांदूळ लायल्यार बरें न्ही...'

'हां आतां कसो उलयलो? हे उलय.'

मागीर दोगाय म्हातारे खळखळून पोटभर हांसले.

'हां तर हांव कितें सांगतालों... हांवें खूब जाणां लागी म्हणिल्लें, अंदू चेड्याचे व्हारडीक करतां म्हूण... चार पांच जातकांय येयिल्लीं. कांय नक्षत्राकूय पडिल्लीं... हांवें कितें केलें, चेडूं पळोवंक जाय न्हूं आदी!.. म्हूण म्हगेल्या बापोल भावाल्या चेड्याक हाका आपोवंक गोंयां धाडलो. हो पळयल्यार, आपूण आनीक दोन वर्सांमिरेन व्हारडिकेक तयार ना म्हूण सांगून धाडटा. आतां हांवें कितें करचें सांग? म्हाका हें आतां सगळयांक सांगूंक अनमन दिसता! कारण ह्याच तोंडान हांवें सगळयांक सांगिल्लें पळय...!' मागीर खिणभर तो ओगी रावलो, मागीर म्हणूक लागलो, म्हगेली पुराय तयारी आसा! चेडोच तयार ना!'

'अरे बाबा!'

'गोयांत डिचोली म्हणिल्लेकडेन आसता तो. फट दिसता जाल्यार तुमी ताकाच वचून मेळात. जाय जाल्यार तागेलो नामो दितां. जाय नामो..?

मामान सुस्कारत म्हळें, 'आता तो जायना म्हळयार कितें करतलो....?

भालचंद्र मात कांय उलयलो ना. ताणें मनांत म्हळें, भोंगू! थंयसून हांगा येयलो! पोल कांडून हाताक फोड!

मागीर ताणें आपले मनाचे समादान करून घेतलें, आसूं करतलों कितें? हांगा ना तर आनीक खंयूय जातलें! थोडेंशे तरास पडत! तें तरास चुकिल्ले नाच्च न्ही!

'थंयच्यान इतले पयसुल्ल्यान हांगां येयिल्ल्यांक अशें ना म्हूण सांगप म्हाका बरें दिसना गा. मन अनमनता. 'रायून तोंड येद्देशेंच केलें.

'आसुं. आसुं गा. चेडो तयार ना जाल्यार तूं किते करतलो...'

भालचंद्रान उलवचें म्हूण उलयलें, पुणून मनांत मात म्हळें. चेड्याक आदीच विचारनासतना सगळयांक सांगत सुट्टात. आमचे सारकिल्यांक फुकट तरास.

'आमी येतात...'

रायूक मनात वायट दिसलें. आपूण चेड्याक व्हारडीक करता म्हूण कळटकीर बावडो कितल्या पयसुल्ल्यान हांगा येयिल्लो. अशें नाराज जावन वचप बरें दिसना....

... मागीर ताका सट्ट करून याद जाली..

'हां. तुमी एक काम करात...'

'कोण्यात म्हगेल्या मेवणेलो एक चोडो आसा. मुंबय पोलिशेंत आसता. ताचे खातीर वचून विचारात. अंदू करतात ताका.'

'कोण्यात कोणागेर...?'

'म्हर्तू नायक म्हण आसा. आदी फलटणीत आसतालो. आतां रिटायर जाला. कोणीय घर दाखयतले नांव सांगल्यार...!

भालचंद्रान बोल्सांतल्यान पेन आनी इल्लिशी डायरी काडली.

'कितें म्हळें तुमी नांव.. म्हर्तू नायक न्ही...?'

'हय. हय...'

ताणें नांव, नामो बरोवन घेयलो.

'बरें. देव बरें करूं...'

'येतात आमी पांडरंगा.'

'येतात हां...'

दोगूय उठले.



भालचंद्र घरा पावलो तेन्ना, सांज इल्ली इल्ली काळी जावंक लागिल्ली. मुखावेल्या चिंवरी दोंगरावेल्यान काळी कुपां एका हारीन दिगंतराक वचूंक लागिल्ली आनी दोंगरार कोणतरी काळें सावट पातळावंक लागिल्ल्यावरी दिसतालें.

अनसुया घरामुखावेल्या कापशिणीं झाडामुखार उबी आशिल्ली. फुटिल्ल्या बोंड्यांचो कापूस काडून दालयेंत भरताली. आंगणात पावलांचो आवाज आ़यकून तकली फिरोवन पळयल्यार घोव दारात जोतीं काडटालो.

'कापशिणी बोंडे फुटून पुराय कापूस जमनीर पडून गेलो.'

'मागीर काडलो ना कित्याक तर तुवें...?

'सांगताशिल्लें..' म्हणत तिणें दोळें ताणून घोवाक पळयलें. पुणून भालचंद्र घरात पाविल्लो.

झाडाचो पुराय कापूस काडून जातकीर अनसुया सोप्यार येवन बसली. दालयेंतलो कापूस घेवन तातुंतल्यो बियो वेगळावंक लागली. कापसाच्यो काळयो कुळकुळीत बियो पळोवन तिका दिसलें, अशी शंभरेक कापसिणीं झाडां उरल्यार, गोरवां खातीर सरकी आनीक विकती हाडचेली पडनाशिल्ली.

भितल्यान भालचंद्र येवन सोप्यार बसलो. सिगारां पाकिटांतल्यान एक सिगार काडून ताणें तोंडाक लायली. उज्यापेट्येकाडयेन ओडून ती पेटयली. आनी फुस्स फुस्स करून धुंवर सोडीत ओडूंक लागलो.

हरशी भालचंद्राक विडी. सिगार ओडपाची सवय नाशिल्ली. पुणून केन्नाय मनाक मानल्यार, तो खंयूय गेल्लेकडच्यान एक सिगारां पाकीट घेवन येतालो आनी मजा घेवन ओडटालो.

'बाबा! आयज सिगार ओडूंक लागलें मू तर...! घोवाक सिगार ओडटा तें पळोवन अनसुयान फकाणांनी म्हळें, 'काम जालें गेल्ले कडेन...?' बियो वेगळायेतरच तिणें ल्हवूच विचारलें.

'जातलें आनीक कशें...? पापी गेल्लो कडेन पावल भर उदक.!

'कसलें पाप केला तर तुमी?'

'कोणाक खबर! ह्या जल्मात ना जाल्यार, गेल्या जल्मात केलें ना कित्याक वेल्यान? येयिल्ले, गेल्लेकडेन सोपेपणान खंयचीच कामां जायनात म्हगेली.?

'मेळ्ळो तो मनीस?'

'मेळ्ळो.'

'कितें जालें मागीर..?

'लग्नाक चेडो तयार ना खंय.'

'तुमगेलो भावोजी तर....'

'आसूं गो तें पाडू पडूं!' ताणें तिका फुडें उलोवंक दिलें ना, 'आनीक विचारूंक नाका ताचे

बद्दल. जमलें ना म्हळें, जालें!' तो भोव कंटाळिल्ल्याभाशेन उलयलो आनी सिगार फुस्कोवंक लागलो.

तिवूय मागीर कांय उलयली ना.

सदा फुलीं झाडां मुळांत खाबरें मांजर गोठिल्लें. भालचंद्राली नदर ज्युस्त ताचेर गेली. तो ल्हवूच उठलो... घराबगलेच्या खोपींत गेलो. एक बरोसो सुरिचो तोणो काडलो... आनी ल्हवूच दपत दपत येवन धप्प करून मांजरार मारलो.. पूण माजरार तो बसलोच ना. बुडूककन्न मार चुकोवन माजर खंय धावलें ताका कळ्ळेंच ना. माजराबदला थंयचें एक सदांफुली झाड मात मोडून पडलें.

'हे कितें तुमगेलें नाकाजाल्लेंच?' सदाफुली झाड मोडिल्ले पळोवंक नजो जावन अनसुयान म्हळें.

'हाळनांवाचे माजर सकाळी भायर सरतनाच आड गेलें आनी म्हगेलें काम जालें ना'

'ते आड येना जाल्यार चेडो लग्नाक तयार जाताशिल्लो? गांव देस भोवन येयिल्ले मनीस तुमी. हे कितें नाकाजाल्ले तुमगेलें! फुकट तें फुलांझाड मात मारून उडयलें! रेणू पळयल्यार बोवाळ करतलें.'

भालचंद्र ओग्गी. तोणो खोपीत दवरून परतून येवन सोप्यार बसलो. सिगारा धुंवर काडीत..

'खंय गेलें गो रेणू?' ताणें ल्हवूच याद जावन विचारलें.

'गेलां हेडूंक! बसला आसतलें कोणागेरूय. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो पंचायती सांगत. सदाचेंच तागेलें तें!'

भालचंद्रान मनात म्हळें, आता काळोख जायत येयलो तरी कसल्यो पंचायती... आई आनी बाबा भायर पडत सावन रेणूय बरेंच पारपोळ पडलां. अनसुया म्हणटा तें फट न्ही.

'आपय ताका.'

'हांव आपयना.'

'हांवच आपयतां... रेणूऽऽ ए रेणू ऽऽ' भालचंद्र बशिल्लेकडसूनच व्हाडाव्हडान आपोवंक लागलो...



देवळामुखार धवेऽ कपडे घालून एक मनीस उबो आशिल्लो. ताका भालचंद्रान विचारले, ‘म्हर्तू नायकाले घर खंय गा..?

‘हें पळय.. हांगाच ही पायण बलांटून गेले काय, सुर्वेकूच मेळटां तें घर म्हर्तू नायकालें. हें तें पळय. हांगासल्ल्यान दिसता. पाचवोच रंग काडला.’ ताणें बोट दाखयत सांगलें.

‘देव बरें करू...’ अशें म्हणत भालचंद्र चलूंक लागलो...

पायण बलांटून तो त्या घराकडेन येयलो.

घर बरें व्हड आशिल्ले. मुखेल दरवट्याच्या दोनूय आंगांक व्हड व्हड सरवळयो आशिल्ल्यो. आनी त्यो तांबड्यां रंगान रंगयिल्ल्यो. भायलें सोपे शिमिटाचे गिलांव काडून सुळसुळीत केल्ले. दारांत एक पयशांवाल आशिल्ली आनी ती सुमार वयर चडिल्ली.

घराचें दार बंद आशिल्लें.

भालचंद्रान दारावेलें बटण चिडिल्लें ‘टण्ण टण्ण’ असो आवाज जालो. कोणूय येवन दार काडटले म्हूण तो ओगी उबो रावलो. पूण भितल्ल्यान कोणेच दार काडलें ना. ताणें ल्हवूच सरवळेंतल्यान भितर पळयलें. कांयच दिश्टीं पडनाशिल्लें. ताणें परतून दारावेले बटण चिड्डिलें. ‘टण्ण, टण्ण’ आवाज जातकीर, आता मात ‘कोण?’ असो एका बायल मनशेलो आवाज येयलो. कोणेतरी वासरेर येवन खड्क करून खिळी काडिल्ल्याचो आवाज जालो. दार उक्तें जालें. दारांत एक पन्नास बावन्न वर्सां पिरायेची बायल मनीस उबी.

‘म्हर्तू नायकालें घर हेंच न्हीं?’

‘हय.’

‘आसात तें घरांत?’

‘ना. आतांच भायर सरून गेल्या. कित्याक?’

‘सोयारिके संबंधान येयिल्लो....’ भालचंद्रान एकदम सांगुनच उडयलें.

‘या, या! बसा!’ बायलेन भारी मोवाळ उतरान येवकार दिलो. भालचंद्र भितर येवन एका कदेलार बसलो.

ताणें ल्हवूच वासरेवेल्यान नदर भोंवडायली.

घर पुरायच चकचकीत आनी झगझगीत आसलें. वासरेवेल्या जमिनीकूय तांबडी काव घालून शिमिट घाल्ले. वण्टीर बरींबरीं चित्रा आनी कॅलेंडरां लायिल्लीं. वण्टीर म्हर्तू नायकालो फलटणीतल्यां भेंसातलो एक फोटो लायिल्लो आशिल्लो. तागेल्यां भेसावेलीं फितां पळोंवन ताणें विचारलें, 'म्हर्तूमाम सुभेदार मेजर आशिल्लें ?'

'हय.'

'केन्ना रिटायर जाले?'

'हालीं. देडेक वर्सां जालीं.'

ताका दिसलें खिणभर, फुडली सर्व्हीस केल्यार एक दीस म्हज्यानय अशेंच सुभेदार मेजर जांव येतालें.. पुण हांवे मुजरत फुडलीं सर्व्हीस केली ना, म्हाका हे पुराय नाकाच आसलें!

'म्हर्तूमाम आतां बेगीन येतले?'

तिणें भालचंद्राल्या उलोवपाचो मतितार्थ जाणून म्हळें, 'तुमी म्हजेलागी उलयात कितें उलोवचें तें.'

'तुमी म्हर्तूमामाली?'

'बायल.'

'हांव काल केरवडी गेल्लो, तुमगेल्या भयणिल्या चेड्याखातीर!'

'हां... हां...'

'तो जायना खंय! देखून रायुमामान तुमगेलें नांव सांगलें.'

'हय. अंदु आमकां करचेली येवजण आसा! जातकाय बीन खूप येतात.'

'म्हगेली एक भयण आसा..'

'खंयच्यान येयल्यात तुमी?'

'गडावेल्यान... नागावाड्यार घर म्हगेलें.'

'जातक... फोटो हाडल्यात?'

'जातक हाडलां. फोटो हाडलो ना.'

'हांव तुमचे खातीर च्यायेक दवरूं ?'

'नाका, नाका! कांयच नाका!'

'अशें कशें? लिंबा सरबत तरी करतां!'

'नाका, आसूं!'

'पयलेच फावट पावल्यात. नाका म्हळयार कशें? हांव हाडटां...'

अशें म्हणत ती भितर गेली.

भालचंद्रान तिका बरे करून नियाळली...

तिणें बेंसबरी फुलांफुलाची साडी नेशिल्ली. केंस वेवस्थित वळोवन आंबाडो घाल्लो. तिका पळयल्यार, ती आतांच बाजाराक वचूंक तयार जाल्या काय अशे दिसतालें.

म्हर्तूमामान आपणालें घर आनी घरातलीं मनशां वेवस्थित दवरल्यात हातूंत दुबाव ना, तोवूय मिलेट्रीवालो आनी हांवूय. म्हगेलें घर पळय. 'व्हड झपंतर अशें बांदून दवरलां. भायल्या आंगांनी अजून गिलांवय काडूक ना. घरात फक्त कणातरी आनी मुडयो. वण्टीर कोयती-माकडी आनी व्हिळे... आनी म्हगेली बायल! अजून तीस वर्सांय पुराय जावंक ना. हांवें घोळोवन घोळोवन अर्दी म्हातारी केल्या. अकरावी मेरेन शिकिल्ले नोकर शिपायाले चेडूं. खरे म्हळयार म्हाका पडचेंच न्ही. तागेलें नशीब तें. हांवे ताका सूख म्हण्टात तें दिलेंच ना. ताणें केंवरे काडिल्ले दिसतात आमकां! तागेली दुसरी भयण पळय... कशी राजाली राणी जावन भोंवता!...

म्हर्तूबायलेन कांयवेळान लिंबा सरवत हाडून टिपॉयचेर दवरलें. 'हे घेयात.'... तिणें मागीर ल्हवूच विचारलें, 'तुमी कितें करतात?'

'हांव आदी मिलेट्रींत आशिल्लो. पंदरां वर्सां सर्व्हिस करून रिटायर जालों. आतां घराच संवसार पळयतां. बापायले थोडे भोव बदीक आसा... तें पळोंवक कोणूय नाका ? एकलोच चेडो हांव आवय बापायक.'

'तुमी जातक दवरून वचात.'

'जायत.'

'पियात, सरबत पियात.'

भालचंद्रान सरबत पिलें.

मागीर प्लॅस्टिकाचे पोतयेंतल्यान रेणुलें जातक काडून तिगेल्या हातात दिलें.

तिणें जातक उगडून आपणाक तातुतलें कळटल्यांभाशेन बेठीच नदर घुंवडायली...

'चलयेचें नांव रेणू न्ही....?' जातकावेलें नांव वाचून तिणें म्हळें,

'हय.'

हिका वाचूक येता हें पळोवन भालचंद्राक अजापशें दिसलेना. हिचे तेपार आमगेले लोक चेडवांक शाळेंत धाडूंक लागिल्लें, चड शिकिल्ली आसची ना.. ताका बेठेंच दिसलें, तिका विचारचे कितलीं शिकल्या गे तूं...?'

'हो आमचो व्हडलोच चलो. तीन वर्सा कॉलेज शिकलां. फुडें शिकूंक ना. कितें दिसलें कोण जाणां, आपणाल्यां इश्टा वांगडां वचून पोलिशेंत भरती जालो. आमी तेन्ना मुंबयतच आसतालीं. बापायन कितलें सांगलें फुडें शीक म्हूण... आयकलोच ना.' तिणें विचारनासतनाच आपल्या चेड्याबद्दल सांगलें. 'तुमची भयण कितली शिकल्या...?' तिणें अचकीत विचारलें.

'एस. एस. सी. नपास...' भालचंद्रान कांयशें चाचयतेरूच सांगलें.

'एस. एस. सी. नपास...?' ती आंगार पाल पडिल्ल्या भाशेन आंग काडून उलयली.

'हूं...'

'तशें जाल्यार व्हरात हें जातक...' तिणे सट्टकरून आंगार पडिल्ली पाल फांफडून उडयिल्याभाशेन उलयलें. 'चल्यान पयलीच सांगलां, चली उण्यात उणी बारावीपास जाय। चलो म्हगेलो फौजदार परिक्षेक बसला. डिपार्टमेंट परिक्षा! एस. एस. सी नापास जाल्यार नाकाच!' एकाच स्वासात आनी दमात तिणें पुराय सांगून उडयले आनी 'हें घे..' म्हूण जातक काडून भालचंद्राक दिलें.

भालचंद्राक मात कितें उलोवंचे म्हूण कळळें ना. ताचे तोंड बावन येद्देशेंच जाल्लें.

तो तिगेल्या तोंडाकडेन पळयतच उरलो.



पांयांतलीं जोती काडून दवरून भालचंद्र हुश्श करत घरात गेलो.

'बा! धगातल्यान येयिल्ल्याक दोळयामुखार काळोख येयलो.'

तो हांत-पांय धुवन न्हाणयेत गेलो... अनसुया रांदचे कुडींत चुलीक फूंक मारताली... तिणें घोवाक पळोवन म्हळें.

'येयले...?'

'जीव कासावीस जाल्ल्या भाशेन जाला. इल्लो निवळ न्हिवोंक घाल मातशें...' हात-पांय धुयत भालचंद्रान सांगलें.

'घालतां हां....' अशें म्हणत अनसुयान कत्रेलातली एक ताटली काडली. बरी करून पुसली. पेजें मडकेत दवलो घालून वयलोच निवळ काडून ताटलेंत घालो. मिठा वल्लेंतलें इल्लें मीठ काडून तातूंत घालें.

भालचंद्रान वासरेर वचून मुस्तायकी काडून खुंटयेर लावन दवरली. भितर रांदचे कुडींत येयलो. वण्टीक तेकोवन दवरिल्ली म्हणय घेवन ताचेर बसलो.

'चुलीर कितें दवरला...?'

'खतखतें.'

चलीक फूंक मारून चुलिचो गोबोर अनसुयाल्या तकलेर उसळिल्लो आनी केसार लेपकसो बशिल्लो.

भालचंद्राक सट्टकरून ते बायलेची याद जाली. हिच्याकूय जाणृया पिरायेची बायल ती, कितली वेवस्थित आनी नेटकी रावता ती!... आनी हें पळय, भूत कशें!

ताका बायलेक तापोवन सांगनशें दिसलें, हें भुताभाशेंन रूपडें कित्याक करून घेयल्या? बरीं साडी न्हेसून, केसांक बरीं फुलां माळून, तोंडाक पोव लावन, बरें वेवस्थित राव. हें कितें ? तेलकट तोंड आनी रापिल्लें आंग !

मागीर ताणें येवजिलें, दीस-रात शेतां-भाटात घोळटल्याचें रुपडें अशें जायना जाल्यार कोणालें जातलें...! हांव पळय, कसो जालां! पयली मिलेट्रीत आसतना हांव असोच आशिल्लो ? रजेर येयिल्लो तेन्ना, वाटेन वयतना लोक पळयत रावताले.. हांवें अनसुयाक दोश दिवप समा न्ही! आदी तें अशेंच आशिल्लें? तागेली धाकटी भयण येयिल्ली. आपल्या व्हडल्या भयणीक पळोवन, 'ताई, कितें दशा जाल्या गो तुजी..!' म्हूण रडलें. आतां सुदीक खंयच्यान तरी काम करूनच येयलां आसतलें....

'कितें केलें सकाळी..?' ताणे मुजरत जाणून घेवंकच विचारलें.

'वयले आडयेंत घुत्यार सुरिचो जवड इतलो जाड पडिल्लो. हाडलो बरगून. न्हाणये जळावां जातलो. आताच येयल्यां हांव.'

'रेणू गेल्लें तुजें वांकडा...?'

'हय, एकलें कशें वचूं...? उबारूंक कोणूय नाका?'

'खंय गेलें रेणू आतां...?'

'खंय म्हूण कितें विचारतात....? मातशें मेकळें आसलें, काय सुटलें तें वाड्यार.. पंचायती करूंक.. हांवूय सांगनां ताका कांय! ताका कितेंय सांगूक लागलें, काय रोखडीच वाड्यावेलीं काना शेळोवंक लागतात. हुनी लागली चलोवंक म्हण्टात. आनी ही तुमगेली भयण कमी..? गांवभर सतायतां म्हूण सांगत भोंवतां. थोडें नांव वायट जालें ना म्हजें गांवभर.. देखुनच म्हाका माया ना ताचेर!... हांवूय मनीसच!.. म्हाकाय मन आसा!...' अनसुयान तुणतुणे सुरु केलें.

' मुजरत तुगेलें नांव वायट करूंक सांगना गो ! ल्हानपणासावन तें अशेंच! ताच्या तोडांत तीळ तिगना. मनान सरळ आनी सदळ तें ! कितें लिपोवंचें, कितें दाखवचें कळना! लोक ताचो बरो लाव घेतात...'

'... पुणून वचून बसूंकच जाय कित्याक लोकांगेर...? अशें तरेन वेळ काळ नासतना वचून बसप बरें...? तें कितें आतां ल्हान...? म्हजें परस पांच वर्सांनीच ल्हान. चोवीसावें मूं ताका...? आपूण वाडिल्लें चेडूं, लोक नांवां दवरतलें. नस्तें उलयतलें, हेंवूय कळना म्हळयार...? तुमी कांयच विचारनात ताका...?'

भालचंद्राक दिसलें, अनसुया सांगतां तेंवूय फट न्ही. आतां ह्या नस्त्या वेळार खंय गेलां तें?

जेवची खावची वेळ ही! लोकांगेर वचून उलयत बसचे परस ओग्गी पुस्तक घेवन बसल्यार अभ्यास जावचो ना? परिक्षेक पास जावंक मेळचें ना ? व्हदळ हें एस. एस. सी. नपास म्हूण कळटकीर, कितें केलें ते बायलेन...? कितलो याण जालों हांव! हें बरें शिकिल्लें आसल्यार, म्हजी परिस्थिती तशी जाता आशिल्ली ?

'तो निवळ पियात. थंड जालो.'

आं! निवळ तसोच उरलो.

ताटली उखलून ताणें गटगटीत निवळ पिलो.

'कितें जालें गेल्ले कडेन?'

'जमलें ना.'

'यतना वाटेर माजर आड येयिल्लें...?' तिणें मुमुरखे हांसत म्हळें.

भालचंद्र ओगी उठलो...

भायर येयलो.

ताणशेंत उलो मारूंक लागलो. 'रेणूऽऽ ए रेणूऽऽ खंय गेलें गो हेडूंक...? ए रेणूऽऽ'

'ओऽ' असो उलो येयलो आनी खंयच्यान नेणो रेणू धांवत धांवत येयलें.

'खंय गेल्लें गो?'

'शेवतू मावशेगेर बशिल्लें.'

'शेवतू मावशेन असली कसली पोटली दवरल्या गो, तूं परतून परतून थंय हुबेक वयता...?'

'रेणू भावाक तापिल्लो पळोवन ओग्गी तकली सकयल घालून भितर वचूंक लागलें...

'थोप थंयच!'

तें थंयच थांबलें.

'अगो, कितलें फावटी सागचें गो तुका, वाड्यार वचून अशें चड बसूं नाका म्हूण...? तेपरस पुस्तक घेवन वाचत कित्याक बसना गो तूं...? तितल्या वेळार अभ्यास करूंक जायना? परिक्षेक

बसला मूं गो तूं पर्थून?... कित्याक बसता परिक्षेक बेठेच? अ म्हळयार ब कळनाशिल्ली सुदीक यत्न करून पास जावन गेली. आनी तूं पंचायतीं करूंक भोंवता...'

ते ओग्गी.

'तूं जाणां हांव आयज गेल्लो कडेन तुजे पांयांन कितलो याण जालो तो?'

'.......'

'तू. एस. एस. सी. नपास म्हूण कळटकीर, तिणें हातात घेयिल्लें जातक परतून दिलें, 'नाका' म्हूण...!'

भावान भयणीक उलयिल्लें आयकून, चुलीकडेन बसून खतखतें खतखतयतल्या अनसुयानी कान लांब केले. तिका हाय जालें. तिणें मनात म्हळें, जावंक जाय. बरेंऽ दिलें.

'आयकलें...? खतखतें चुलीवेल्यान काडून न्हिवण्यार दवरतेर भितरल्यान अनसुयान साळसुदपणान विचारलें.

'कितें...?'

'हांव वाडूं तुमकां...?'

'हां वाड.. चल गो. जेवन बस अभ्यासाक...'

रेणू थंयच्यान ओग्गी न्हाणयेंत पांय धुवूंक गेलें...



भोवच दिसांनी रेणून पुस्तक उक्तें केल्लें. तेंवूय भावान तापार काडिल्ल्याक. तें वाचतालें, पुणून ताचें लक्ष लागनाशिल्लें. तातूंतच तें इंग्लीश विशयाचें पुस्तक. इंग्लीश विशय म्हळयार ताचो दुस्मान.

ताका दिसलें, हांव इतलीं वर्सां इंग्लीश कशें पास जायत गेलें ? म्हाका इंग्लीश विशयात गोबर लेगीत येना म्हळयार जाता.

वर्सान वर्स तरी खंय पास जालां! चवथी मेरेन वेवस्थित पास जाले तितलेंच. पाचवेक दोन फावटी. सवेक मात पयल्याच फावट पास. नातर बाकी सगळी वर्सां दोन दोन फावटींच. एस. एस्. सी. क तर स फावटी बसलें. पाड पडूं!

म्हज्या वांगडांची सगळीं केन्ना पास जावन गेलीं. कांयजणीं बी. ए. बी. कॉम. य जालीं.

सुमी पळय, पयलेक तें आनी हांव वांगडां शिकतालीं. तें वर्सान वर्सा पास जायत मुखार गेलें. पोरूं बी. कॉम जालें. भावा वांगडां मुंबय वचून सर्व्हिसेकय लागलें. कोणे बाबड्यान मागणी बीन घाली. ह्या मे म्हयन्यात लग्न ताचें!.. आनी हांव? फाटी पडत रावलें. आनी आतां एस. एस. सी. क नाक आपटीत आसां. बी. कॉम. भोगूं ! एस. एस. सी. क तरी पास जावंक जाय आसलें हांवें ? हांव शिकिल्लें आसल्यार म्हज्या भावाक तशें याण जावचे पडनाशिल्लें. पळय न्ही. सुमी काय म्हजे परस बरें दिसना पुणून शिकून सर्व्हिसेक लागिल्ल्यान कशें पट्ट करून मागलें ताका.

'रेणूऽ रेणू गोऽऽ' सकयल्यान भावालो उलो येयलो.

'कितें अण्णा?'

'वयर माळयेर आसा गो...?'

'हय.'

'कितें करता?'

'अभ्यास.'

'ताणें दोळयामुखार धरिल्ल्या पुस्तकाचेर नदर थीर केली.

इतल्यांत डब्ब डब्ब असो पावलांचो आवाज करत भालचंद्र माळयेर येयलो. भयणीक अभ्यास करता पळोवन मुमुरखोच हांसलो.

'तूं मीरागेर म्हातनाक वयता मुगो...?' हांव मागीर रातीकडेन पावतां थंय...'

'हुनी वयता म्हण्टाली न्ही..?'

'ना, ती वचची ना आतां! तूंच वच...'

'.........'

'वयता मुगो...?'

'हय, वयता!'

'मातशें बेगीनच वच.'

तो सोपणां देंवन सकयल गेलो.

बायगेर म्हातना वचचे निमाणे म्हजेरूच पडलें मूं ! म्हाका वचन दिसच ना बायगेर.. फकत त्या माकडाक लागून. तो एक आसा बापायचे बदीक किडयतेर...! भयणिलो देर म्हूण ओगी रावप. ह्याच म्हातनाक तें ! शीऽ! हलकट माकड खंयचो! बायेक सांगल्यार म्हणूक लागलें, 'ओगी राव. म्हाका हांगा दीस काडचेले आसात. कोणाकडेनूय म्हणू नाका.' तेन्नासावन बायगेर पदेपदे वचचेच सोडलें हांवें. चुकना जाल्ल्या काळारूच वचप! 'रेणूऽ' भावालो सकयल्यान परतून उलो येयलो.

'कितें अण्णा...?'

'बेगीनच वच.'

'वयता कितलोसो वेळ लागतलो ह्या शिसेबागाक वचूंक!'

'कपडें घालतां, तयार जातां मेरेन पांच जातली. आताच ही पळय चार जालीं...' वण्टीवेल्या घड्याळयांत पळोवन ताणें सकयल्यान सांगलें.

रेणून पुस्तक धापलें.

उठलें.

सकयल येयलें.



मीरालो चेडो आंगणात खेळटालो. रेणूक येता तें पळोवन तो मोठ्यान आडुलो, 'मावशी येयली... मावशी येयली... ' आनी धावत धावत रेणूमुखार येयलो.

रेणून ताका उखलून घेयलो. ताचो उमो घेयलो आनी परतून ताका सकयल दवरलो.

तो धावत रांदचे कुडींत गेलो. 'माँ.. माँ.. मावशी येयली... ' ताणें आवयक सांगलें.

रेणू पायांची जोतीं काडून दवरून घरात गेलें.

'यो गो रेणूऽ' मीरान रांदच्या कुडीतल्यान म्हळें.

वळखिचो आवाज चुलीकडल्यान येयलो. रेणून पळयलें. भावोजीली केरवडी दिल्ली भयण चुलीबगलेन बसून पोळे भाजताली.

'आ! लीलाताई, तूं केन्ना येयली ?'

'काल. हुनी बरी आसा मूगो...?'

'हय.'

'ती येवंक ना...?

'ना.'

'कित्याक..?'

'अं.. तिका येवंक जायना.. बरें ना तिका...' रेणून चांचयत अडखळत सांगलें.'

'आनी अण्णा गो...?'

'मागीर येता म्हळां...'

'बस, बस गो, उबें कित्याक ? ताका मणय दी ती..' लीलाताईन म्हळें.

'ना. आदी कपडें बदलून येता..' अशें म्हणत तें तशेंच भयणिलें कुडींत गेलें. दार बंद करून ताणें आपणालें कपडें बदलले. वेवस्थित ते घडी करून पोतयेंत दवरले. दार उक्ते करून भायर येयलें. न्हाणेत वचून हांत-पांय धुयले आनी रांदचे कुडीत येवण ताणे भयणीक विचारलें, 'बायें, तुजी मांय खंय गो...?'

'थंय भायले कुडींत आसा.'

रेणू भायले कुडीत येयलें. मीराली मांय खाटीर न्हिदिली. ती भोवच भागिल्ली. रेणूक दिसलें, मनशाचे जिणें फुकट. हांत-पांय हालतामेरेन तो मनीस. एक फावट हांथरूणार पडलो, काय ताचे जिणें मागीर कोणाक नाका. ताका याद जाली. बायेल्या लग्नातेपार ती कसली घट्टमुट्ट आशिल्लीं. आंगान थाली कशी, माटवात उबी रावल्यार पुराय माटव भरतालो... आनी आतां? हाडां आनी चामडी एक जाल्यात. वाऱ्याचो भाव जावन हांथरुणार पडल्या बावडी.

'बरी असां मू गे मामये...?'

'कोण पुता....?' तिणें दोळे उक्ते केले. पळयल्यार रेणू.

'रेणू, बरें आसा मुगो....? खूब तेपान येयलें मूगो...'

'हय..'

'बस, खाटीर बस!'

रेणू ल्हवूच तिचे बगलेन खाटीर बसले.

'आई आनी बाबा भायर पडिल्ली तेन्ना येयन दिशिल्लें गो पुता.. पूण कशें येतलें ? म्हगेलें जिणें हें पळय, काळदुस्मानाक लेगीत नाका..' तिणें पिरंगत उलयलें आनी एक खोल स्वास घेयलो

'आसू.. आसू.. आमी नकळो तुजी परिस्थिती.. ?' रेणून समजिकायेच्या सुरात म्हळें.. ' आतां तू बरी आसा मगे ?'

'बरें आनी कितें ! तसलेंच तें !' ती सुस्कारली. 'देवान याद केली ना म्हूण दोळे उक्ते आसात.. बेगीनच याद केल्यार पुरो आशिल्ली.'

'अशें कित्याक म्हण्टा तूं...?' रेणून तिचो हात हातांत घेयलो.

'हांव अशें आड पडिल्ल्यान सगल्यांक तरास न्ही पुता.. तुगेली भयण घोवा बगलेन सुशेगाद आशिल्ली. ताका बावड्याक म्हजे सेवेक हांगा रावचें पडलें ना? कितलो तरास ताका! आतां तें पोर बरें म्हूण बरें आसां. काडटा तरास! उमेदीचे वय न्ही तागेलें ?.. देखूनच म्हण्टा पुता, देवान बेगीनच याद केल्यार पुरो आशिल्ली.' ती कांयशां वितरागान उलयली. इतलें उलयतां मेरेन तिका खरस मारिल्ल्याभाशेन जाल्ली.

रेणूक दिसलें, पळय न्ही. हिच्याकूय म्हाल-म्हातारे अजून घट्टमुट्ट आसात. शेता-भाटांत घोळटात. साठ वर्सा परस चड पिराय आसची ना हिगेली. साठ वर्सा म्हळयार कांयच न्ही. एक एकल्याचे नशीब तें! आमगेली बाबा आनी आई गेलीं ना नेण्ट्या पिरायेर..!

'हांव मागीर येतां तुजेलागी उलोवंक हां... आतां मातशें तांका मदत करतां वावराकं...' तिचे खाडकेक हात लावन एखाद्या ल्हान भुरग्याक सांगिल्ल्यावरी, ताणें मायेमोगान सांगलें.

'ती करतलीं. तूं बस'

‘नाका, आसूं. मातशी मदत करतां तांका.. मागीर येतां...’ अशे म्हणत तें रांदचे कुडीत येयलें... ‘मामी म्हूण साप्प हाल्ल्या. कायच ना तिका. उल्ल्यात फकत हाडां आनी चामडी.’

‘हय गो, म्हाका तर रडूकंच येयलें तिका पळोवन. आनी ती बेजारतां गो एकूच कडेन पडून.. हांकां सांगून गोंया चार दीस व्हरून दवरून घेतां तिका..’

‘सादारण देड-दोन वर्सा जाली ना गो ती हांथरूणार पडून?’

‘हय.’

इतल्यांत भायल्यान ‘हुनेऽ, ए हुनेऽ’ म्हणत मीरालो देर मारूती येयलो. येयलो तो सोमतोच रांदचे कुडीत. ‘ही घे...’ ताणे हुनेक हाताताली पोती दिली. रेणूक पळोवन तो मुंमुरखोच हांसलो... ‘सोयरे येयले मूं तर..’

रेणूक तागेलें तें हांसप मात्तूय मानवलें ना. बांयजण खंयचो! ताणें मनांत म्हळें.

मारूती चुलीकडेन गेलो. पोळयां चोबयातलो एक पोळो घेयलो. थंयच एक म्हणय आशिल्ली. ताचेर बसून पोळो खावंक लागलो... ‘आयज नाटकाक या मुगे हुने... बाये आयज नाटकाक या मुगो.. ’ ताणें एक फावट रेणूक भितल्या दोळयांनी पळयत म्हळें.

‘लीलाताई, तुगेलो मांवबीन येयलो ना गो?’ रेणून मुजरत विशय बदलिलो.

‘गोरवांबीन आसात न्ही.. कसो येतलो... आनी म्हगेली मांय हांगा ना न्ही.. थंय पणजे आसां.. तूं नकळो, ती बरी ना म्हूण आमकां रकाद धाडलो आनी आमी रोखडीच येयली. मागीर हाणें तिका रोखडोच पणजेत व्हेलो. आतां तीं बरीं जावन येता म्हळयार म्हजी सुटका ना.’

‘जाणां हांव.. सांगिल्लें बायेन.’

‘.....’

‘भुरगीं थंयच आसात न्हीं ?’

‘हय. व्हडलें एस. एस. सीक अंदू. अभ्यास सोडून वचूंक मागनात खंयच! परीक्षा लागी येयली. अभ्यासाचो घडमार. हांव ना जाल्ल्यान सामकी बेजारतलीं भुरगीं...’

‘आनी चेडूं कितलें शिकता?’

'तें णवेक. फुडल्या वर्सा एस. एस. सी. तेंवूय पुस्तक सोडून एक मिनीट बगलेन वचूंक मागना! भुरग्यांक तरास जातलो थोडो! परीक्षा लागी येयल्या म्हूणच..'

रेणूक दिसलें, पळय न्ही. लोक कशे परीक्षेक म्हत्त्व दितात. आनी हांव? अण्णा म्हण्टा तें फट न्ही ! आमका शिक्षणाचें, अभ्यासाचें म्हत्त्व कळळेंच ना!

'माँ.. माँ... भायर दोगजण कोण येयल्यात... ' मीरालो चेडो बोवाळ घालीत भितर येयलो... 'दोग दादले येयल्यात..'

'पळय रे, कोण येयल्यात ते... हांगा बसून कितें करता, चल. 'मीरान देराक ताणशेत सांगलें.

'सोयरे आसतले. आनीक कोण येतले परबे दिसा?' अशें म्हणत तो उठून भायर गेलो.

'बायें, म्हाकाय कितें काम दी गो...'

दिंता दितां... थोप मातशें..' म्हणत मीरा भायर कोण येयल्यात तें पळोवंक गेलें.



मीराल्या घराफाटल्या बांयचें उदक हाडून रेणू न्हाणयेतलें भाण भरतालें...

बांयच्या फाटल्या घरा सोप्यार, खुर्ची सोडोवन एक चेडो बशिल्लो. ताच्या हातांत एक पुस्तक आशिल्लें... पूण तो पुस्तक वाचतालो . काय पुस्तक वाच्चेलें नीब करून आपल्याक पळोंवक बसला, हें रेणूक कळनाशिल्लें. रेणूली नदर ताचेर वचतसावन तें ताका तिरशे नदरेन बारीक पळयतालें.. तो रेणू उदक भरून व्हरतामेरेन ताका दोळ्यात भरून घेतल्या भाशेन थीर नदरेन पळयतालो... ताणें अशें केलें, काय रेणूक हांसूक येतालें.

भावोजीली भयण लीलाताई माडा आळयांत जेविल्लें उशट्या ताट धुयताली. भाणात बिंदलो रकोवन परतून येतना रेणून ल्हवूच लीलाताईक म्हळें, 'लीलाताई, तो ऽ थंय पळय. फाटल्या घरांत खुर्चेर एक चेडो बसला.. पुस्तक वाचचेलें नीब करून कसो म्हाकाच पळयतां पळय... हांवें ताका पळयलें, काय नदर बेगोबेगीन पुस्तकांत लिपयतां पळय हां....'

'खंय तो....?' लीलाताईन नदर वयर करून पळयलें. 'तो दिवाकर मूगो.. तुका पळयता?' 'तूंच पळय मुगो..' अशें म्हणत रेणू उदक हाडूंक बांयचेर गेलें... ताणें राजवाची गुळकी बिंदल्याक

घाली. घर घर घर घर करून तो वयर काडलो. गुळकी काडून बिंदलो उखलून, हांडीर माल्लो आनी घेवन येवंक लागलें... लीलाताई थंयच माडाआडसाराक बागवोन रावोन दिवाकराक तेळयत आशिल्ली... 'हय मुगो.. तुजवेली नदर बगलेन करीना..'

'हांगाच राव.. उदक भाणात रकोवन येतां..' म्हणून रेणू भितर वचून उदक भरूंक लागलें.. दिवाकर परतून तसोच दोळयांत भरून घेतल्याभशेन पळोवंक लागलो...

'तूं बरेंऽ दिसलें ताका, आवडले दिसता.. ' लीलाताईन बिंदलो भरून घेवन येतल्या रेणूक म्हळें. आनी व्हडाव्हडान हांसली. 'विचारू ताका, तुजेवांगडा लग्न जाता काय म्हूण...' तिणें आनीकूय व्हडान हांसत म्हळें.

'तो मेलो माकड म्हजेवांगडा लग्न करतलो.'

'अ गो पापया, काय बरो भुरगो मुगो भांगरासारखो! असलो मेळटा..?' अशें म्हणत तीं घरांत गेलीं. फाटल्यान रेणूय गेलें.

'कोण भांगरासारखो..?' मीरान विचारलें. तें रांदचें कुडीत चेड्याक जेवयतालें.

'दिवाकर गो, विश्रांतीबायेलो.. रेणूकच पळयत आसा. परतून परतून पळयता. हांवें म्हळें, तूं आवडलें दिसता ताका. देखून पळयता तशेतरेन.. हांव विचारतां रेणुलागी लग्न जाता कांय म्हूण...'

मीरा हांसलें.

'आतां परतून पळयल्यार फातरच शेवटिता ताच्या दोळयांबरोबर...' रेणून म्हळें.

'कापस्ताद तुजीं. तुवें शेवटिचें फातर ताचेर...' लीलाताई फकाणानी उलयलें.

'आगो, शेंवटीतय तें. तसलेंच तें आवटें...!'

लीलाताईन रेणूक विचारलें, 'आनीक कितलें उदक जायगो..?'

रेणून भाणात पळयलें.. आनीक एक बिंदल्यान भाण भरता.. 'दोन बिंदले पुरो..'

'हांवुय येतां...' म्हणत लीलाताईन थंयचोच भरिल्लो आशिल्लो एक बिंदलो भाणांत रकयलो आनी ती रेणूवांगडा भायर सरली.

'एऽ दिवाकर, कितें वाचता रे...? लीलाताईन ताका मुजरत हटकिलें.

'आं... कितें लीलाबाय..?' म्हणत तो खुर्चेवेल्यान उठलो.

'कितें वाचतां म्हळें...'

तितलेंच निमित्त घेवन तो बांयसामकारा येयलो.. पुस्तक गो कालच्या नाटकाचें...'

'तूं नाटकाक गेलो ना...?'

'ना. तूं गेल्लें...?'

'हय तर, बरें जाल्लें नाटक.'

रेणून ताका बरे करून नियाळळो. तो एक शिवडी उंच आशिल्लो. काळोसावळोच. ओठांर बारीक मिशो. ताणें पट्ट्या पट्ट्याचीं लुंगी न्हेशिल्ली आनी आंगार बरें नवें ताल्ल बानयन घातिल्लें. रेणून मनांत म्हळें, परबेक लागून मुद्दम नवें बानयन घेतलां आसतलें.

तो तिरशे नदरेन रेणूक पळयत लीलाताईकडेन उलयतालो..

लीलाताईन रेणूकडेन बोट करून म्हळें, 'हाका वळखता रे तूं...?

'हय, हय.' करत तो मुमुरखोच हांसलो. तकली सकयल घालून बेठोच आपल्याभितूरच लजेलोसो कोलो.

रेणून मनांत म्हळें, 'हो वळखता म्हाका ? हाचे तोंड तर ह्यान आदी केन्नाच हांवें पळोवंक नासलें.

दोनूय बिंदले रेणून भरून काडले. तातुंतलो एक बिंदलो हांडीर मारून तें सटसटीत चलुंक लागलें.

'बरें रे...' म्हणत लीलाताईन बिंदलो हांडीर मारलो आनी तेवूंय चलूंक लागलें... आपल्यांतच मुमुरखें हांसत..

घरांत भितर पावतकीर रेणून ल्हवूच विचारलें, 'लीलाताई कितें करता गे तो..?'

'पुस्तक वाचता पळयलें ना..' तिणें बिंदलो सकयल दवरत म्हळें. रेणू हांसलें... 'तशें न्ही गे.. फकाणां करूं नाका...'

'तो हांडीवेलो बिंदलो आर्दी सकयल दवर.. मागीर सांगतां...'

बिंदलो सकयल दवरून रेणून म्हळें, 'सांग'

'तुकाय तो मानवलो ना मुगो...? मानवल्यार सांग. 'लीलाताईन परतून फकाणां केलीं.

'शीऽ! नाका जाल्लेंच तुगेलें...!'

'आयक, तो कारावारा खंयतरी फॅक्टरीत सिर्व्हिसेक आसा. भाचो तो हयसरचो. तें फाटलेवटेनचे घर ताच्या मामाचें. ताचें स्वताचें घर रामापुरांत.. आनीक म्हायती जाय...?' लीलाताईन रेणुले फाटीर हात दवरीत म्हळें.

रेणू मात कांयच उलयलें ना. ओग्गी रावलें.



मीरान च्यायेचो कप रेणूलागी दीत म्हळें, 'ही च्या व्हरून भावोजीक आनी मारूतीक दिवन यो.'

रेणू दोनय कपां घेवन भायर येयलें.

माटवात भावोजी आनी भावोजीलो भाव मारूती उलयत बशिल्लें, 'हो घे...' म्हणत ताणें एक कप भावोजीक आनी एक मारूतीक दिलो.

रेणून ल्हवूच म्हळें, 'भावोजी हांव वयता घरा..'

'राव गो दोन दीस...'

'हुनेन आयज यो म्हणिल्लें...'

'म्हणूं गो.. हांव सांगता तुजे हुनेक. राव दोन दीस. कालच येयिल्लें तूं आयज वयता...? फाल्या लग्न जावन घोवा घरा गेलें उपरांत खंय मेळटलें तुका हांगा येवन रावंक...! हांव सांगतां आयक. राव आयज.' भावोजीन आग्रो करून सांगलें.

'पळय भावोजी इतलो आग्रो करता. ताचे तरी आयक. आमी सांगल्यार आयकुचें नाच्च.' दोळे बारीक करून मारूतीन रेणूक पळयत मुंमुरखें हांसत म्हळें.

रेणूक दिसलें, हाका मदी उलोवकंच जाय आशिल्लें...?

इतल्यान लीलाताई खंयच्यान नेणो आबोलेंफुलांची दाली आनी व्हायो घेवन येयली. सोप्यार थंयच फतकल मारून ती बसली. आंगठ्या बोटांक व्हायो घुठलावन, ती फुलां फाती गुंथूक बसली. म्हण्टकच रेणूय ताचे मुखार येवन बसलें.

भावोर्जीन लीलाताईक म्हळें, 'बाय, तुजे गुर्ताक कोणूयबरो चेडो उरल्यार सांग गो. गोंयात नातर तुमच्या गावांत..'

'रेणूखातीर मुरे....?'

'आनीक कोणाखातीर?'

लीलाक दिसलें, हेमी गांवभर रेणुखातीर सोयरीक सोदतात. व्हदळ आमी दिवाकरांबद्दल उलोवन फकाणां केल्लीं.. दिवाकराकूच रेणुखातीर विचारल्यार कशें ? बरोऽ भुरगो. रेणूक फावो सारखोच आसा. असलो सादो आनी भावार्थी भुरगो सोदून मेळपाचो ना. घराब्यानूय बरो. आवय बापुयबीन बरीं मनशां. सगलेवटेन बरें. कित्याक विचारनये...?'

'श्रीकांता, तुमी विश्रांतीबायेल्या दिवाकराक कित्याक विचारनात? बरोऽ भुरगो आशिल्लो तो.'

'फाटल्या घरच्या विश्रांतीबायेलो गोऽ?'

'हय रे..'

'लीलाताई, पुरो गे फकाणां..' रेणून मदीच हातान दावकुल मारिल्लेभाशेन करत म्हळें.

'फंकाणा न्ही गो, खऱ्यांनीच सांगतां हांवः'

रेणू बेठेंच लजलें 'ओगी राव गें,' म्हणत झुप्प करून उठून भितर गेलें.

श्रीकांतान येवजिलें, बाय म्हणटा तशें विचारल्यार जातालें.. ना म्हळयार रेणूक हाचे परस बरो घोव खंय मेळटलो ?

'तूं म्हण्टा तशें विचारल्यार जातालें..'

'विचारात मुरे...'

'आदी मीराक विचारू यां.. मीराऽऽ ए मीराऽ'

मीरा चुलीम्हऱ्यांत बशिल्लें. रेणून ताका सांगलें, भावोजी आपयता गो.'

'कितें ?' म्हणत मीरा भायर येयलें. कित्याक आपयिल्लें?'

'बस थंय. सांगतां...'

तें थंयच सोप्यार बसलें.

'रेणूखातीर विश्रांतीबायेल्या दिवाकाराक विचारल्यार कशें ?'

'तुमी फकाणां करतात काय खऱ्यानींच उलयतात...?'

'फकाणां न्ही गो...'

'वायट न्ही, भुरगो बरोऽ तो.'

'विश्रांतीबायेले तीगूय चेडे बरेच! तेंवूंय बरें आनी ताचो घोवय बरो!'

'सगले बरेच! वायट कोण आसा ह्या संवसारांत!' मारूतीन मदीच चोचरगट उलयलें.

'आता वचून विचारू..?'

फुलां गुंथता गुंथता लीलान म्हळें, 'विचारूं म्हळयार कितें....? विचारपाचेंच! बऱ्यो गजाली जाता तितले बेगीनच करच्यो खंय..''

'दिवाकरय येयिल्लो आसा. विचारात..'

श्रीकांतान तकली हालयली.



दार उक्तेंच आशिल्लें, पुणून घरात कोणच दिश्टी पड नासलो. घरांत तकली रिगोवन श्रीकांतान पळयलें... कोण ना. इतल्यांत फाटलें वटेन 'बाऽ बाऽ' करून कुकडांक आपयिल्लो आवाज येयलो. 'कोण गा घरात?' श्रीकांतान दारातल्यानच सादयलो.

'कोण...?' भितरल्यान जाप येयली आनी लुंगी कवळटेर दिवाकरच भितरल्यान भायर येयलो.. 'अरे यो. बस.'

'आजो ना रे घरात...?' म्हणत श्रीकांत एका कदेलार बसलो.

'ना. गोरवांक बांदूक गोठ्याकडेन गेला. सोडून घातिल्लीं गोरवां येवची जालीं न्ही.'

'हय. सांज जाली.'

'फाटले वटेन 'बाऽ बाऽ' करून आपवपी यमून मावशी न्ही...?'

'हय हय'

'कुकडांक धापता?'

'हय'

'.......'

'असोच येयिल्लो मरे...?'

'इल्लें उलवचें काम आशिल्लें...' इतलें उलोवन तो थांबलो. मागीर म्हणूंक लागलो.. 'तुजेलागी उलयल्यारूय जाता रे तें.'

'उलय मरे... मुखावेल्या कदेलार बसत दिवाकरान सांगलें.

इतल्यांत घरांतल्यान दिवाकराली आजी यमून मावशी 'कोणा लागी उलयता रे...?' म्हणत भायर येयली. 'श्रीकांत रे...!' श्रीकांताक पळोवन तिणें म्हळें, '.... तिनसांजचे कातरेर पावलो असो...'

'उलवचें इल्लें काम आशिल्लें तुमचे लागी.'

'बरेंच काम मरे...?'

'हय बरेंच' अशें म्हूण श्रीकांत कांय खीण ओगी रावलो. ताच्या मनात येयलें, दिवाकराल्या आज्याकडेन म्हादेवदादाकडेन उलोवया काय हांचेलागी... ! म्हादेवदाद येतापसून वाट पळया म्हण्टा? मागीर ताका दिसले कित्याक बेठेंच? हांचे लागी उलयल्यारूय एकूच ते. तरीय ताणे विचारलेंच 'म्हादेवदाद येतलो बेगीन गोरवांक बांदून...?'

यमून मावशी मातशी अडखळली. तिका कितें सांगचे म्हूण कळ्ळेंना.. मागीर ल्हवूच म्हणूक लागली. 'सांगूक जायना. गोठ्या खंयच्यान भायले भायर खंय गेल्यार गेलो. तांगेलें आसता न्ही तें, तीनसांजचे इल्लें 'गुट्ट' करचें...'

'हय हय' म्हणत श्रीकांत हांसलो.

'कितें उलयता गे तूं...? आयज ताका सोमार न्ही ? आयज तो नुस्तें लेगीत घरात हाडना. 'दिवाकरान याद करून दिली.

'हय रे बाबा! हय! म्हाका पापणीक यादच ना! आयज सोमार ताका! 'थंय' वचचो ना तो!'

मागीर श्रीकांतान येवजून सांगलें, 'आसूं, तो येता तेन्ना येता! आमी उलोवया...' पुणून ताका खिणभर कशें सागचें म्हूण कळळें ना. ...'हांव हाका येयिल्लो...' इतलें उलोवन तो थोपलो. मागीर मातशी उसरपत घेवन ताणें म्हळें, '.... विश्रांतीबाय लग्न करता खंय दिवाकराक अंदू...?'

'अं.. अशें म्हण्टालें तें पयर येयिल्लें तेन्ना!'

श्रीकांतान दिवाकराकूच विचारलें, 'दिवाकर जाता रे अंदू...?'

तो लज्जेलेसो केलो. मिशांतूच हांसलो. पुणून कांयच उलयलो ना. ताचे तोंडावेले भाव मात हयकार कळयताले.

यमुनमावशेन श्रीकांताक विचारलें, 'तुगेलो कोणूय आसा...?

'हय, म्हणूच येयिल्लो'

'कोण रे?'

म्हगेली मेवणी आसा न्ही...'

'ती हांगा येयल्या, ती न्ही..'

'हय, हय. एकूच मेवणी म्हाका.'

'जाणां.'

दिवाकराक दिसलें, आपणाल्या काळजाक कोणतरी खातकुल्यो करता. ताणें सकाळीच ताका पळोवन येवजिल्लें, हाचेकडेन लग्न जाल्यार बरें जाताशिल्लें, आंगलोटान घट्ट मुट्ट, सुंदर सोबीत कशें आसा. ते बगर शेतकामत्यालें चेडू. तांगेर जिस्ताजिस्त फावता आशिल्लें. ताका खिणभर दिसलें, सट्टकरून सांगून उडोवंचें, म्हाका पसंत आसा. तुम्ही फुडल्यो गजाली पळयात.

श्रीकांतान दिवाकरालें मत जाणून घेवपाखातीर मुजरत विचारलें, 'दिवाकरान ताका पळयला... न्ही रे...?'

'हय. हय' आपणाली भावना चिड्डींत तकली सकयल घालून ओठांतल्या ओठांतच तो उलयलो.

'तुका आवडपा सारके आसा मरे...?' श्रीकांतान मातशे खडूनच म्हळें. दिवाकर पुराय घुस्मटिल्ल्याभाशेन जालो.

ताचेर संकश्ट.. आतां ताका तोंड उगडचेच पडलें. ताणे बेगोबेगीन म्हळें, 'तशें म्हाका काय ना. आईन आनी बाबान केल्लें जालें.. तुमी सगळयांनी केल्लें जालें...'

'म्हगेल्या विश्रांतीलीं पोरां आवय-बापायल्यां उतरां भायर नात.' यमून मावशी रोखडीच व्हडां व्हडविकायेन उलयली.

'तूं केन्ना वतलो घरा....?'

'फाल्यां, फाल्यां सांजची शिफ्ट आसा म्हाका?'

'आमी फाल्यां जातक घेवन येंव तर...?'

'वचात तुमी वचात.'

'म्हादेव दादाक सांगचें पडटलें?' तागेलें मत कितें तें पळोवंचे नाका?'

'शीऽ! तांका तशें कांयच ना. तुगेलें मावड्डे आमी जाणांत रे! तुगेलीं मांय-मांव भांगर मनशां आशिल्लीं. घराबेय बरे तांगेले! तुगेल्या बायलेले गूण आमी जाणांत न्ही. व्हडल्यां भयणी भाशेनच धाकले भयणीक देख आसतलीं, तें आनीक सांगूक जाय...? पळयल्यारूच कळटा! पोर शिटूक आसा....!'

आंगणात चर्रर चर्रर चामड्यांजोती वाजलीं.

'आजो येयलो आसतलो... म्हणत दिवाकरान भायर पळयलें..' 'हय, येयलो. हो पळय.'

आंगणांत जोतीं काडून दवरून म्हादेव दाद मेटलां चडून वयर येयलो. श्रीकांताक पळोवन दारातल्यानच ताणें म्हळें, 'श्रीकांता कितें...?'

'तो मेवणेलो जातक हाडटा खंय दिवाकराक...' यमून मावशेन म्हादेवदाद दारातल्यान भितर वचचे आदीच सांगून उडयलें.

'बरें आसां! जाता...!' म्हादेव दादान सट्ट करून सांगलें.



रेणू घराकडेन पावलें तेन्ना, अनसुया दातोणी घेवन आपणालें केस बरगीत सोप्यार बशिल्ली. रेणूक येता ती पळोवन, तिणें बेठेच तोंड मुड्डिलेंशे केलें आनी ना पळयलेंशें करून सकयल पडिल्ल्यो उयो 'स्स स्स' करीत मारूंक लागली.

'रेणून जोतीं काडत हटकिलें. 'हुने....'

अनसुयान ना आयकलेशें केलें. दातोणी थट्ट थट्ट करून सोप्यार धाडयलीं. तातूंतल्यान उयो झडल्यात काय म्हूण बारीक साणेन पारखिलीं. आनी परतून केंस बरगूंक लागली.

रेणू मेटलां चडून वयर येतकीर मात तिणें म्हळे, 'अगो, तुका काल यो म्हणिल्ले मुगो?' काल येयलें ना कित्याक गो...? तूं म्हगेली परिस्थिती जाणा आशिल्लें मूं...?' तिगेल्यां उतरांतलीं तिडकेची धार जिस्त होलमताली.

'अगे, हांव कालच येवचें! भावोजी म्हणूंक लागलो. राव! ताचें उतर कशें मोडप...?'

ती मनातच खुसमुसली, 'भावोजीलें उतर मोडूंक जायना! हुनेलें उतर मोडल्यार जाता! भावोजीच सगळें करता न्ही! हुनी कांयच करिना..!

रेणू भितर येयलें.. रेणूक पळोवन माजर खंयच्यान नेणो धावत धावत येयलें, आनी पांयांक घश्टूंक लागलें. रेणून ताका 'हें मरूंगो' म्हूण पांयानच कुशीक उडयलें. न्हाणयेंत वचून हांत, पांय तोंड धुवन भायर येयलें. कुडींत वचून नवी मुस्तायकी बदलून घरा घालचेले कपडे घाले आनी भायर येवन अण्णा घरांत आसा काय ना, हाची सुलूस घेवंक लागलें... पुणून अण्णा ताका घरात खंयच दिश्टी पडलो ना.

तें ल्हवूच हुने म्हऱ्यांत येयलें, 'हुने, अण्णा खंय गे..?'

अनसुयान ना आयकलेंशें केलें. जाय जाल्यार पळय खंय आसा तो... अशें मनांत म्हणून ओग्गी केंस बरगीत रावली.

ही सांगची ना. आपणेंच पळोवया अशें येवजून तें बागांत गेलें. बागभर पळयलें. अण्णा खंयच दिश्टी पडलो ना. तें तशेंच फाटल्या पोरसांत गेलें. थंयबीन तो नाशिल्लो. मागीर तें गोठ्यांत येयलें. थंय पळयल्यार अण्णा गोठ्यामाळयार चडून सुकें तण सकयल उडयतालो.

'अण्णा...'

'रेणू, काल येयलें ना कित्याक गो...?'

'भावोजीन राव म्हूण आग्रो केल्यार हांव कशें येवं ताचें उतर मोडून ?'

'भालचंद्र ओगी रावलो. तण सकयल उडोवन जातकीर, तो उडी मारून सकयल देंवलो.

भावान सकयल उडयिल्लें तण काडून रेणून आण्णीत घालें.

ताणें मागीर ल्हवूच म्हळें, 'अण्णा, म्हाका भावोजीन सांग म्हणिल्लें...

'कितें...?'

'भावोजील्या घराफाटल्यान तें एक घर आसा मरे... म्हादेवदादालें..'

'हय. कितें जालें मागीर?'

'त्या म्हादेवदादालें चेडू विश्रांतीबाय म्हूण खंय रामापुरांत दिलां.'

'हूं जाणां.'

'तागेलो व्हडलो चेडो खंय लग्नाचो आसा. अंदू खंय ताका करतात लग्न. काल भावोजीनच वचून त्या म्हादेवदादागेर विचाल्ले. तांणी जातक घेवन वचात म्हळां खंय...'

'......'

'भावोजीनय आयज जातक घेवन येतां म्हणिल्ले खंय तांकां...'

भालचंद्रान येवजिलें, वायट ना, बरें आसा. लागी आशिल्लें! मीराभाशेन हेंवूय लागीच पडल्यार म्हाकाय बरें जाताशिल्लें...! 'भावोजीन आयजच येतां म्हणिल्ले म्हळयार, म्हाका आताच वचप बरें दिसतां...'

'.....'

तूं चल, इल्लें च्यायेक दवर. हांव येतां गोठ्याक देडपो लावन.'

रेणू धावतच मुखार येयलें... ताच्या दोळयांमुखार खिणांतच विश्रांतीबायेलो दिवाकर उबो रावलो. पट्ट्या पट्ट्याची लुंगी न्हेशिल्लो, धवें फिट्ट बानयन घातिल्लो. पुस्तक वाचपाची नीव करन थीर नदरेन ताका पळवपी. 'हाका वळखता रे...?' म्हूण लीलाताईन विचारतकीर 'हय. हय' म्हूण मुमुरखोच हांसपी, तकली सकयल घालून लज्जेलोसो करपी... ताका मागीर व्हडा व्हडान हासुंकच येवंक लागलें. पुणून ताणे तो हांसो तसोच चिड्डून धरलो.

तें घरात येयलें. बेगोबेगीन रांदचे कुंडींत वचून ताणें चुलीत बरो उजो केलो. च्याचे तोपांत उदक घालून, आदन दवरलें. उदक गरम जातकीर साखर घातली. मातशें सळसळटकीर च्याचो पावडर उडयलो. मागीर बरो खतखतकीर तोप बानशिऱ्यान धरून सकयल काडलो.

इतल्यांत भालचंद्र येयलो. ताणें हात-पाय धुयतां मेरेन रेणून दूद घालून कपांत च्या रकयली.

'हीं घे.....'

भालचंद्रान बेगोबेगीन हांत-पांय पुसून च्यायेचो कप तोंडाक लायलो.

रेणू एक कप उखलून हुनेक दिवंक भायर येयलें. थंय पळयल्यार हुनी नाच्च.. खंय गेली ही? आतां हांव च्या करतना भायर हेक्क हेक्क करताली. गोरवां आमडूंक गेली काय? ताणें नदर चोंयवटेन घुंवडोवंन पळयली पूण हुनी ताका लागीसाराक दिसली नां. 'ख़ंय गेली हुनी...? म्हणत तें कप घेवन भितर येयलें.

'ना भायर...?'

'ना.'

इतल्यांत अनसुया फाटल्यावटेन येयली.

'हें पळय फाटल्यावटेन येयलां.'

रेणून कप हाडून तिका फाटलेवटेन दिलो.

'रेणू, गोरवां येयलीं बरोबर बांध हा तांकां...' भालचंद्रान च्या पितां पितां म्हळें

च्या पिवन भालचंद्र वासरेर येयलो. आंगार मुस्तायकी चडयली. रेणुलें जातक दवरिल्लीं

प्लॅस्टिक पोती घेतली. कुलदेवाक हात जोडले, 'देवा, पाव तूं. हे तरी काम जाग्यार पडूं...' आनी तो भायर सरलो. पांयांत चडोवन 'येतां हां...' म्हणत चलूंक लागलो...



भालचंद्र आकाडो बलांटून आंगणांत येयलो. माटवात विश्रांती व्हीर तासत बशिल्ली. ती व्हीर तासपाचे तनरेत आशिल्ल्यान तिका तो येवन माटवांत पावतामेरेन होलमूंक ना.

'व्हीर तासता गे सान्न करूंक...?' भालचंद्रान तिका हटकुवपाक म्हूण म्हळें.

'आं! यो' अशें म्हणत ती हाताल्तीं सुरी आनी व्हीर थंयच दवरून बेगोबेगीन पदर सारखो करीत उठली.

माटवांत थंयच एक खाट मांडिल्ली आशिल्ली. भालचंद्र ताचेर बसूंक गेलो...

'थंय बसू नाका, भितर यो.' अशें म्हणत, ती भितर गेली.

भालंचद्र पांयांतली जोतीं काडून दवरून भितर वासरेर येयलो.

'बस'. म्हण्टकीर एका कदेलार बसलो.

'कोण गो...?' भितरल्यान आवाज येयलो.

'श्रीकांतालो मेवणो येयला.' अशे म्हणत ती भितरल्या कुडीत गेली. घोव थंय एक ट्रंक उक्ते करून सांसपितालो. 'बस म्हण ताका. येतां...'

ती भायर येयली. 'बस हा मातसो. येयले.'

'परतून भितर येवन तिणें घोवाक विचारलें, तुमी जातक सोदतात मूं...?'

'हय.'

'मेळ्ळें?'

'हय. हय. हें पळय...'

सोमणान जातक काडून बायलेकडेन दिलें. ट्रंक बंद करून परतून व्हरून आपणाल्या कुडीत दवरलें.

'हांगा हाड तें जातक' म्हूण ताणें तें बायलेकडच्यान परतून घेयले. आनी तो भायर वासरेर येयलो, 'बरो आसा मरे...?'

'हय. तूं बरो आसा न्ही...?'

'आसा देवा दयेन...!' म्हणत तो मुखावेल्या कदेलार बसलो. चेड्यान सांगिल्लें, आयज तुमी कोणय जातक घेवन येतले म्हूण...'

'चेड्यान...?'

'हय. तो थंय मामागेर गेल्लो म्हातनाक. तुगेल्या भावोजीनच खंय तेन्ना विचारलें. आयज सकाळी उठून तो येयलो. ड्युटी आयज ताका सांजेची! गेला ड्युटेक.!'

'अशेंऽ! चेंडो च गेल्लोऽ? तुमी गेले ना?'

'ना! ना! होच गेल्लो.'

'म्हगेलीय धाकटी भयणच गेल्ली. ताणेंच हो रकाद हाडलो.'

'सांगतालो चेडो.'

'म्हळयार...?' भालचंद्राक समजलें ना.

'चेड्यान गेल्लें पळयिल्लें खंय.'

'......'

'आपणाक मानवलें म्हूण सांगतालो. तुमी फकत फुडल्यो गजाली पळयात म्हूण सांगून गेला.'

भालचंद्राक आयकून सूऽ जालें. ताका दिसलें. एकवटेन बरें जालें! चेड्याक चेडूं पसंत आसा म्हण्टकीर ती एक कटकट मेकळी जाली. मागीर ताणें मनांत म्हळें, म्हगेली भयण पसंत ना जावंक कितें जालां? रंगान रुपान सोबीत! आंगलोटान बरे! फकत एस. एस. सी. नापास म्हूण तितलेंच! बरें शिकिल्ले आसल्यार कोणूय मागून व्हरताशिल्लो?

'हांव तुमगेलीच वाट पळयतालों. आता हें जातक सोदीत बशिल्लो भितर. कितें जालें जाणां ? आमी पयरूच उलयलें तें... अंदू चेडूं येयल्यार व्हारडिक करून सोडचे. चेड्याक अठ्ठावीस जालीं.

फाटल्यान ते दोगय मागीर ना...? तेंवूय दोगय रोजेक आसात. एका फाटलें. एक तें...!'

'......'

'तुगेले हें जातकच सुर्वेचें!'

'म्हगेली भयण तुमगेल्या ह्या घरांत जिस्त फावोसारखी आसा पळय. घोळूंक वागीण. शेतकामात्यालें चेडूं म्हण्टकीर, विचारचेलेंच ना पळय...!'

'आमकां तशेंच जाय! ही घरगिरेस्ती चलोवन व्हरतलें जाय...!'

मागीर भालचंद्राक बेठेंच दिसलें. चेडू एस. एस. सी. नापास म्हूण नाका बीन म्हणचे नात मूं ? सांगूक जायना, सगलें जातकीर ऐन वेळार नपास म्हूण नाका म्हळयार..? आदीच सांगिल्लें बरें. ताणें म्हळें, 'तुमका आदीच सांगता, म्हगेली भयण एस. एस. सी. नपास. परतून परीक्षेक बसल्या. अभ्यास करता..'

'नापास आनी पास! आमका खंय रोजेक धाडचेलें आसां...? मॅट्रीकमेरेन शिकल्या मरें? जालें! फाल्या भुरगी जातकीर तांका मातशें बरोवंक-वाचूक शिकोवंक कळल्यार जालें. आनीक कितें जाय?

'चेड्याक जाता मूं एस. एस. सी. नपास आसल्यार?'

'तो आमगेल्या सांगणेभायर ना.'

इतल्यान विश्रांती भितरल्यान च्या घेवन भायर येयली. 'घे' म्हूण तिणें च्याचो कप भालचंद्राक दिलो.

'सोमणबाब, तूं घे ना..?'

'तूं पी! तूं पी! हांवें आतांच घेतला.' अशें म्हणत तो उठलो. 'तूं बस. हांव मुस्तायकी चडोवन येतां...' म्हूण तो भितर गेलो.

भालचंद्राली च्या पिवन जाता मेरेन, तो मुस्तायकी चडोवन भायर येयलो. 'या मुरे जातक पळोवंक?'.

'हय. या!'

'क़ोणागेर या?'

'शंकर भटागेर या, तो बरो पळयता!'

'तुका जाय तशें..' अशें म्हणत, सोमण मादिवरत येयलो. ताचे फाटल्यान भालचंद्रय मेटलां देंवन सकयल येयलो. दोगांयनी पांयांक जोती घाली.

'येतां गो वचून...' सोमणान बायलेक सादयत म्हळें, आनी थेपलांचो चर्रर चर्रर आवाज करीत तो मुखार चलूंक लागलो...

भटाल्या घरा सामकारा पावतकीर भालचंद्राक दिसलें, देवाक पांय पडून मागीर जातक पळोवंक वचप बरें! ताचे मनात हें येतां थंय आसा, सोमणान झुप्प करून म्हळें, 'भालचंद्रा, आमी आदी देवाक पांय पडून येवया...'

'म्हगेल्याय मनात हेंच येयिल्लें..'

'चल या.'

शंकर भटाल्या घराबगलेच्या ग्रामपुरसा देवळांकडेन दोगूय येयले. देवळाच्या सभामंडपाभायर जोतीं काडून दवरलीं.

'पांय धुयन येवया न्ही..'

'हय.'

दोगूय देवळांमुखावेले तळयेकडेन येयले. भालचंद्र ल्हव ल्हव पावलां घालत एकेक मेटलां देंवन सकयल येयलो. 'ल्हवूच हां... निसरड जाल्या.. पांय निसरत बीन...' फाटल्यान मेटलां देंवतल्या सोमणाक ताणें म्हळें. निमण्या मेटल्यार दोगांयनी तळयेतल्या उदकान पांय धुयले. परतून मेटलां चडून वयर येवन ते देवळांत येयले. म्हालदरवाज्यामुखार लायिल्ल्यो घांटी घण् घण् करून वाजयल्यो. गर्भकुडीमुखार येयले.

देवा पुरसा, पाव! जातकां जुळल्यार पुरो! भालचंद्रान मनात म्हळें, आनी साष्टांग नमस्कार घालो.

शंकर भटाले चेडो देवळात येयिल्ल्याक तीर्थप्रसाद दितालो. दोगांनूय तीर्थ-प्रसाद घेयलो आनी देवाक प्रदक्षिणा घाल्यो.

‘भटमाम आसा रे घरांत....?’ सोमणान भटमामाल्या चेड्याक विचारलें.

‘हय. आसा.’

‘मातशें बसुया आनी मागीर वचुया...’ भालचंद्रान सोमणाक म्हळें.

दोगूय मातशे देवळांत पातळावन दवरिल्ले शेंदरेर बसले. ‘आतां या आमी..’ सोमणान म्हळें आनी दोगूय ताकतिकेन उठले.

देवळाभायर येवंन दोगायनी आपआपणालीं जोतीं चडयलीं आनी भटाल्या घराकडेन येयलो.

भटमाम घराच्या चौकेर बशिल्ले भायल्यान ज्युस्त दिश्टी पडटाले. ताच्या मुखार एक दादलो बशिल्लो.

दोगूय जोतीं बगलेन दवरून चौकेर येयले.

हांका पळोवन भटमामान म्हळें, ‘बसा, बसा.’

त्या चौकेर चोंयवटेनी वण्ट्यांक तेक्कून शेंदऱ्यो पातळावन दवरिल्ल्यो. थंयच एके शेंदरेर दोगूय बसले.

भटमाम मुखार बशिल्ल्या त्या दादल्याक किते कितें सांगतालो. भालचंद्राक खिणभर दिसलें. होवूय कोणालीय जातकां घेवन येयला काय...? पुणून रोखडेंच भटमामान त्या दादल्याक म्हळें, ‘... महामृत्यूंजय जप करचो पडटलो...! संकश्ट निवारणांखातीर! ह्या जपांनी आडमृत्यू टळटा...’ भालचंद्रान मनांत म्हळें, म्हटल्यार हो आमचे भाशेंन जातक जुळटां पळोवंक येयलो ना तर..!

‘जप केन्ना करू या...?’ त्या दादल्यान विचारलें.

भटमामान दोळयांक वक्ल लावन परतून एक फावट जातक नियाळलें, आपलें पुस्तक पळयलें, मागीर कॅलेंडरांकडेन पळोवन म्हळें, ‘सोमारा केल्यार कशें....? आयज मंगळार, येत्या सोमारा..’

‘ज़ाता.’

‘जालें तशें जाल्यार... सोमारा सकाळी न्हावन.. धुवन या, हांव सगलीं तयारी करून दवरतां...!

‘बरें!’ अशे म्हणत तो दादलो पांया पडून उठलो. ‘जातक?’

'जातक जाय हांगा! हांव दवरून घेतां...!'

'बरें! बरें! येता तशें जाल्यार!' म्हूण तो भायर सरलो.

'हां! तुमी कित्याक येयिल्ले?' भटमामान वक्लांतल्यान नदर मोखून हांका विचारलें.

'जातकां जुळटात काय पळोवंक ! सोयरिकेसंबंधान!' म्हणत सोमणान बोल्सातल्यांन जातक काडून भटामुखार दवरलें.

भालचंद्रानय प्लॅस्टीकापोतयेंतल्यान ल्हवूच भयणिलें जातक काडून भटाक दिलें.

भटमामान दोगाल्याय जातकांवेल्यान नदर घुंवडायली. फाटल्या कन्नेलाल्यान एक पुस्तक काडून उगडलें. बरें करून पळयलें. आनी म्हळें, 'हीं जातका बेंसबरीं जुळटात.. बत्तीस गुणांनी जुळटात!'

भालचंद्राक सूऽ जालें. देवा पुरसा, पावलों तूं! तो मनांतल्यानच परतून एक फावट पांयां पडलो. 'भटमाम, कितें दिंव?'

'तुमी दिल्ले आनी आमी घेतिल्ले...' भटमामान हांसत हांसत सांगलें.

भालचंद्रान बोल्सांतल्यान पयशांपाकीट काडलें. तो भटाक सव्वाधा रुपये दिवंक सोदतालो, पूण पाकिटांत धा रुपयाची नोट नाशिल्ली. फकत विसाची दोन आनी पन्नासाची एक आशिल्ली. ताणें पँटीच्या बोल्सांत चिल्लर पयशें मेळटात काय पळयलें. ताका तातूंत दोन पन्नास पयशांची आनी एक रुपयाचे नाणें मेळ्ळें. पाकिटातले एक वीस रुपयांची नोट आनी एक रुपयाचे नाणें ताणें भटामुखार दवरलें आनी पायां पडलो.

'हीं घेयात... बेगीनच म्हूर्त धरात..' अशें म्हणत हांसत हांसत भटमामान दोनूय जातकां भालचंद्राकडेन दिलीं.



भायलो वाठार पुराय काळखान पांगुरिल्लो. भालचंद्र अजून घरा पावंक नासलो. अनसुया कितलोसोच वेळ जालो घोवाली वाट पळयत सोप्यार बशिल्ली. खंय गेलो हो गृहस्थ...?' 'काळोख जातामेरेन भायर रावंक जाय?' मदी मदी सुस्कारे सोडिल्ल्याभाशेन म्हण्टाली.

रेणू वासरेर कदेलार पुस्तक घेवन बशिल्लें. पुणून पुस्तकाचेर लक्ष नाशिल्लें. तें हुनेक तेळयतालें. हुनेलीं आपणां भितरूच उलयिल्लीं उलोवणी आयकतालें.

रेणूक दिसलें, हरशी अण्णा खंयूय गेल्यार हिका अशेंतरेन करतना केन्नाच हांवें पळयलें ना. रातीन धा घण्टेमेरेन परतना जाल्यार सुदीक ही हुस्को करीना. आनी आयजूच हिका खंयचो हुस्को जाता ? कांय ना, म्हगेल्या सोयरिकेच्या कामाक गेला म्हूण हे सगळें! कमी ना ही बायल! ताणें मनांत म्हळें, 'देवा, पाव तूं. एक फावट काम जाल्यार पुरो. खंय खंय म्हूण हेडटलो म्हजो भाव? बेठेच म्हज्या पांयांन ताका तरास. ह्या असल्या सगल्या तरासांक लागूनच लोक आपणाक चेडू जावचे नाका म्हण्टात. एक चेडवाली सोयरिक जुळोवंक बारां जोती झरोवंची पडटात, अशें आदीं खंय जाण्टेले म्हण्टालें, तें फट न्ही! पुण हीं जोती चेडूकारांनीच कित्याक झरोवप? चेडवांक घोव जाय आनी चेड्याक बायल नाका...? कोणे घालून दिली पध्दत ही! ही न्ही नस्ती रीत दिली कोणे घालून? चेड्याचे बापूय कित्याक येनात जोतीं झरयत चेडवां सोदूक? ताका खिणभर दिसलें, आता अण्णा येयलोबरोबर सांगचें, 'अण्णा, हाचें उपरांत तूं सोयरिकेपासत तरास घेनाका. हांव लग्न जावचेच ना. लग्न म्हळयारूच कितें जिणेचो उध्दार न्ही. जिणें उध्दरचे आसल्यार आनीकूय खूब वाटो आसात.

दारांत जोतीं वाजलीं.

'येयले...? इतलो काळोख कित्याक?' सोप्यार बशिल्ल्या अनसुयान घोवाक पळोवन म्हळें.

रेणूक सूऽ जालें.

भालचंद्रान पांयांतलीं जोतीं काडटां काडटां म्हळें, 'क़ाळोख जाल्यार हरकत ना, गेल्ले काम जालें..'

अनसुया कांयच उलयली ना. रेणून मात कान लांब केले. अण्णा काम जालें म्हण्टा, काम जालें म्हळयार ज्युस्त खंयचें काम जालें...? चेड्याक हांव पसंत आसां, हें हांवूय जाणां.. जातकांक पडलें काय? कांय जातकाक पडटकीर दिवची घेवची सगलीं उलोवणीय जालीं? ना. ती सगली उलोवणी सोयऱ्या समदिकांमुखार जातात. जातकाक पडलें आसुंये.. देखूनच अण्णा काम जालें म्हण्टा. तेंच म्हत्त्वाचें! थंयच पुराय नडटा! जातकाक पडल्यार देव म्हजे उल्याक पावलो.

'आयकलें अनसुया, जातकाक पडलें. बत्तीस गुणांनी! रामापुरच्या सोमणाल्या व्हडल्या पुताक हें...!'

‘बरें जालें..अनसुयान तिऱ्हाईताभाशेन कसलेच विकार परगटायनासतनां म्हळें. भालचंद्राक
े प्रतिक्रिया मानवलीना. तो ओगी भितर येयलो.

रेणूक मात पटकन दोळयांक दुकां येयलीं. तें बेगीबेगीन देवाकुडीत गेलें. ताणें देवाक हात
ोडलें. ल्हवूच मनगटान दोळे पुसले, मागीर ताका सट्‌करून बाबाली आनी आईली याद जाली.
आनी दोळयांतल्यान चडच दुकां येवंक लागलीं. ताणें बळयांच पुसलीं आनी आपल्या भावनेक मेर
ालीं.

भालचंद्रान हांत-पांय येवन मुस्तायकी काडून वण्टीवेल्या खुंटेक लावन दवरली आनी तो
ासरेर येयलो.

रेणू परतून येवन पुस्तक घेवन कदेलार बशिल्लें. रेणुल्या हातात पुस्तक पळोवन भालचंद्रान
म्हळें, ‘कळळे मगो रेणू. तू परिक्षेक बसला म्हूण सांगला हांवे. तांका पास जावन दाखोवंक जाय.
देवाचें कृपेन जातकां जुळल्यात. चेड्याकूय तूं पसंत आसा.’

‘........’

‘.... फाल्यां सोमणबाब मावड्या वयतलो. तेन्ना भावोजीकबीन सांगतालो तो. उपरांत तेमीच
गोडकातली खावंचो दीस थारोवन सांगतलें आमका. ह्या लग्नाचे लागी लागी थारिल्ल्या भाशेंचन
समजुवपाचे!.... दिवचे घेवचे चड ओडून धरचे नात ते. ओडून ओडून म्हूण कितलेंशे ओडून धरतले...?
हांव कसोच हे थळ सोडचो ना.’ ताणें नित्सेवान म्हळें.

रेणूक आता बेठीच आपणाभितरूच लज लज कशी दिसूक लागली. ताचे तोंड लज्जेन तांबडें
तांबडें जालें. ताका आतां थंय भावामुखार रावप भोवच कठीन दिसूंक लागलें.

तें सटकरून उठून पुस्तक घेवन माळयेर येयलें. ताणे मनात म्हळें, हो दिवाकर आतां
म्हगेलो घोव जातलो! लीलाताई म्हगेली फकाणां करून दवरची ना आतां!’..... आनीक ‘तो आता
सदांच तुका पळयत रावतलो तूं ताका सदाच फातरान शेवटितले मुगो....?’ म्हण्टलें ताका एकेक
गजाली येवजून येवजून हांसूकच येवंक लागलें. एकवटेन तें स्वताभितरूच लज्जेतालें जाल्यार
दुसरेवटेन मुमुरखेच हांसतालें....



पुराय पोरसू शिंपून जातकीर रेणून बिंदलो सकयल दवरलो आनी ‘हाऽबा! हुश्य!’ करत
थंयच कांदया रोप्यां सामकारां बसलें.

ताणें पुराय रोप्यांवयल्यान नदर भोंवडायली आनी कोत केलें. तीन मण तरी कांदें जावंक
जाय म्हण्टकीर वर्सभर तरी खावंक पुरो. अंदू अण्णान चड नाटूक जाय आशिल्ले... लग्न जाल्यार
विकते हाडचे पडटले.

थंयच बशिल्लेकडेंन ताणें ल्हव ल्हव माती सरकिलीशी करुन पळलें कांद्यान सुमार आकार
धरला. आनीक एक म्हयनोभर उदक भिंपल्यार पुरो.

तें तशेंच उठलें. ताणें इल्लीशी देव्ठ्यांभाजी हुमटिली. वायगंणां रोप्यांक वट्टच पांच-स वांयगणां
आशिल्ली. तातुंतली दोन वायंगणां काडली. दुदया माटवाक तीन दुवी लांबताले. तातूंतलो एक
बरोसो तुटयलो. सगळें चोब्यात घाले. उदकाचो मातये बिंदलो थंयच कुशीक दवरलो आनी चोबो
तकलेर घेवन ते पोरसाभायर येयलें... आतां आकाड्याक कवड लावन घरा वचूंक सुटता थंय आसा,
शेवतूमावशी खयंच्यान नेणो येवन हजरः

'रेणू, पोरसांत येयिल्लें पुता....?'

'हय गे...'

'हे दिसाडेन ते वटेन येयले ना अशें...'

'येवंक मेळ्ळे ना गे....'

'कित्याक...? म्हाका सांगचे पडटलें म्हूण येयले ना...?'

'कितें....?'

'व्हारडिकेचें. रामापुरातल्या सोमणाल्या चेड्याकडेन खंय न्ही...'

'कोणें सांगलें तुका ?'

'असली खबर आनी सांगची पडट्टा पुता.. ती आपशीच कानार येवन आदळटां... जावं पुता,
बरें जावं...'

रेणून मनात म्हळें, बा! अजून गोडकातली खावचीच आसा. जालें गांवभर...! येद्दिशी गजाल
सुदीक रोखडीच फांफसतां हांगां!

'अजून गोडखातली बीन खायली ना, आनी जमलें खंयचें!... रकाद धाडटा म्हणिल्लो,
तोवूय धाडलो ना.'

'धाडटले! धाडटले! सोयऱ्यां समदिकांक तांगेल्यां सांगू नाका पुता ? गोडकातलीं खातले ल्यार, आदी दीस थारोवन, उपरांत तेमी तुमकां सांगतलें.'

शेवतूमावशेन अशें म्हण्टकीर, रेणूक मातशें 'सूं' जालें. ना म्हळयार, ताका मातसो हुस्को ल्लो. जातक पळोवन आयज पांच दीस जाल्ले. तांचेकडल्यान कसलोच रकाद नाशिल्लो.

'घोव बरो भुरगो मेळ्ळो पुता ताका. भोव बरो भुरगो तो.'

'तूं वळखता गे ताका...?'

'हय तर! तुगेलो जावचो मांव म्हगेल्या भावजेलो मावशे भाव! दिवाकर तागेलो चेडो!'

हें आयकून रेणुलें मुखामळ फुल्लें. ताणें रोखडेंच अजापाने म्हळें, 'तशें जाल्यार तूं म्हगेली ोयरीच जाली मूगे..'

'हय गो पुता, हय! सोयरीच जाली हांव तुगेली!' इतलें उलोवन ती काय खीण ओगी रावली. ागीर ल्हवूच रेणुल्या तकलेवेल्या चोब्याकडेन पळोवन म्हणूक लागली, 'कितें आसां पुता चोब्यांत...?

'कांय ना गे.. दोन वांयगणां, एक दुदी आनी देठे खतखत्याक! काल घेवन दवरिल्ले थोडे तिसरे आसात गाळण्याक देखून हुनेन हाड म्हणिल्ले...'

'खतखतें म्हळें काय, तोंडाक उदक येता. अंदू आमी पोरसूं केलो ना न्ही पुता, तूं जाणां: कोणेय तुजेसारकिल्यान शाकेक दिल्यार खतखतें! ना जाल्यार पाड पडिल्ली तांबोळी आसा. तांबोळी बिंबोळी खावप म्हळयार गांठ कंटाळटा गो पुता...!'

'आयज कितें केल्यातर पेजे वांगडां...?'

'आता वचून तांबोळी वाटूंक जाय...' तिणें कांयशा बेजारान म्हळें.

रेणू खिणभर ओगी रावलें. मागीर ताका कितें दिसलें देव जाणां, ताणें विचारलें, 'तुका जाय कितेंय शाकेक...?'

'दिल्यार कोणाक नाका पुता...!'

रेणून फुरसद पळयली ना. तकलेवेलो चोंबो सकयल दवरलो आनी तातूंतली वायंगणां, दुदी आनी देठें पुरायच तिका दिलें.

'बरें जावं पुता! बरें जावं...!' म्हणत शेवतूंमावशेन ती सगलीं एकेक करून हुटयेत भरलीं आनी फुडें कांयच उलयनासतनां चलूक लागली. जशेंकांय ती शाकेपासतच येयिल्ली.

'आतां परतून पोरसांत वच्चे पडलें ना..' म्हणत रेणून कवड काडली आनी पोरसांत गेलें. परतून दोन वायंगणां आनी एक दुदी तोडलो. कांय देठें हुमटिले आनी ते सगले चोंब्यात घेवन बह घरा येयलें.

'हे घे हुने...' म्हणत ताणें चोबो हुनेमुखार उमथो केलो.

ते सगलें पळोवन हुनेन म्हळे, 'बरें केलें, दोन वायंगणां आनी एकूच दुदी हाडलो तो सगलींच स वायंगणां आनी तीन दुदी आशिल्ले ते! म्हगेल्या आईगेर म्हाका ते दोनूय दुदी आनी वायंगणां धाडूंक जाय...'

अरे देवा! रेणून मनांत म्हळें, 'आतां एकूच दुदी आनी दोन वायंगणां उल्ल्यात थंय... आतां कितें करप....? उरिल्ली खंय गेलीं काय म्हण्टली! शेवतूमावशेक दिली म्हळयार आनीक दवरची ना! चितनासतनां, येवजिनासतनां कितें म्हूण दिलें हांवें...?

'मागीर वचून हाडचें पडले ते सगलें. सांजेचो तुगेलो भाव वयचो आसा कारवार!'

रेणूक हड्ड्यात धड्ड जालें. ताणें मनात म्हळें, हांव पडलें आतां तरासांत! ह्या शेवतूमावशेक आयजच येवंक जाय आसलें...?



'भावोजी, यो, यो, बस.' भावोजीक पळोवन कदेलावेल्यान उठन रेणून म्हळें.

श्रीकांत 'हुश्श' करत कदेलार बसलो. बोल्सातल्यान लेंस काडून चेऱ्यावेलो घाम पुसलो.

'घरांत कोण ना गो?'

'आसा. हुनी आसा.'

'आनी अण्णा?'

'गोठ्याकडेन गेला.'

'हुने, भावोजी येयला.. म्हणत रेणू भितर येयलें.

अनसुया मदल्या सालात शेंदरी पातळावन ताचेर निकतीच आड पडिल्ली. तिका मातशी झळपणशी लागिल्ली. भावोजी येयला म्हण्टकीर ती उठली, आनी बसली.

'बस म्हण...'

'बसला. बसला.' भावोजीन भायल्या सालांतल्यान सांगलें.

ती उठून भायर येयली.

'अचकीत दनपारचे अशें...'

'दनपारचे म्हळयार...' तो मातसो अडखळलो, 'भालचंद्रालागी मातशें उलोवचें काम आसा...'

'घरां सगली बरीं आसात मूं?'

'हय, हय. तशीं बरीं आसात.. तुमी सगलीं ?'

'बरीं आसात.'

'म्हाका मातशी ताकतीक आसा. भायलेभायर अंकोला वचूंक जाय.'

'अंकोला कित्याक?'

'आईक दाखोवंक त्या पंडिताकच घेवन येतां. तिका मातशे चड जालें. त्या पंडिताच्या वखदान बरीं आशिल्ली तीं!'

'पाड पडिल्ली बळ्ळीक ती!'

'हूं'

'हांका घेवन वयतां...?'

'ना. ना. ताका ह्या कामांपासत व्हरचो नां हांव!' मातशी उसरपत घेत ताणें ल्हवूच म्हळें, 'ताचेलागी निराळेंच काम आसा! ताका एक रकाद दिवचो आसा!' 'गोठ्याकडेन गेला. आपोवंक धाडू..?'

'हय. हय! आपय! मातशे बेगीन आपय!'

अनसुयान रेणूक म्हळे, 'चल गो, अण्णाक आपोवन घेवन यो. वच! बेगीन वच!'

'हाडटां हां आपोवन...' म्हणत रेणू तार्कतिकेन गोठ्यादिकेन वचूंक गेलें.

'च्यायेक दवरूं..?'

'नाका. नाका. आदीच गरम जाता. च्या आनीक नाका.'

'मागीर कितें करूं? लिंबा पानक करूं..?'

'नाका, कांयच नाका.'

'कांयच नाका कशें...? जांवय मनीस येयला. असोच कांयच घेनासतना कसो वयनलो, लिंबा पानक हाडटां हांव..'

ती रांदचे कुडींत येयली. तिणें काल एक लिंबू कापून अर्दे बेस कत्रेलांत पेल्यापोंदान धापून दवरिल्लें.. आतां थंय पळयल्यार तें ना. ती तशीच फाटल्यावटेन येयली. मागील दारातल्या लिंबा झाडाचो एक बरोसो हळडुवो जाल्लो लिंबू तोडलो. भितर येवन तो आदोळेर कच्च करून कापलों. अर्दे बेंस कुरकुटात एका पेल्या पोंदात धापून दवरलें. केत्रेलातलो एक पेलो घेवन तो बरोऽ पुसलो. उदगा पिंपातल्यान पेलोभर उदक घेयलें. अर्दे त्या उदकांत बरेंऽ पिळ्ळें. बासदार दवरिल्ल्या साखरेडब्यातल्यान तातूंत साखर घाली. इल्ली मिठाकण उडयली. कुलेरान बरेंऽ खिरयले आनी तें घेवन भायर येयली. 'हे घे.' म्हूण तिणें तें श्रीकांताक दिलें.

श्रीकांतालें सरबत पिवन जातामेरेन रेणू अण्णाक घेवन येयलें.

'भावोजी, कितें जालें...? आईक चड जालें रे...? भालचंद्रान येयिल्लोच विचारलें.

'हूं'

'आतां वयता तूं अंकोला...?'

'हय.'

'मारूतीक धाडलो ना कित्याक?'

'ताका धाड्या म्हळयार ताणें तो गोठो उक्तो करून उड्यला. नळे घालता खंय... मेस्त येयला. ताचे वांगडां कोणूय नाका...?'

'मनशाचो वेळ पळय न्ही! हरशी घट्टमुट्ट मनीस ती. पिरायबीन तशी चड न्ही तिगेली...'

'किते सांगू... बाप्पाकूय तशेंच जाल्लें. बाप्पा म्हूण कितलो घट्टमुट्ट आशिल्लो. एक फावट ।तांत नांगर कसूंक लागल्यार रेड्याचें तोंडांक फेंस येतालो. पूण हो दमचो नाशिल्लो. आमगेल्या ।रामुखार ते आकाड्याचे फातर नात? तें ताणें एकल्यान खांदार घेवन हाडिल्ले म्हळयार पळय.. ।तल्या घट्टमुट्ट मनशाचे जालें कितें ! हिजेभाशेनूच एक दीस अचकीत वाऱ्यान मारलो. बरोच आशिल्लो. शियां दीस. ते फात्यां पारा उठून भायर मुतूंक म्हूण गेल्लो... कोणेंतरी अचकीत हातांपांयाची ।क्त काडून घेयिल्ल्यावरी जालें खंय..'

'खंयची बगल...?'

'दावी.'

'........'

'हाथरुणार पडलो तो उठलो ना. तिसऱ्या दिसा गेलो.'

'मनशाल्या जिणेंचें कांयच सांगूक जायना. केन्नाय कितेंय जायत!'

उपरांत त्या विशयाक बगल दीत श्रीकांतान म्हळें, 'म्हाका आतां वचूंक जाय.'

'कित्याक येयिल्लो तर तूं इतल्या दनपारच्या भाराक?'

श्रीकांत कायसो गंभीर जालो. ताका दिसलें, कशें सांगचें हाका...? कशेंय जालें तरी सांगूकच जाय. ल्हवूच खांकलेशें करून ताणें म्हळें, 'तुमका कोणूय दुस्मान बीन आसा रे...?'

'कित्याक म्हणटा तूं ?' भालचंद्राक ताच्या विचारपाचो अर्थ होलमलो ना.

'अशें कोणूय आसात जाल्यार सांग...'

'कित्याक विचारता? हांव समजलो ना.'

'दुस्मानपणानच केलां तें... हातूंत दुबाव ना.'

'किते तें सांग मरे.. स्पश्टपणान...'

श्रीकांतान शर्टाच्या बोल्सांतल्यान एक पत्र काडून मेवण्याक दिलें, 'हे. घे... पळय...'

भालचंद्रान ते उक्तें केलें आनी पळयलें. ताचेर बरयिल्ले आशिल्लें....

दिवाकर हांका,

हांवें आयकलां, तुमची व्हारडीक रेणुलागी थारायल्या. तुमी बरेंभाशेन चेडवाची चवकर्श
केल्या मूं ?

त्या चेडवाचो एका चेड्यार मोग आशिल्लो, हे तुमी जाणां? दोगांनूय एकमेकांवांगडा
व्हारडीक करचे पासत एकमेकांक उतरय दिल्लें. चिंवरीं दोंगरांर दोंगानूय वरांचीवरां एकमेकां
वांगडा सारल्यात. दोंगालेंय भौंसामुखार व्हारडीक जालेना इतलेंच. हरशी मनांनी आनी कुडिंनी
दोगांय केन्नाच एकमेकांची जाल्यांत.

हें चेडू सामके बेरकी. हें तूं जाणां जा. ताचे त्या चेड्याल्या मनां-काळजाकडेन खेळ खेळून
जाले. आतां तें त्या चेड्याचो मोग पांयां पोंदां माड्डोन, हेरांवांगडां व्हारडीक करूंक सोदतां. कित्याक
तर ताचो तो मोगी रोजेक ना. ताची काय जोड ना. तो आलमपेड्डयार..

देखून शंभर फावटी चिंतून, तुमी ताचे वांगडा व्हारडीक करा.

तुमच्या व्हारडिके दिसा. तो मोगी. चिंवरी दोंगरार ज्या जांबळीरुखां पोंदां तीं दोगाय
बसतालीं.. थंय त्या रुखाक गोळ घेतलो. नातर तुमच्या व्हारडिकें माटवांत येवन घुमशेणां काडटलो.
हें ज्युस्त मतींत दवरा.

बरें करून चिंतात.

तुमचें बरें मागून,

अ.ब.क.

बरोवप्यान आपलें नांव बरियल्ले नाशिल्लें. भालचंद्रान पत्र परतें करून पळयलें. फाटल्यावटेनूय
नामो बरोवंक नाशिल्लो.

कोणे बरयलें काय? तो तटास. खिणभर ताणें चिंतलें. मागीर भावोजीक विचारलें, 'कोणें
दिलें तुका हें पत्र...?'

'आयज सकाळी हें पत्र घेवन विश्रांतबायेलो घोव येयिल्लो. दोन दीस जाले खंय तांका हें पत्र
येवन...'

'कोणें बरयलां आसतलें रे भावोजी हें...?'

'तुमगेलो कोणूय दुस्मानबीन आसुंये...'

'शीऽ! आमकां कोण दुस्मान आसात?'

'दायज्यान बीन न्ही मुरे?'

'आमगेलें दायजी इतलें वायट न्ही रे. आयजमेरेन आमगेलें खंयच्याय दायज्यालागी तशें वायटपण येयलें ना. आनी जरी वायटपणा आसलें, अशेतरेन करपी हांगां कोण ना.' ताणें सामकी खातरी दिवन सांगले. उपरांत खिणभर ओगी रावन ताणें म्हळें, 'जिणेंत पयलेच फावट हें पळयतां हांव. ही असली अवचिन्नपणा हांगां केन्नाच घडिल्ली हांवें आयकूंक लेगीत ना.'

'वट्टार हें कोणेतरी केलां... हें न्हयकारूंक जावपाचे ना न्ही...'

'तें कशें न्हयकारतलें...! हे दिसतां न्ही पत्र!' परतून भालचंद्र येवजणेंत घुस्पलो. ताणें भावोजीक विचारलें, 'कोणें आसुंयें रे भावोजी...?'

'..............'

'हां तेमी कितें म्हण्टात...?'

'कोण.. विश्रांतीबायेगेर रे...?

'हय.'

'ताणीं भोव चिंतलें खंय, पूण...'

'पूण कितें...? भालचंद्रान कांयशे भिरांतेन विचारलें.

'तांगेली तयारी ना.'

भालचंद्राल्या तोंडार नाराजी उदेली... म्हळयार ही सोयरीक मोडिल्ल्यातूंच जमा...?'

श्रीकांत खिणभर ओगी रावलो. मागीर म्हणूंक लागलो, 'तसोच अर्थ जालो ना...?'

'तुवें सांगून पळोवंक जाय आशिल्लें'.

'हांवें सांगचें सोडच. त्या दोंगाय घोव-बायलेन खूब-खूब येवजिले खंय हाचेर. हें कोणेंतरी दुस्मानपणांन केल्लें आसुंक फावो, अशें तांकाय दिसलें. आनी ताणीं चेड्याक तशें समजावपाचो

येत्नूय केलो पूण चेडोच तयार ना जाल्यार तेमी तरी बाबडी कितें करतली! आतां सुदीक पळय.. तें तुमका सांगूक येवंक अनमनलो, देखून म्हाका येवन मेळ्ळो. तुका आपूण कशें तोंड दाखोवं म्हण्टालो...

भितल्ले कुडीतल्यान रेणू आनी अनसुया भावोजीलीं आनी मेवण्यालीं उलोवणीं आयकतालीं. कितेंतरी घडून रेणुली जावचेली सोयरीक मोडल्या हें दोगांकूय होलमल्लें.

अनसुया मुखार येयली. आनी तिणें ल्हवुच घोवाक म्हळें, 'कितें जालें?'

भालचंद्रान पत्र काडून सोमतेच बायलेच्या हातांत दिलें.

तिणें पत्र बरें करून वाचलें आनी कांयशा दुबावान रेणूक पळयलें. तिका खिणभर दिसलें, खऱ्यानीच रेणुली कितेंय भानगडबीन नाशिल्ली मूं ? सांगूक जायना!

'कितें हुने पळोवया...' रेणुन फुडें येत म्हळें.

अनसुयान मोन्यानीच पत्र काडून रेणूक दिलें. रेणू तें हातांत घेवन वाचूक लागलें... एकेक उतर वाचतां वाचतां ताका कितेंशेच जावंक लागलें. ताणें पुराय पत्र वाचून सोपयलें तेन्ना कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळेंच ना. ताणें हुनेल्या तोंडाकडेन पळयलें. हुनी ताकाच पळयत आशिल्ली. तिगेले नदरेंत एकतरेचो दुबाव झळकतालो. रेणूक आतां रडूंक येवंक लागलें... 'अण्णा, भावोजी... हे फट! .... हें कोणेतरी म्हजेर बगलांट रचलां!, इतलेंच उलोवंन, तें व्हडाव्हडान रडूंक लागलें, '...ना रेऽ! तशें कांयच करूंक ना हावें रे ऽऽ! म्हजो कोणाचेरूच मोग नाशिल्लो रे ऽ!' ते हुंडक्यां हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. फुडें तें कांयच उलयलें ना. फकत हुंडक्यानी रडटालें...

श्रीकांत कदेलावेल्यान उठलो आनी ताणें रेणूक फाटीवेल्यान हात भोवंडयात मायेन समजायत म्हळें, 'रडू नाका, रेणू रडू नाका. पिशें खंयचें. कोणें म्हळें तुका, तुवें अशें केलां म्हूण? आमी सगलीं जाणात हें बगलांट म्हूण....! कोणेंतरी दुस्मानपणान केलां हें. रडूं नाका. ओगी राव. पिशें खंयचे...' भावोजीली हीं उतरां आयकून तें चडच हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. ताका हुंडके आटापनाच जालें. भावोजी ताका समजायतालो आनी तें रडटालें...

भालचंद्र आनी अनसुया मात तांका सभ्रमीत नदरेन पळयताली.



उबाळ दीस आशिल्ल्यान खूबच गरम जातालें, भायर एक माडाचें पान लेगीत हालना आसुंये. रेणून सदांभाशेनूच जनेल उक्ते दवरिल्ले. भायलो आख्खो काळो किट्ट काळोख ताचे जनेलां

ह्यातच येयिल्ल्यावरी दिसतालो. पुराय संवसाराचेर मर्णकळा येयिल्ल्याभाशेंन भायर सगळें गप्प-गप्प आनी थंड-शांत आशिल्लें.

फुड्यांत मेजार पुस्तक उक्ते करून दवरिल्लें. पूण पुस्तकाचेर लक्ष थारनाशिल्लें. परिक्षेक फक्त एकच म्हयनो उरिल्लो.

आयज पंदरां दीस जाल्ले. परतून परतून तेंच तेंच ताचें तकलेंत येतालें. आनी खंयच्याच गजालीत लक्ष लागनाशिल्ले. ती गजाल कशीच ताच्या मनातल्यान वचनाशिल्ली. वतली तरी कशी? केन्नाच येवजूंक नाशिल्ली, चिंतूक नाशिल्ली गजाल घडिल्ली. नव्या ताल्ल मुस्तायकेक मुजरत कोणेंतरी काळी गस हाडून सारवची, तशें जाल्लें तें.

सोयरीक जुळटां म्हूण कळटकीर कितलें भुल्लुशिल्लें... कितलीं सपनां पळयिल्ली, कितल्यो मांडण्यो मांडिल्ल्यो, कितल्यो आखण्यों आखिल्ल्यो पूण मदीच कोणेंतरी तें दुश्ट कर्तुब केलें आनी पुराय, पुराय गजालीं मातयें भरवण जाल्यो.

तागेलेंच काम हें ! रेणूक येवजून येवजून दिसतालें, मारूतीनच केलां हें काम ! पयर बाय येयिल्लें, तेन्ना ताका सांगल्यार म्हूणक लागलें, 'बेठेंच दुबावान उलोवंन उपेग ना! बरेंपण आशिल्लेकडेन वायटपण जावचेले! म्हाका थंय नंदचें आसा! ओगी राव!'.. त्या माकडाली म्हजेर नदर आसा. हांव जाय ताका! हांव हाचेलागी लग्न जावचे परस काळी न्हयंत वचून जीव दीन गळयात येद्दोव्हडलो फातर बांदून...!

बगलेच्या कुडीत अण्णा हुनी न्हिदिल्ली. हुनेक थार न्हिद लागल्या आसुंयें. तिचो घोरावपाचो आवाज स्पश्ट आयकूंक येतालो. अण्णाक न्हिद लागल्या कांय ना देव जाणां! ताका दिसलें, अण्णाकूय ही गजाल काळजाक लागली ना मूं ? म्हजे सोयरीकेच्या संबंधात हो एक दाग थारूं येतां.. म्हजे चालणुकीर दुबाव घेवंक हें एक कारण थारूं येतां. आदीच म्हज्या भावाक, म्हजे सोयरीकेखातीर वटवटें काडचें पडटात. त्या वटवट्यात ही एक आडखळ म्हूण उबी राव येता.. देवा, कितलें तरास म्हज्या भावाक म्हजे पासत.. आतां सगलें येवजून ताका रडूंक येवंक लागलें. बशिल्लेकडेनच तें हुडकेवंक लागलें...

रेणुचे म्हऱ्यांतच मेजार एका कोनशात, तांगेलें माजर बशिल्लें. रेणूक टुकू टुकू करून पळयतालें. रेणूक खिणभर दिसलें. आमगेल्या बिलुंक म्हजें दुख्ख, व्यथा होलमता काय...? इतल्यांत 'टप्प' करून दावे बगलेन कितें तरी पडलें. माजरान दोळें ताणून थंय पळयलें आनी पट् उडी मारून तें थंय गेले. थांबलेशे करून ताणें बारीक पळयलें आनी झुप्प करून झोपय मारून कितें तरी धरलें.

पूण माजरान कितें धरलें, हें रेणूक दिसलें ना. माजर रोखडेच आपणाले सावज तोंडांत धरून भायर धावलें.

रेणून ओणोव घेवन, आपल्या स्कर्टान दोळयांतलीं दुकां पुसयलीं. तें तकली वयर करतामेरेन 'धडक' करून कसलो तरी आवाज येयलो. आनी 'ढण्ण' करून कितें तरी पडलें. 'ह्या माजरान कितें तरी उडयलें...' अशें म्हणत तें उठलें. तो मेरेन बगलेच्या कुडीतल्यान 'हेडत्... हेडत्...' करत बॅटरी पेटोवन अण्णा भायर येयलो. तें मागीर तशेंच बसलें. ताका दिसलें, खऱ्यांनीच अण्णाक झेम लागली नासुंयें.. म्हज्याच चिंतेनबीन न्ही मूं...? परतून भळळ करुन ताच्या दोळयांत दुकां येयलीं.

भालचंद्रान रांदचे कुडींत वचून पळयलें. माजरान एक तोप कुरकुटांतल्यान सकयल उडयिल्लो. ताणे परतून तो कुरकुटांत उमथो घालो. आनी भायर येयलो.. रेणुल्या कुडीत उजवाड पळोवन तो थंयच थोपलो. तकली कुडीत रिगोवन ताणें पळयलें. रेणूक अजुनय जागे पळोवन तो कुडीत येयलो.

'रेणू, अजून न्हिदलें ना गो ?'

रेणूक भावाक पळोवन हुंडको फुटलो. तें रडुकच लागलें. 'रडू नाका पिशेंखंयचें म्हणत भालचंद्रान ताका खाकोळांत घेयलें. तकलेवेल्यान हात भोंवडायत म्हळें, 'रडूं नाका, ओगी राव....'

रेणूक दिसलें अण्णाक सांगचें अण्णा, 'म्हाका असोच खाकोळात घेवन राव सासणाचो! असोच हात भोंवडायत राव आईल्या आनी बाबाल्या दोगांलेय मायेन...!



भाटांत अनसुया माडांक उदक शिंपताली. भालचंद्र माडांची आळीं सारखीं करतालो. आळीं सारखी करतां करतां ताचें खोरे मदीच थांबतालें. आनी तो येवजितालो... अनुसुयान पळयलें, हो अशें कित्याक करतां...? पूण ती ओगी रावली.

तिणें परतून एक बिंदलो बांयतल्यान भरून हाडलो आनी बगलेच्या कवथ्याक घालो. त्यावुय आळयालल्यांन घातिल्लें उदक अर्दे भायर शेणूंक लागलें. तिणें म्हळें, 'हे पळयात, हांगाय मातशें खोरें लायात.'

'आं..?' भालचंद्रान तनरेतल्यांन जागो जाल्ल्यावरी केलें.

'हांगाय मातशी माती लायात म्हळें हांवें... हांगाय उदक भायर शेणटां पाड पडिल्लें..'

भालचंद्र बेगोबेगीन थंय येयलो आनी खोऱ्यान आळें सावरूंक लागलो.

‘अंदू आळीं करप समा जालीं ना. आनीक मातशी अगड आनी रुंद धरूंक जाय आशिल्लीं. घाल्ले उदक भायर येता.’

‘हूं’ भालचंद्र येवजणेंतल्यानूच हुंकारलो.

तो खंयचेतरी येवजणेंत आसा. हें होलमतालें. ह्या दिसानी तो अशेंच करतालो, काम करतासतनासुदीक खंयचीतरी निराळीच चिंतपां ताचे तकलेत धुमशेणां घालतात, हें अनसुयाक होलमतालें. अनसुया जाणां आशिल्ली, हीं चिंतपां हेर खंयची न्हय. फकत रेणुल्या लग्नाची. रावूंक जायना जावन तिणें घोवाक म्हळें, ‘तुमी ह्या दिसांनी अशें कित्याक करतात..?’

‘किते ?’

‘खंयचेतरी येवजणेंत आशिल्लेवरी.’

भालचंद्र ओगी रावलो. ताका ओगी पळोवन अनसुयान म्हळें, ‘तुमका रेणुल्या लग्नाची काळजी मू? जातलें लग्न.’

‘पुणून तें अंदू जावंक जाय न्ही…! अंदू उरल्यार फुडें तीन वर्सामेरेन करूंक जायनां…’

‘अंदू उरलेंच जाल्यार कितें करतले ताका!’

‘हॅ.. हॅ..!’ भालचंद्रान न्हयकारत तकली हालयली..’ तशें उरूंक फावनां. लोक म्हण्टलें, भालचंद्राच्यान वर्साभितर भयणिली एक सोयरीक सुदीक जुळोवंक जाली ना.. आनी आतां ताकां चोविसावें वर्स. फाल्यां मे म्हयन्यात चोवीसय सोपतलें आनी पंचविसावें लागतलें.. आनीक तीन वर्सांनी म्हळयार अठ्ठाविसावें…’

‘अठ्ठावीस म्हळयार आतांचे जमान्यांत चड न्ही म्हळयार…!’

‘चड न्ही जावं. पुणून आमगेल्या आडयेंत अठ्ठावीस वर्सांचे एक तरी चेडू दाखय पळय म्हाका. अठ्ठावीस हांगा खूब जालीं. बरीं बरीं बी.ए., बी.कॉम. जाल्ल्यां चेडवांकसुदीक बावीस-तेवीस भितर गुठलांयतात हांगां. हॅ! तशें जावंक जायना! लोकांक उलोवंक एक विशय जातलो तो! भालचंद्रान आवय-बापुय नाशिल्ल्या भुरग्याक घोळूंक मेळटां म्हूण वाडोवंन घरात दवल्लां म्हणटले!’

‘कोऽण काय म्हणिनात! तुमगेल्याच मनाची समजूत ती! म्हगेले लग्न कितल्या वर्सांर जाल्लें तर?’

'तुगेले लग्न कितल्यां वर्सांर जाला...? तूं पंचवीस वर्सांचें आशिल्लें. अठ्ठावीस नाशिल्लें! आनी तेंवूय तुगेल्या मामाल्या चेड्यान आपूण व्हरतां म्हणिल्ले, म्हूण दवरिल्लें तुका! नातर केन्नाच जावपाचें तुजे. भयणिचे केन्ना जालें? एकवीस वर्सांचेरूच मूं?"

अनसुया ओगी रावली. ओगी बिंदलो घेवन उदक हांडूंक गेली.

भालचंद्रान येवजिलें, 'तें काय ना! कश्शायभाशेंन अंदू रेणुलें लग्न करुंकच जाय! खंयच्याय खांचीकोणशातल्यांन न्हवरो सोदून काडटलोंच हांव!

तीन वर्सांनी म्हळयार म्हारगायूय वाडटली. मागतल्यालो तोळयांचो, हुंड्याचोय आकडो वाडटलों.

...आनी रेणू घरांत ना म्हण्टकीर, घरांतली धुसपुसय थांबतली.

पयरची ती सोयरीक मोडिल्ल्यान लोक आदीच खुसूंखुसूं करूंक लागल्यात. आनी अंदू करना जाल्यार तेवूंय गजालीक तोंड फुट्टले. एक न्ही हजार तोंडां फुट्टलीं.

कितें करचें म्हूण कळच ना. कोणाक धरू? भावोजी रजेर येयिल्लो आशिल्लो, तेन्ना एक फाटबळ आशिल्लें, सुट्टी सोपून परतून गेला. कोणालोच आदार मेळना जाला.. आसूं देव आसा!

इतल्यांत 'भालचंद्रा', म्हणत खंयच्यान नेणि कुश्टबाब खांदार खोरें घेवन हजर जालो.

'कुश्टबाब यो.'

कुश्टबाबान खांदावेलें खोरें दवरलें, 'मुजरत तुका मेळूंक येयिल्लों. हांवे घरांत चवकशी केली. रेणून सांगलें, तूं हांगां आसा.'

'असोच मुरे...?'

'सांगता..' म्हणत कुश्टबाब थंयच एका माडाच्या मुळांर बसलो.. 'पुता, तुगेलो एक लागिसाराचो सुरीं रूख दिशी? म्हगेले रुख थंय कोकस्तानात ओजेशिट्यार. थंयच्यान मारून हांगां घरां हाडप म्हळयार, एक वावर न्ही! तुका मागीर टण्णां लाकडां दितनां हांव बदलेक एक दीन! तुगेलेंय ओंजेशिट्यार आसात न्ही थंय! आतां पावस लागी येयलो. पावसाचो जळवणां बेत करून दवरूंक नाका?

'जायत रें कुश्टबाब. तुका आनीक कोण नाका म्हण्टलो.'

'इतलेंच इचारूंक येयिल्लो हांव.'

'जाल्लें ! दिलो!'

कुश्टबाबान पैरणांखिशांतल्या विडी-उज्यापोट काडली. विडी तोंडाक लावन पेटयली.

भालचंद्रान कुश्टबाबाक तरी विचारून पळोवया म्हूण ल्हवूच म्हळें, 'कुशाबाब...'

'कितें?'

'तुगेल्या गुर्ताक कोणय आसा रे बरो चेडो?'

'रेणुले अजून जमलें ना न्ही पुता खंयूंय?'

'ना. रे! तेच येवजणेंत आसां हांव! हो पळय, मार्च म्हयनोयसोपूंक येयलो. जमल्यार ह्यां दोन-तीन म्हयन्यांभितर जावंक जाय.'

कुश्टबाब कांय खीण ओगी रावलो. मागीर येवजून म्हणूंक लागलो, 'एक आसा गुर्ताक.. म्हगेले बायलेल्या मावशीभावालो चेडो आसा. व्हडल्यामकेत. थंय चवकशी करून पळयता जाल्यार पळय...'

'अंदू करतात खंय..?'

'हय अशें आयकलां. थंय वचून चवकशी कर! हांव जायजाल्यार येतां वांगडां.'

हे आयकतकीर भालचंद्राक मातसो जीव येयिल्ल्यावरी जालो 'केन्ना वचूंयां? ताणें रोखडेंच विचारलें. चेडो किते करतां. खंय आसां हेवूंय विचारचेलें भान ताका खिणभर उरलें ना. मागीर सट्टकरून ताका ते गजालीची याद जाली आन्ही ताणें विचाललें, 'कुश्टबाब, चेडो कितें करतां?'

'हांव बरेंऽ नकळो, तो कितें करतां ते! पुणून मुंबय खंयतरी रोजेक आसता, हें हांव जाणां.'

'रोजेक आसा मुरे...? जालें!' भालचंद्रान समादान उकतायलें. 'केन्ना या म्हणटा?'

कुश्टबाबान खिणभर चितलें, 'पळोवयां. सांगता मागीर येवन सांगतां.'

अनसुया थंयच कवथ्यांक उदक शिंपतां शिंपतां हांगेली दोगांयलीं उलोवणी आयकताली. तिणें कुश्टबाबाक म्हळें, 'व्हडल्या मकेतलो बंट नायकालो चेडा रे?'

'हय, हय पुता!'

'तूं वळखता ?' भालचंद्रान उमळशिकेन विचारलें.

'हय तर ! एकूच घर आसा तें व्हडल्या मकेत.'

'एकूच घर?'

'हय. हेर सगल्यांनी येवन सकयल्या शेतांत तळयां आड्येंत घरां बांदलीं.'

'कुश्टबाब, जातां तितलें बेगीनच वचून येवंया आमी जायना?' भालचंद्रान परतून आग्रो केलो.

'जायत रे पुता, सांगतां हांव केन्ना वचूंया तें!'

भालचंद्राक कांयशें सूऽ जालें.



दनपारचो भार उजो ओकूंक लागिल्लो. पांयां सकयली भूंय तव्याभाशेंन तापिल्ली. सगळयांल्या पांयांत जोतीं आशिल्लीं म्हूण बरी, नातर एक एकल्यांचे पांय सोलूनच वचपाचे.

'आमी मातशें सकाळी बेगीचन भायर सल्ल्यार बरें जाताशिल्लें. रोखडेंच परतूंक मेळटाशिल्ले.'

'तरी काल हांवें बजावन सांगिल्लें सगळयांक...'

'घरातली सगळी कामां आटापून येता म्हळयार, जाताच गे तो वेळ...'

राधा, शेवतूमावशी, गुणवंते, मीरा, अंबू आनी अनसुया ताकतिकेन घरां परतूंक लागिल्ली. सगळी ओली चिप्प. जण एकल्याल्या आंगांक कपडे दसून चिपकल्ले. तकलेवेल्या केसतडांतल्यान उदक थेंब्याथेंब्यांन गळाटालें.

राधेले तकलेर बरी धा कुडवांची वल्ली आशिल्ली. पुराय वल्ली तिसऱ्यांनी गच्च भरिल्ली. तरीय ती सगल्यांत मुखार चलताली. हेरांक फर्मायताली, 'बेगीन बेगीन चाट मारा...' राधा सगल्यांच वावराक वागीण! तिचो वावर दादल्याभुजांचो! हेर बायलांनी पांच कुडव तिसरे हाडल्यार, तिणें सदाच धा कुडव हाडप! एक फावट उदकांत पांय दवरलो, काय तिका नेट चडटालो. बुडकी मारून मारून ती तिगेली वल्ली भरताली. मागीर ती हेरांक मदत करताली. आशिल्लीय ती तशीच! लांबरूंद

कणांतर कशी! तिसऱ्यां कोंड्यांक, वतनां आसूं नातर साऱ्यां सोपाक वतना आसूं, ती सदांच मुखेली! तिणें बोट दाखवप, आनी हेरांनी तिच्या फाटल्यान वचप!

हेर बायलो झेम झेमत फाटल्यान चलताल्यो. तांकां तकलेवेली वर्जी जड जाल्लीं हातूंत दुबाव नाशिल्लो.

सोमणा बायल रमा तर पोरूच व्हारडीक जावन येयिल्ली. नाजूक एक शिवडीच बायल ती. तिचे बापायघरां लागीसाराक न्हंय ना. देखून ती हो असलो वावर नकळो आशिल्ली. पयल्याच फावट ती तिसऱ्यों काडूंक येयिल्ली. आपणालें भिजिल्लें, आंगाक दशिल्लें कपडे पळोवन मुखार कोणूय अचकीत येयलो काय ती 'शीऽ बाये! शीऽ बाये! करून लज लज लजताली. तांची ही वाट वाडया कुशी कुशीन गेल्ल्यान तर, तिची चडच अवतिकाय जाताली, तिचे तकलेर तशें वजें व्हडलेंशें नाशिल्लें, तिणें बळाबळ करून लागी लागी दोन कुडवच तिसरें काडून हाडिल्लें.

सगळयांत फाटल्यान चलताली अनसुया. कित्याक कोण जाणां, व्हदळ सावन तिज्यान बेगोबेगीन चाटच मारूक जायनाशिल्ली. बेठीच घुंवळ येयिल्ल्यावरी जाताली. दोळयांमुखार काळोखसो येतालो. तरीय ती थतर मतर चाट मारताली. निमाणे निमाणे कडेन तर तिका चडच घुंवळ येयिल्ल्यावरी जाली. तिणे ल्हवूच रमाक म्हळें, 'रमा, म्हाका घुंवळ येयिल्ल्याभाशेंन जातां मुगो...'

'आं...? घुंवळ येयिल्ल्या भाशेंन जातां ?'

'हय, जायना म्हज्यान, बसतां हांव.'

रमा भियेली. 'राधा हुने, शेवतूमावशें, थांबां मातशें. अनसुया हुनेक घुंवळ येतां खंय?'

शेवतूमावशेन फाटल्यान फिरून विचारले, 'कितें जालें...?

'अनसुया हुनेक घुंवळ येतां खंय...!'

रमान आपली तकलेवेली वल्ली धड्डकरून सकयल दवरली आनी अनसुयाक वल्ली सकयल दवरूंक आदार दिलो.

अनसुयान वल्ली सकयल दवरून थंयच बसकण मारली.

सगळयांनी एकामेकांच्या आदारान आपआपल्यो वल्ल्यो सकयल दवरल्यो. अनसुया भोंवतणीं कवंडाळें केलें.

अनसुया आपले दोळे गच्च धापनू ओग्गी घिम्यार तकली दवरुन बशिल्ली.

'चड जाता गो...?'

'हूं'

'धगान तें ! पित्त उठलां आसुंये...!'

'अंबू, बेगोबेगीन वचून अं ऽ त्या घरांतल्यान तांबयोभर उदक घेवन यो चल.' वाटे कुशीक, थंयच लागीच्या वाड्यावेल्या एका घराकडेन शेवतू मावशेन बोट दाखयलें.

'अनसुया, उठ! सावळेंत वचून बस, उठ!' राधेन अनसुयाल्या खाकोळांत हांत घालनू तिका उठयलीं. आनी थंयच्यान लागीच्या एका आंब्यां ताळयेमुळांत व्हरून बसयली.

अंबू ताकतिकेन एक उदका तांबयो घेवन येयली. तिचे फाटल्यान एक गोरीशी बायल येयलीं.

'कितें जालें....?'

'काय ना, मातशी घुंवळ येयली.'

राधेन अनसुयाक तांब्यातलें इल्लें उदक पिवयलें, इल्लें उदक तागेल्या दोळयांक लायलें. इल्लें ताळयेर थापलें. 'काल तूं म्हाका उलटी येयिल्ल्याभाशेन जाता म्हण्टाले न्ही गो...?'

'हय.'

'आयज जाल्लें तशें....?'

सगळ्या बायलांनी एकामेकांल्या तोंडाकडेन पळयलें. शेवतूमावशेन मुखार येवन विचारलें, 'अनसुया, न्हाल्लें केन्ना गो तूं...?'

'म्हाका तोच दुबाव गे... म्हयनो जावन गेलो.. धा पंदरां दीस चड गेल्यात...' अनसुयान त्यावूय स्थितीत लजत सांगलें हे सांगतना तागेल्या तोंडार एक आगळीच सया मारताली. एक आगळें गुपीत फुटून भायर सरतल्यावरी तोंडांवेले भाव दिसतालें.

'जावं बाय, जावं! सगल्यांल्याच तोंडातल्यान उतरां फुटलीं.

'अशें आसल्यार, कित्याक येयिल्लें गो तूं...? राधेन लागींलागी धपकायलेंच.

अनसुया कांयच उलयली ना.

'तिसरें जायच आसल्यार, रेणूक धाडलें ना कित्याक...?'

'तागेली परिक्षा लागी येयल्या न्ही गो...'

'परिक्षा...?' अशें म्हणत राधा व्हडान हांसलीं. 'कितलें फावटी बसलें, पास जावंक जालें ना! आनी आतां कित्याक ती परिक्षा?'

राधेली हीं उलोवणीं हेर बायलांक मानवलीं ना. ती सगळीं ओगी रावलीं.

अनसुया ल्हव ल्हव पुराय सावशीद जाली.

अनसुया आतां सावशीद जाल्ली पळोवन, शेवतू मावशेन ल्हवूच विचारलें, 'अनसुया, बरें दिसता गो आतां...?'

तिणें तकली हालोवनच 'हय' म्हूण सांगलें.

'या म्हणटा आतां?'

'हूं.'

अनसुया उठून उबी रावलीं.

'तुगेली वल्ली हांगाच आसुंदी. रेणू येवन व्हरतलें मागीर...'

ते गोरेशे बायलेन म्हळें, 'हय, आमगेर दवरून वच. म्हगेले तकलेर दी! हांव व्हरून दवरतां... मागीर धाडा कोणाकूय..'

राधेन अनसुयाली वल्ली ते बायलेल्या तकलेर दिली. तिका तिगेलो तांबयोय दिलो. ती बावडी ती सगळें घेवन आपल्या घरा गेली.

एकामेकांल्या आदारान सगळयांनी आपआपणाल्यो वल्ल्यो तकलेर घेतल्यो. सगळीं चलूंक लागलीं...

अनसुया बीन तांचेवांगडा ल्हवू ल्हवू चलूंक लागलीं....



'हें पळय, हेंच तें घर...' घरादिकेन बोट दाखयत बागातलो आकाडो बलांटतना कुश्टबाबान म्हळें.

घर चड व्हड नाशिल्लें... फावो तितलेंच.. पोन्नेच. पूण नवे नळे घातिल्ले. मुखावेल्यो दोनूय सरवळयो नव्योच दिसताल्यो. भायल्या आंगांनी तांबडों काव घालून शिमीट काडिल्लें. एकवटीत भायल्यावटेंन पुराय घर जाण्ट्यां बायलेक नेण्टी केल्ल्यांभाशेंन दीस.

सोप्यार एक काळेंच येलतूड अशें सुणें गोठिल्लें.. हांकां पळोवन व्हडा व्हडान भोकूंक लागलें. सोप्यावेल्यान उडी मारून आंगणात येयलें. भोंकत हांचें म्हऱ्यातच येवंक लागलें... 'हेडत् हेडत् ' करत कुश्टबाबान बेठोच जमनीक हात लायिल्ल्यावरी करतकीर, झुप्पकरून फाटी परतलें. आनी परतून सोप्यार वचून भोकूंक लागलें.

'कोणाक भोकतां रे हो....?' म्हणत घरांतल्यान एक जाण्टो भायर येयलो. मोटवोच. गोरो. धोपरांमेरेन पट्ट्या पट्ट्याचे ताणें काल्सांव घातिल्लें... बाकी पुराय उक्तोच आशिल्लो. ताचे आंगभर दाट पिकिल्ले केंस आशिल्लें. ताका पळयतल्याक कोणेंय म्हणपाचेच, हो कापसां गोदामातल्यान भायर सल्लो नां मूं...? ताचे ताळयेर मात एक्कूय केंस नाशिल्लो. ताळी पुरायच तिकतिकताली.

ताणें सुण्यांक भोंकचे पळोवन, 'हेडत हेडत् ... हाळ नांवाचें...' करत ताका थंयसून धांवडांवंन घालो. मागीर 'या. या' म्हणत, हांकां भितर घेवन गेलो. 'बसा' म्हळें'

घरांत वासरेर बेताचीं चार-पांच कदेला आशिल्लीं. म्हऱ्यात बेताचीच एक टी. पॉय.

कुश्टबाब आनी भालचंद्र बसतकीर तोवूय तांचे मुखार एका कदेलार बसलो. 'घरची सगळीं बरीं आसात न्ही...?' म्हूण वासपूस केली.

कुश्टबाबान हेवटेन तेवटेन नदर मारलिशी करून विचारलें, 'तुगेली घरकान्न रे...?'

'आसा, आसा, फाटल्यावटेन कितें तरी करता...' अशें म्हणत, 'अगो अमृत्या, येऽ अमृत्याऽ भायर कोण येयला पळय... ' म्हण लांब सुरात ताणें बशिल्लेंकडसूनच बायलेंक सादयलें.

भालचंद्रान वासरेवेल्यान नदर भोंवडायली. वासरीबीन बरीं सोबयिल्ली. दारावयर एक वागाचें चित्र फेम करून लायिल्लें. वण्टीर नटांलीं, नट्यांली कॅलेडरां लायिल्लीं. दोन तीन फोटेय हुमकळटाले.

'हो बंट नायक, म्हगेल्या बायलेलो मावशे भाव.' कुश्टाबाबान भालचंद्राक वळख करून दिली.

'मेवणो म्हूण रे...'

'बायलेलो मावशे भाव आनी मेवणो एकूच जालो ना?' मागीर भालचंद्राक दाखयत कुश्टबाबान म्हळें, 'हो भालचंद्र. आमगेल्यां आड्येतलो.'

'हय...?हां!'

बंटाल्या उलोवण्यात एकेतरेची मोवसाण झळकताली. उलयतना तो गरजेभायर कपलाक मिरयो घालतालो.

'कोण येयला?' म्हणत अमृत्यें पदराक हात पुसयत भितरल्यान भायर येयली.

ती आंगान लांब रुंद पाटी कशी आशिल्ली. बंट नायकां मानान ती भोव धिप्पाड दिसताली. अशें दिसतालें, मतीत येयल्यार ती बंटाक पट्टकरून उखलून खांदार घेत. पिरायेनय ती बंटा परस भोवच नेण्टी दिसताली. तिगेलो एक्कूय केंस पिकूंक नासलो. रंगान काळी.

भालचंद्रा दिसले, कोणे जुळयली काय ही बेजोड जोडी?'

'भावोजी, बरीं आसात मुरे सगळीं ?'

'हय, बरीं आसात!'

मागीर तिणें बारीक नदरेन भालचंद्राक तकलेंखंयच्यान पांयांमेरन पारखिलें.

'असोच येयिल्लो मुरे... भावोजी?'

'हय! हय!'

'बसांत हां! येतां....' म्हूण ती भितर गेली.

कुश्टबाबान विशयाक हात घालूंक म्हूण मुजरत विचारलें, 'चेडोबीन येयिल्लो?'

'हय पयरूच गेला येवन...!'

'व्हारडीकेक तयार आसा खंय चेडो अंदू?'

'अशी येवजण आसा...'

कुश्टबाबान भालचंद्राल्या तोंडाकडेन एक फावट पळयलें आनी मागीर बंटाक म्हळें, 'आमी एक जातक घेवन येयिल्ले. हागेली एक भयण आसा. बरेंऽ पोर, तुमकां फावो सारखें आसा. घर ज्यूस्त चलोवन व्हरतलें....'

बंटान तोडार कसलेंच भाव दाखयनासतना, जायत म्हूण तकली हालयली.

'चेडो कितें करता...?' इतलो तेप ओग्गी आशिल्लो भालचंद्र ल्हवूच उलयलो.

'तो मुंबय आसता. स्टील कंपनीत! कसले तरी नांव पळय कंपनिचे. म्हाका बरें येना ते नांव! म्हगेल्या धुवेक खबर आसा तें! ती तांगेली पाड पडिल्ली नांवां याद उरतात कोणाक...? तसो पगार बिगार बरो आसा !'

'...............' भालचंद्र

'खूब वर्सां जाली तो रोजोक लागून! धा बारा वर्सां न्ही रे बंटा?'

'ह्या कंपनीत लागून दोन तीन वर्सां जालीं. पयली तो दुसऱ्या कंपनीत आशिल्लो, ती अचानक बंद जाली.'

'पुणून मुंबय वचून बरींच वर्सां जालीं ना...?'

'हय, हय! बारावीक नापास जातकीर, तो आनी बेकार रावलोना. बापोलभावा वांगडां मुंबय गेलो. ताणें थंय रोखडोच लायलो ताका रोजेक!'

'अं.. हो पळय...' कुश्टबाबान वण्टीवेल्या एका फोटोकडेन बोट दाखयत म्हळें.

भालचंद्रान बरेंऽ करून पळयलें, फोटोर चेडो बरो दिसतालो. रेणूक फावो सारको.

'आवय भाशेंन तो लांब रूंद...'

'आतां मातसो भागला.'

'ज़ेवणा तरासबीन जाता आसतले!'

'ना! बापोलभावागेर रावता तो!'

भुरगी कितली तुमकां ? भालचंद्रान विचारलें.

'हो एक पूत, आनी एक धूव!'

भालचंद्रान विशयाक परतून हात घालत ल्हवूच म्हळें,

'हावें जातक हाडलां....'

'जातक हाडलां...? म्हूण बंट ओगी रावलो. मागीर म्हणूंक लागलो, 'आदी देवाकडेन प्रसाद लावंक जाय... मागीर जातक पळोवप.'

'प्रसाद आनी जातक पळोवप, दोनूय.....?'

'हय, हय. एकेक फावट जातकां सारकी असनात, तेन्ना प्रसादाचे बळगे उपकारा पडटां.'

भालचंद्र कांयच उलयलो ना. ओगी कुश्टबाबाल्या तोंडाकडेन पळयत रावलो.

कुश्टबाबान म्हळें, 'आमी कितें करता जाणां? आदी जातकां पळयतात, समजा जुळलीं नात, तर मागीर प्रसाद लायतात...'

'शेऽ! शेऽ! शेऽ! शेऽ!.... बंटान कपलांक साठ सत्तर मिऱ्यो घाल्यों. '.....अरें अमृत्याली आनी म्हगेली सोयरीक मावूळ-भाचेली! पुण म्हगेल्या बापायन आदीं प्रसाद लायलो. प्रसाद जातकीर मागीर जातकां पळयली आनी जातकां जुळतकीरच व्हारडिकेक तो तयार जालो. बेठोच आमगेलो संवसार इतलो बरो जालो....?'

भालचंद्राक एकवेटन ताचें खरें दिसलें, ताणें मनात म्हळें, बरोबर हाचें. एकेक फावट जातकां सारकी आसनात तेन्ना देवाच्या प्रसादाचे बळगेंच तारतां!... संवसार नंदू जाय तांगेलो!

भितरल्यान अमृत्यें च्यायेचीं दोन कपां घेवन येयलीं. 'हीं घेयात... ' म्हूण तिणें तीं टी-पॉयचेर दवरलीं.

'च्या पियात'.

'तूं घेना?'

'नाका नाका.' बंटान पोटावेल्यान हात भोंवडायत म्हळें, 'म्हाका चड च्या पिल्यार बरेंऽऽ जायनां...'

च्या पिवन जातकीर कुश्टबाबान बंटाक म्हळें, '... मागीर कितें....? कितें करूया...?'

'जातक दवरून वचात! हांव आदी प्रसाद लायतां देवाकडेन! प्रसाद जाल्यार जातकां पळयतां! आनी मागीर सांगून धाडटां...!'

'तुमका जाय तशें... ' अशें म्हणत भालचंद्रान पोतयेंतल्यान जातक काडून बंटाकडेन दिलें, आनी 'आमी येतात... ' म्हूण तो उठलो.

एके गजालिची भालचंद्राक अजाप दिसली ती म्हळयार बंटान चेडवा बद्दल कांयच विचारलें ना. हरशी खंयूय सोयरिकेक गेल्लेकडेन चेंडू कितें करता म्हूण चवकशी केलेबगर कोण रावना. हाणे चेडूं सोडूंच, चेडवाच्या घराबद्दलय चवकशी केली ना. म्हाका सुदीक तूं कितें करतां म्हूण विचारलो ना. प्रसाद, जातकीर फुडली चवकशी करूया म्हूण रावलो काय? काय भायल्यान खंयच्यानूय चवकशी काडुया म्हूण रावलो ? घडये तशेंच आसत...



हरशी रामप्रहरार जागो जावपी भालचंद्र आयज मातसो उसरांच जागो जालो. तो उठलो, तेन्ना फाल्या पाराचो काळोख सुमार इतलो पातळ जाल्लो. सुकण्या सवण्यांची चींव चींव आनी कावळयांचीं कांव कांव जळीं मळीं आयकूंक येतालो.

अनसुया रांदचे कुडीत आपणालो वावर करताली आनी रेणू रगड्यार घडक घडक करून भाकरेक वाडटालें.

भालचंद्रान तांबयो भायल्या टबांतल्यान भरून घेयलो आनी तो वचूंक सुटलो..

ताका सट्ट करून याद जाली. झाडां पोदां काजूं बियो पडिल्ल्यो आसतल्यो. परतून आनीक तीं हाडूंक कोण वयतलो? आयज थंयच वचुया आनी येतना तीं वेंचून हाडुया.. तो तसोच परतलो.

मागील दारातल्यानत ताणें बायलेक सादयलें, 'अनसुया...'

'कितें...?' चुलीकडल्यानूच अनसुयान जाप दिली.

'मातशें तें काजूं बियां चोबूल दी पळोवया.. मागीर आनीक तीं काजूबियां कोण हाडूंक वयतलो....? येतनाच वेंचून घेंवन येतां.'

'खंय दवरला?'

'अं...थंय न्हांणेवयल्या पाट्येर आसा पळय...'

अनसुयान चोबूल हाडून दिलें.

चोबूल घेवन तो गेलो...

मदलें शेंत बलांटून तो काजूधुत्यार येयलो. थंय तागेली धा.. बारा काजूझाडां दाटिनी ाडिल्लीं.

ताणें झाडां पोंदांनी नदर घुवंडायली. जायतीं काजूं फोगां हांगां थंय फाफसून पडिल्लीं. ारीकसाणेन चोयल्यार काजूपत्र्यार पडिल्ल्यो बियोबीन दिश्टी पडटाल्यो. मदी मदी पिकून जार ाल्ली फोगांय टप्प टप्प झडून पडटालीं.

ताणें येवजिलें, आदीं आपणालो विधी आटापून येवया आनी मागीर बियो वेंचुयां...

ताणें चोबूल थंयच दवरलें आनी तांबयो घेवन तो एक व्हडशा रुखां आडसाराक गेलो...



आपणालो विधी आटापून भालचंद्र काजुपोंदां येयलो. थंयचे चोबुल उखलून तातूंत रितो तांबयो दवरलो. सकयल फांफसून पडिल्लीं एकेक फोगा उखलून बियो काडून चोबलांत घालीं. उपरांत ताका काजू पत्र्यापोंदात पडिल्ल्यो बियोबीन दिसल्यो. ताणें पत्रो आरतो परतो करून पळोवंक सुरवात केली. ताका थंय चडच बियों मेळूंक लागल्यो, ताणें मनात म्हळें, हो पुराय पत्रो हलकेन बरगोन काडल्यार, धा कुडव बियो तरी मेळटल्यो! एक दीस येवन बरगवचेच पडलें!

इतल्यात 'टप्प' क़रून एक पिकिल्लें फोग झाडावेल्यान सकयल पडलें. भालचंद्रान वचून तें तांबडे तांबडें फोग उखल्लें, खिणभर ताका तें खांयन दिसलें.. शीऽ! आजून तोंडाक उदकाचो घोटय घेतलोना, अशें येवजून, ताणें ताची बी काडली आनी चोबलांत उडयली.

परतून पांयान पत्रो बगलेन सारून बियो सोदूंक लागलो. पत्रो बगलेन सारतना, ताच्या पांयांक कितें तरी लागलें. ताणें बागवोन पळयलें... एक येद्दिशीच कोंड्यांबडी पत्र्यांपोंदात पडिल्लीं. ताणें ती उखलून घेयली. ही हांगा कोणे, केन्ना हाडून उडयली? कोणें भुरग्यान बियो झडोवंक हाडिल्ली आसुंये... मागीर तो बड्येनूच पत्रो बगलेन सारूंक लागलो...

तो पत्रो सारतना आनीक एक फोग 'टप्प' करून ताच्या फाटल्यान पडलें. तो फाटल्यान वळून ते फोग उखलून घेता थंय आसा, कुच्च करून ताका पांयांच्या फाटलेवटेन, पोंवटे सकयल कोणेंतरी चाबलें. आनी सर सर सरसर करून पत्र्यांत नाच्च जालें. कोण म्हूण पळोवंक मेळ्ळेना. ना

म्हळयार शेंपडे खंयचो भाग दिश्टी पडिल्लो, पुणून काचांबुल जाल्लेकडेन, ताका तो हळडुवो का
धवसो काळसो हेंवूय होलमलेंना.' ... आवयस, म्हाका कोणें चाबलें...' म्हूण ताणें थंयच बसक
मारली. सर्पान बीन चाबलें नां मूं....? म्हूण ताणें चाबिल्लेंकडेन बरें करून पारखिलें... ताका वे
मारलीशी जाली. सर्पानूच आसूंक फावो. पळवया म्हूण तो उठलों. हांगांच खंयतरी पत्र्यांपोंदां
आसूंक फावो, हें येवजून, ताणें अदमासानूच कोंड्यां बड्येन 'रप्प रप्प' करून पत्र्यार मारूंक सुरवा
केली.. मागीर ताक सट्ट करून याद जाली, बायल गुरवार आसल्यार घोवान कसलेंच जिवाणें मार
नयें म्हण्टात. तें आनीक नाका. ताणें ती बडी थंयच उडयली. चोबूल घेयलें, आनी ताकतिके
तसोच ओडत घराकडेन येयलो.

मागील दारातल्यानूंच ताणें म्हळें, 'अनुसया, म्हाका कोणेतरी चाबलें मुगो...'

भायले कुडीत आशिल्ल्या अनसुयान हें आयकलें ना. पूण रांदचे कुडींत आशिल्ल्या रेणून ज्यूस्त आयकलें. 'आं...? कोणें चाबलें?' म्हणत कांचाबूल जावन तें भायर येयलें, 'हुने, अण्णाक कोण चाबलें खंय.. बेगीन यो....'

भायल्या कुडींत अनसुया कोयर काडटाली. ती सान्न थंयच उडोवन धांवतच रांदचे कुडींत येयली.

भालचंद्र भितर येवन जमनीरुच बशिल्लो. तांकां वेग मारतालो. हे ताच्या चेऱ्यावेल्यान होलमतालें.

'कोण चाबलें...? अनसुयान कांचाबुल जावन विचारलें.

'कोण म्हूण समजलें ना, पूण खंयच्यातरी जिवाण्यान चाबलां हें खरें'

'आतां कितें करतले...?' ती रडूंकच उठली. 'रेणू, बेगीन बेगीन वचून वाडयावेल्या लोकांक आपोवन घेवन यो वच.'

रेणून धाव मारली.

'अनसुया सुतली घेवन यो. कट घालुया.. आनी ब्लेडीपानय घेवन यो. दाढये सामनांकंड्यात आसा! कंडो कुरकुटात आसा. मदले कुडीत!

अनसुया ताकतिकेन होंवरेत गेली. भितर वतना तिगेलो दावो पाय हुमऱ्याक आदळळो, पूण तिणें थंय लक्ष दिलें ना. फोंडयेंत हात घालून थंय सुतली मेळटा काय पळयली. पूण थंय सुतली

ाशिल्ली. 'अरे देवा!' मागीर तिणें होंवरेत अशीच नदर भोवंडायली... कणांतरेक येद्दिशीच एक सुंबादोरें गुठ्ली खोवोन दवरिल्ली. ती तिणें बेगोबेगीन काडली. भायर येवन मदले कुडीतल्यां कुरकुटांतल्यान ाड्येसामना कंडो घेयलो आनी रांदचे कुडीत येयली.

'हें पळय... हांगां चाबिल्ल्या सुवातेर ब्लेडीन चीर, बरेंऽ चीर...' भालचंद्रान बायलेक सांगले आनी आपूण सुंबादोरेन पोंवटेंवयर गच्च ज़ातातितले जोरान कट घालो.

अनसुयान चाबिल्ल्यासुवातेर कच्च कच्च करून बरें चिरलें. तातूंतल्यान चर्रर करून रगत येयलें, आनी तें गळूंक लागलें.

कांयवेळान वाड्यावेलो म्हाळू, जयवंत आनी पांगळो राम येयलो. तांचे फाटल्यान पांच स बायलोय येयल्यो. राधेलो संदीपय खंयच्यान नेणो धांवत धांवत येयलो.

'कोण चाबलें ? कोण चाबलें...?' म्हणत सगळयांनी कंवडाळें केलें.

'आस्पत्रेक व्हरूंया ताका, आस्पत्रेक व्हरूया.' जयवंतान बोवाळ घालो. तो मुस्तायकी चडोवन तयारेनच येयिल्लो.

'कट घायला मरे....?'

'हय.'

'आतां आनी कळाव नाका. चल चल.'

भालचंद्रान बायलेक म्हळें, 'अनसुया म्हगेले कपडे दी...'

'क़पडे बिपडें काय नाका. आसा तसोच उठ. त्या काल्सांवारुंच एक खोमीस घाल.'

रेणून बेगोबेगीन ताका एक खोमीस हाडून दिलें.

'हांव ताका व्हरता मुखार सायकलीर. तुमी फाटल्यान येयात. संदीप, तूंवय सायकल घेवन सोमतो कारवारा सरकारी आस्पत्रेंत यो. आमकां मोडणार रिक्षा मेळटली. थंयसून रिक्षांत घालून व्हरतां ताका हांव.'

जयवंत सायकल घेवनच येयिल्लो. ताणें भालचंद्राक सायकलीचेर बसयलो आनी सोमतोच मोडणार येयलो.

मोडणार एका हारीन रिक्षा उब्यो आशिल्ल्यो.

जयवंतान आपणाल्या सायकलीक चावी करून थंयच ती कुशीक दवरली आनी भालचंद्राक हाडून एके रिक्षांत बसयलो. 'कारवारा सरकारी आस्पत्रेंत... ' ताणें रिक्षावाल्याक सांगलें. रिक्षावाल्यान फुरसद पळयली ना. रिक्षा सुरु केली.. वाटेर जयवंत परतून परतून भाचंद्राक विचारतालो, 'भालचंद्रबाब बरें दिसतां मरें तुका...?' भालचंद्र 'हूं' म्हणटालो... पूण ताका भोव तरास जाता जावयें अशें जयवंताक दिसतालें.

आस्पत्रेच्या दारामुखार रिक्षा थांबयली.

जयवंतान भालचंद्राक देंवयलो.

आस्पत्रेच्या दारार धवे कपडे घालून एक कर्मचारी उबो आशिल्लो. जयवंतान ताका सांगलें, 'हाका सर्पान चाबलां. रोखडोच दोतोरा म्हऱ्यांत व्हर...'

'आं? सर्पान चाबलें...'

त्या कर्मचाऱ्यान भालचंद्राक रोखडोच दोतोरा म्हऱ्यात व्हेलो. दोतोर कदेलार बसून कितें तरी बरयत आशिल्लो.

'दोतोर, हाका सर्पान चाबंलां खंय....'

'सर्पान चबलां....? अशें म्हणत दोतोर बरवचें थंयच सोडून उठलो आनी मुखार येयलो. भालचंद्राक ताणें थंयच खाटीर बसयलो. 'खंय चाबलो रे?'

'हांगा.' भालचंद्रान सुवात दाखयली. तो सामकोच आकूळ पिळूक जाल्लो.

'तुवें पळयिल्लो रे सोरोप.....?'

'ना. पुणून कितें तरी सरसरत गेलें...'

वेग मारता?'

'हय.'

'सिस्टर...' दोतोरान नर्सेक सादयलें...



सकाळी उठतसावन बेठीच लकण मारताली. मदी मदी जीव हगूर जावन येतालो. खिणांतच भितरल्यान खंयच्यानतरी वयर चडून येतालें तर खिणांतच आतां ओकूंक जातलें काय किते ? अशें देसतालें... सारके किंतें जाता हें कळच नाशिल्ले. तकलीय बारीक कणकणटाली.

एक दीस आस्पत्रेत रावन तो येयिल्लो.

आयज तो खंयच वावराक गेलो ना. खरें म्हळयार वचचेली हवसाण नाशिल्ली... पुणून ताणें बायलेक तशें सांगलें ना. आनी बायलेनूय, आयज घरात कित्यांक तुमी? म्हूण विचारलें ना. तो कालच आस्पत्रेतल्यान येयिल्लो. आसूं, जिवाक मातसो सुशेग घेवूं म्हूण ओगी रावली आसूंये.

काल आस्पत्रेंतल्यान घरां येता म्हळयार, अनसुयाल्या आनी रेणुल्या तोंडार नुरा म्हण्टा ती नाशिल्लीच. दोगाय कांचाबूल जावन गेल्लीं. रेणून तर कितल्या देवाक सांगणी घाल्ली देवच जाणां.

ताका आस्पत्रेन व्हेल्ले उपरांत तीं तशीच फाटल्यान मेळत तें वाहन धरून धाविल्लीं. उपाशीच तागेल्या खाटीवयर पडून राविल्लीं. दोतोरान जेन्ना 'आतां तुकां भिरांत ना, तूं घरां वचूंक हरकत ना...' म्हणिल्ले तेन्ना तांकां सूऽ जाल्लें.

भालचंद्राक दिसले, बरो वाटावलों! हांव मेल्यार कितें जाताशिल्लें हया घराचें...? रेणुलें अजुन लग्नय जावचें आसा! म्हजी ह्या घराक गरज आसा. हांव ना म्हळयार, ह्या घराचे हांत पांय मोडिल्ल्यातच जमा! बैल नाशिल्लो नांगर वयतलो कसो मुखार....? हांगेले नशीब बरें, म्हूणच सालवार जालो! देवापुरसा, तुवेंच जितो हाडलो बाबा!

भितरल्यान अनसुयालो 'ओक ओक' करून ओकारी काडिल्ल्याचो आवाज येयलो.

ताणें बशिल्ल्याकडच्यानच सादयलें, 'अनसुयाऽ ए अनसुया... ' पूण, अनसुयान जाप दिली ना. घडये तिणे आयकलें नासुंयें. ती 'ओक ओक' करतच आशिल्ली.....

भालचंद्र कदेलावेल्यान ल्हवूच उठलो. ताका घरर्र जाल्ल्यावरी जालें, मातशी लकण मारली, तरी तो तसोच थातारलोसो करून भितर येयलो.

अनसुया न्हाणेंत बसून ओकूंक काडटाली.

'ओकारी येतात गो...?'

'हूं...'

'ओकूंक जालें....?'

'हूं..'

'सकाळी खाल्लें पुराय ओकून उडयलें...?'

'हूं.'

भालंचद्रान अनसुयाल्या फाटीवेल्यान हात पोशेले. वेल्यान सकयल रगडलेंशें केलें... ती ओकाऱ्यार ओकारी काडटाली...

मागीर ती आपूणच सावशीद जाली. तोंडाक उदकाचो घोट घेवन, न्हाणेंतल्यान भायर येयली.. आनी खर्शेलेंशें करत रांदचे कुडीत थंयच बसकण मारली.

'म्हाका मातशें अं... त्या बरणेंतल्यान एक तोर काडून दिश्यात....?'

'तोर जाय.....?' अशें म्हूण भालचंद्र चुलीकुशिच्या कत्रेलांकडेन गेलो. कत्रेलान तोरां बरणी आशिल्ली. ताणें तोर काडूक बरणें धाकणे फिरयलें मात.. भालचंद्राक आपणाक कितें जाता म्हूण कळळेंना.. तो धड्ड करून थंयच सकयल पडलो. ताचेवेल्यान तोरांनी भरिल्ली बरणी पडली...

'देवा म्हज्या... कितें जालें....? कांचाबूल जावन बेगोबेगीन अनसुया उठून म्हऱ्यांत गेली. भालचंद्राली कांयच 'हां हूं' ना. दोळें मात उक्तेच आशिल्लें. 'आयकलें.. यें.. यें...' करत तिणें तागेलें आंग हालयलें पूण कांयच ना!

ती भियेली. 'धांवन येयात.. धांवत येयात.. हांकां किते जालें...' म्हणत ती तशीच हुयेलीं मारत, उठून धांवत धांवत आंगणात येयली.. 'शेवतूमावशेऽऽ राधेऽऽ धावंन येयात.. हांकां कितें जालें... धावन येयांत... येयात रे कोणूऽऽय'.

लांबाडो दिगंबर लाकडां फोडटालो. अनसुयालो बोवाळ आयकून ताणें कुराड थंयच उडयली आनी पागोर हुपून तो धांवतच येयलो.

तेवटेन शेवतू मावशी आनी राधा येयलीं. करता करता वाड्यावेले पुराय लोक येयले.

अनसुया तकलेर हात मारून घेत भालचंद्रां म्हऱ्यात येयली. 'कितें जालें पळया रे हांका... कायच हां हूं करिना.. ' म्हूण हात जोडून येयिल्ल्याक सांगू लागली.

खंयतरी गेल्ले रेणू मागील दारान 'कितें जालें? कितें जालें?' म्हणत कांचाबूल जावन भितर येयलें. भालचंद्राक थंय पडिल्लो ताणें पळयलें मात..., ताचें अंतरमळ हुडलें. 'अण्णा कितें जालें रेऽऽ?' म्हूण ताका वेंगोवन व्हडा व्हडान हुयेली मारून रडुंकच लागलें....

'उठ उठ आबूज जायनाकात. उठ'. कोणेतरी रेणूक कुशीक काडलें.

'कांदो चाचोवन नाकांकडेन धरात'. कोणेंतरी म्हळें.

वयरूच कांद्यां झोले लांबतालें. दिगंबरान फट फट करून चार-पांच कांदें तुटयलें. हातानच जमनीर चेचोवन, भालचंद्राल्या नाकांकडेन धरले.

कोणेंतरी तांबयांत उदक हाडून पियोवपाचो येत्न केलो. दोळयांक उदक लायलें, तकलेरूय थापलें.

'मिठान शेकयल्यार कशें...?'

'हय. हय.'

'अरे, आदी वचून दोतोराक घेवन येयात.' 'हय. हय. जाता.'

'हांवच वयतां...' म्हणत दिगंबर तसोच धावलो...

अनसुया आणि रेणू हुयेली मारत आशिल्लीं...



गोरवांक तण दिवन रेणू घरा येयलें. न्हाणयेंत हांत-पांय धुयले. हात तशेंच स्कर्टाक पुसोवन मदले कुडीत येयलें आनी वण्टीक तेकून ओगी बसलें.

पुराय घर ओग्गी ओग्गी जाल्लें. चैतन्यहीण.

रेणूक दिसलें, घर मोन्यांनी रडटा. भितरलें भितर आपणालें 'हुंडके चिड्डून घेतां. ताचे घरपण ना जालां..., देखून घडयें...! कोणें बुड्डन व्हेलें ताचे घरपण? कोणें नश्टयलें ताचे चैतन्य? कोणें हुमटिलो ताचो म्हालखांब? आतां हें घर तिगून रावतलें कशें? खंयच्याय खिणांत पुराय घर मातयेंभरवण जायत....!

दोन दिसां फाटी, हें घर कितलें खोंशयेंत आशिल्लें ! कितलें चैतन्यमय! हुनेक दीस

गेल्यात म्हूण कळटकीर, एक आगळीच उमेद वस्तेक येयिल्ली! एक निराळोच शबै घरभर बोवाळटालो! खंय गेली ती उमेद? खंय गेलो तो शबै?

आयज दोन दीस जालें. हुनेन अन्नाचो कण लेगीत उश्टिलो ना. दोळे उक्तें करून तिजेर नदर लेगीत घालूंक जायना, कितलीं सोबीत दिसताली हुनी! येद्दो व्हडलो कुंकूम लायताली. हांवें एक फावट म्हणिल्लें, 'हुने तूं जाण्ट्यां बायलांवरी येद्दो व्हडलो कुकूम कित्याक लायता गे? बरो सोबीत इल्लोसोच लाय मुगे!' तेन्ना तिणें म्हणिल्लें, 'म्हगेल्या तोंडाक आनी रुंद कपाळाक व्हड कुंकूमच बरो सोबता. आतां ते रूंद कपाळ पळयतल्याक खावूंक येतालें. पुरायच उक्तें उक्ते दिसतालें. रेणुल्या पिशेंमनाक दीस, तिजेसरी वचचें, कंड्यातलों कुंकूम घेवन, पयलेच्या भाशेंनच येद्दो व्हडलो कुंकूम त्या कपालाक लावंचो, आनी म्हणचे, 'हुने हें कपाळ अशें दवरिनाका गे...!'

अण्णा वांगडां पयलेच फावट तिका पळोवंक गेल्लें तेन्नातर ती कितली सोबीत दीस. आंगान घसघशीत. घोटिल्ली! गोरी गोरी! लांब फातयेर आबोलेचो सोर सोडिल्लो. तिगेलें तें लांब केंस मनाक पिशें लायताले. तिणें फुलांफुलांची पाचवी साडी न्हेशिल्ली. अण्णान तिका एके नदरेतूच पसंत केल्ली.

हांगा येतकरी मात, ह्या चार वर्षात ती घगान रापेल्ली. आंगाचो घसघशीपणा वचून एक शिवडी जाल्ली. अण्णा सदांच म्हणं...' ... आपूण तिका सूख म्हण्टात तें दिलें ना. इतलो गांवदेस भोवन येयलो. तिका खंय म्हूण घेवन गेलोना. हांडलो आनी ह्या घुल्लांत किडेवंक घालो...'

व्हदळ तिगेले आवय बापूय येयिल्ले. आवय घुवेक वेंग मारून 'तुका बुडयलें गो पुता, आमी...!' म्हूण व्हडा व्हडान रडली.

आतां तर ती जिवाची बीन वाट लावूंक लागल्या...

भायर काळखाची सयां मारूंक लागिल्लीं.. वेळ पडचो आदी हुनेक जेवोवंक जाय! पळवया, आतांतरी जेवता काय म्हूण...!

रेणू उठलें, आनी हुनेल्या कुडीत गेलें. ताणें ल्हवूच 'हुने...' म्हुण उलो माल्लो

हुनेन हां हूं कांयच केलें ना. ती ओग्गी दिमयेंत तकली रिगोवन बशिल्ली. माणयेर पेटोवन दवरिल्ल्या पंटेकडेन, आनी खुंटयेर हुमकळयिल्ल्या सुताकडेन, एकधारेन पळयताली... रेणूक तें पळोंवन घळळ जालें.

ताका याद जाली लग्नां दिसाची. नवी व्हंकल हुनी हेच कुडीत दिमयेत तकली रिगोवन अशीच बशिल्ली... पूण हे हुनयेत आनी ते हुनयेत केदो व्हडलो फरक आशिल्लो! कपलभर कुंकूम लायिल्ली.. ! माथेंभर फुलां माळिल्लीं! आंगभर भांगरां शिंरगारांनी सोबिल्ली हुनी...! त्या व्हनयेल्या मुखांमळांर, आंगार, एक आगळें तेज खेळटालें. खंय गेलें तें तेज आयज? खंय मरून पडली सया? त्या दिसा हुनी ह्या कुडीत आपणाले अयापण बेंगोवन बशिल्ली. आयज ती अयावपणापासत रडटां! कित्याक शेणलें तिचें अयावपण? देवा तुका म्हजोच भाव जाय आसलो?

रेणू तिजे म्हऱ्यांत गेलें. 'हुने जेवण हाडूं...? आयज तरी दोन उंडी जेव...' तिणे तकलेनच न्हयकारलें.

अशें करूं नाका हुने, दोन दीस जालें, तूं जेवली ना. अशी जिवाची तळतळाट करून घेवं नाका. तुज्या पोटांतल्या भुरग्यापासत तरी! आमगेलो वंश तो'.

अनसुया आतां रडुंकू लागली. हुंडक्या हुंडक्यांनी. तिका पळोवन रेणूय रडूंक लागलें. एकवटेन ते 'ओगी राव हुने, ओगी राव..' म्हूण तिका समजयतालें जाल्यार दुसरे वटेन आपूणच रडटालें...

अनसुयां रडटां रडटां खोकूंक लागली. ल्हवूच तिका ओकारी येवंक लागली.. ती 'ओक ओक' करत उठली आनी न्हाणयेंत येयली. बसून 'ओक ओक' करत ओकारी काडूंक लागली.

रेणूय तिजे फाटल्यान येयले. तिजे फाटिवेल्यान ल्हवू ल्हवू रगडलें. ती सावचीत जातकीर दोगाय न्हाणयेतल्यान भायर येयली.

'हुने, जेवता मुगे...'

तिणें परतून तकली हालोवंन 'ना' म्हळें.

'अशें करूं नका गे'

'म्हाका पोटात उंडी वचची ना गो रेणूऽऽ' ती परतून रडूंक लागली.

'हुने, मन घट्ट कर गेऽऽ पोटातल्या भुरग्यापासत तरी गेऽऽ'

'ताका लगूनच जियेतां गो हांव.. रेणूऽ नाजाल्यार म्हाका हो जीव नाकाच आशिल्लो...! ती पदर तोंडार धरून परतून हुंडके दिवंक लागलीं....



‘घरांत कोऽण?’

‘कोऽऽण?.... ’भितरल्यान आवाज येयलो आनी अमृतें पदराक हात पुसयत भायर येत्तें
‘कोण जाय?’

‘हांव मीरा... तो तुमी सोयरिकें संबंधान रकाद धाडिल्लो...’

‘हां हां हां... यो यो बस.’

मीरा भितर वासरेर येवन थंयच एका कदेलार बसलें.

‘बस हां, हांव आपयतां फाटल्यावटेन आसा...’ तीं भितर गेली. मागीर दारात येवन, नि
घोवाक सादयलें, ‘आयकलें....’

बंट कोयतेन पिडारे हाणटालो... ‘कितें?’

‘तुमी सांगून धाडिल्ले न्ही सोयरिके संबंधान बाबुल्या..’

‘हय. हय’

‘एक बायल मनीस येयल्या.’

बंट कोयती थंयच दवरून वासरेर येयलो. बंटाक पळोवन मीरा बशिल्लेकडच्यान उठलें.

‘बस , बम्स तूं....!’

‘हांव भालचंद्राली भयण!’ मीरा परतून बसत म्हळें, ‘घरा आनी दादले मनीस कोण ना न्ही.. म्हूण म्हाकाच येवचें पडलें.’

मीराल्या दोळयांत दुकां येयलीं, ताणे पदरान ल्हवूच पुसयलीं.

‘कितें करतलो ताका....’ बंट कपलाक मिरयो घालत सुस्कारलो. ‘म्हाका जाप दिवंक येवंक जाय आशिल्लें, पुणून....’

‘कितें जाल्लें ताका....?’ अमृत्यान मदींच विचारलें.

‘कांय ना, बरोच आशिल्लो. सकाळी उठून काजूंबियो पुजोवंक गेल्लेकडेन कोणेंतरी चाबलें. आस्पत्रेत व्हरून वखद पाणी करून हाडलें. घरां हाडिल्ल्यां हेर दिसाक, बायलेक तोर काडून दिवंक

म्हूण बरणेकडेन गेल्लोच थंय पडलो. जालें ! कितें म्हूणच कळळें ना! कोण म्हण्टात, हार्टफेल जालो! कोण म्हण्टात दोतोरान दिल्ले वखद माल पडलें ! धा तोंडां धा तरेन उलयतात...'

'मर्णाक एक कारण जाय.... दुसरें काऽय न्ही...'

मीराल्या दोळयांत परतून दुकां येयलीं. ताका भावनां चिड्डून दवरपय कठीण जावंक लागलें. तें थंयच सूं... सूं करून रडूंक लागलें. म्हणूक लागलें, 'चड वर्सां पिरायेचो नाशिल्लो गे म्हगेलो भाव... पस्तीस वर्सांबीन पुराय जावंक नाशिल्ली...! पोरूंच मिलेट्रींतल्यान रिटायर जावन येयिल्लो!'

अमृत्याक काकुळट दिसली. तिणें म्हळें, 'भुरगीबीन ना खंय न्ही...!

'बायल गुरवार आसा...'

'हय...? जावं बाबा!'

'आतां घरांत दादलो मनीस म्हणटां तो कोणूच ना. म्हगेलो घोव रजेर येयिल्लो. तोवूय गेलो वचूंक...! पुरायच अवतिकाय गे... ! आतां म्हाकाच भायर सरून कितें कितें करचें पडटा!...'

'ताका उपाय ना न्ही...!'

'तुमी रकाद धाडिल्लो म्हूण हांव येयिल्लें.'

'बस हां...' म्हूण अमृतें भितर गेली.

मागीर बंटानच विशयाक सुरवात केली... 'तुगेलो भाव येवन उलोवन गेल्लो... मागीर हें नश्टे घडलें न्ही, उलोवणी तितल्यारूच उल्ली. आमी प्रसाद लायलो. जातकां पळयलीं.. सगळें ज्यूस्त जालें. आनीकूय चेडवां येयल्यांत. पूण आमी येवजिलें, बावड्यान उलोवणी सुरू केल्ली... तेंच पळवयां. उलोवणीं जुळना जाल्यार मागी दुसरी पळोव... म्हूण ताकतिकेन रकाद धाडचो पडलो.'

मीराक आयकून सूऽ जालें.

'हांव चेड्याक रकाद धाडूं...?

'हां हां! धाडा!'

'चेडो येयलो काय, रोखडोच आमी तुमकां रकाद धाडटात.. केन्ना पळोवंक येतात ते कळयतात.. जायना...?'

मीरान तकली हालोवन 'हां' म्हळें, 'बरें... हांव येता तशें जाल्यार आतां... चेड्याक घ दवरून येयलां...' अशें म्हणत ताणें ताकतीक केली.

'थांब, थांब मातशें... अमृत्याऽ.' तकली भितर रिगोवन ताणें बायलेक सादयलें,

'भितर यो, भितर यो तूं...'

मीरा भितर गेले.

'यो. बस...' अमृत्यान बसूंक म्हाणय दिली. तिणें पानक तयार केल्लें. तें एका पेल्यात ओतून ताका पिवूंक दिलें... मागीर एक ताट घेवन तातूंत दोन कोंदलें भरून तांदूळ घाले. एक नाल्ल दवरलो. आपणालें कुडीत वचून एक पोलक्या लुगट घेवन येयली. भायर वचून दोन शेवतें फुलां हाडलीं.

कुरकुटातल्यान तेलां गिंडी घेवन, मीराले तकलेर इल्लें तेल घाले. कुंकमां कंडो घेवन हळद-कुंकूम केलो. तिजे आंबांड्याक तीं दोनूय फुलां खोयलीं. आनी हूट भरली.

मीरानय तिका कुंकूम लायलो, आनी पांयां पडलें.

'बरें जांव!'

'जेवन गेल्यार जायना...?'

'आसूं... आतां जेवचे दीस आसातच न्ही फुडें...'

मीरान तांचो निरोप घेतलो.



घरांत चार कदेलां आशिल्लीं. कुश्टाबाबान आनीक दोन कदेलां आपणाल्या घरांतल्यान हाडून दवरिल्लीं.

मीरा सकाळीं उठूनच घोवागेरच्यान येयिल्लें. येतना ताणें आबोलें फुलां आनी फातयो हाडिल्ल्यो. केळीं आनी बिस्कीटां हाडिल्लीं.

कितें चड उणें जाय जाल्यार म्हाका सांग हां पुता म्हुण कुश्टबाबानय सांगून दवरिल्लें.

तेमी येवची वेळ जावन गेल्ली. अजून हे लोक कशें येवंक ना हाचो मीराक हुस्कोसो जाल्लो.

मीरान रेणूक भावोजीन हाडिल्ली तांबडी साडी न्हेसूंक लायली. खरें म्हळयार रेणूक अण्णान हाडिल्ली सिल्काची गोबरा रंगाची साडी न्हेसची आसली पुणून मीरान म्हळें, 'तांबडो रंग तुजे गोरे कातीक बरो सोबून दिसतलो..' ते केंस वळोवन, फुलां फांती माळून, पोव लावन तयार जावन आशिल्लें. ताणें गळयात पयरूच अण्णान करून हाडिल्लो भांगराचो नेकलेस घाल्लो. रेणूक परतून परतून अण्णाची याद येवन दोळयांत दुका येतालीं. अण्णान तो नेकलेस करून हाडिल्लो खरो, पुणून भयणीन, तो गळयात घाल्लो दोळें भरून पळोवंक नासलो. हाडिल्ल्या दिसाकूच ताणें म्हणिल्लें, 'रेणू, दाखय पळोयवया कशें दिसतां...?' पूण रेणून ताका घालून दाखोवं नासलो. त्या दिसा रेणुचें आनी हुनेचे पेटिल्लें... तें सोंडों फुगोवन आशिल्लें त्या दिसा..' ताका दिसलें, म्हाका पापणीक व्हरची तिडक येयली त्या दीसा! हुनेकडेन झगडल्यार अण्णाक कित्याक फुगोवन दाखोवंक जाय आशिल्लें म्हाका ?

हुनी सगळो वावर आटापून ओग्गी आपणाल्या कुडींत वचून बशिल्ली. मीरान तिका वचून म्हळें, 'हुने भायर येवन बस. भितर कित्याक बसल्या...?'

'नाका गो, तेमी येवन गेले उपरांत भायर येता हांव.'

मीराक कितें उलोवंचे म्हूण समजलें ना, तें ओगी भायर येयलें.

आंगणातल्यांन मीरालो चेडो धांवत धांवत येयलो.. 'माँ माँ.. लोक येतात...'

'येयले आसतले...' अशें म्हणत, मीरा तशेंच भायर वासरेर येयलें. पळयल्यार सगळीं दारातच हजर! बंट नायक, चेडो आनी चेडूं येयिल्ली. आनी तांचे वांगडां कुश्टबाब आशिल्लो.

'येयात..येयात.'

मीरान चेड्याक बरें करून पळयलें, चेडो उंच आशिल्लो, पूण आंगलोटान भोवच पातळ दीस. ताणें लांब हातांचे धवो शर्ट आनी काळी पँट घाल्ली. तो रंगान सावळो आनी चेऱ्यार कसलेंच तेज नाशिल्लें.

तेमी भितर येयलें.

बापूय आनी पूत वासरेर कदेलार बसलें. तें चेडूं मात सोमतेच भितर येयलें. ताका अचकीत भितर येयिल्लें पळोवन रेणू मातशें आबूज जाल्ल्याभाशेन जालें. थंयच शेंदरी पातळिल्ली आशिल्ली. रेणून ताका थंय 'बस' म्हळें.

सगळे ज्युस्त जालां मुगो पुता...?' कुश्टबाबान भितर येवन सगळीं वासपूस केली,

'हय कुश्टबाबा...' म्हणटकीर तो भायर वचून बसलो.

'नांव कितें तुगेलें बाय?' मीरान त्या चेडवाक बारीक नियाळत विचारलें.

'शिलिनी.'

'तूं भयण न्ही न्हवऱ्याली...?'

'हय!'

'हांव त्या दिसा तुमगेर गेल्ले तेन्ना तूं नाशिल्लें!'

'हूं'

ते चेडूं लागी लागी रेणुल्याच पिरायेंचे आशिल्लें.

ताणे मळबारंगाची साडी न्हेशिल्ली... तें रेणूक बारीक नियाळटालें..

'एस. एस. सी. पास जालें ना तूं..?' ताणें ल्हवूच विचारलें.

'ना.'

'कितलें विशय उरल्यात...?'

रेणू कांय खीण ओगी रावलें. मागीर ल्हवूच सांगलें, 'पांच.'

'परतून बसलां...?'

'हय.'

'जाली परिक्षा न्ही....!'

'हय. पयरूच सोपल्या...!'

रेणूक खिणभर दिसलें, हें कितलें शिकलां काय...? विचारचे हाका... मागीर येवजिलें. बरें दिसपा ना तें तशें विचारप...!

कुश्टबाब परतून भितर येयलो... 'तयारी जाल्यार दाखया चेडवाक...'

'तयारी जाल्या आमगेलीं...'

सगळीं तयारीं करून दवरिल्ली. मीरान कोत करून सात आठ कपां भायर काडलीं. थर्मासांत आदीच करून दवरिल्ली च्या त्या कपांत ओतलीं. तातुंतली पांच कपां ट्रेंत दवरलीं. एक व्हडशी प्लेट घेवन तातूंत केळीं आनी बिस्टिकां दवरलीं... 'रेणू, हें घे, व्हरून भायर दवर... आनी मागीर तो ट्रे घेवन वच...'

रेणूक बेठोच हातांपांयातल्यान कडकडो येवंक लागलो. आंगात खिणांतच घाम फुटलो. तें बशिल्लेकडच्यान उठलें, आनी ताणें ती प्लेट उखल्ली. ताचे हांत कडकडटाले... 'भय दिसता.'

मीरान म्हळें, 'भियेवची कांयच गरज ना. कोण खायना तुका...'

'हांगा हाड ती...' अशें म्हणत त्या चेडवान शालिनीन ती प्लेट आपल्या हातांत घेयली.. 'तूं च्यायेचो ट्रे घेवन यो...' अशें म्हणत तें प्लेट घेवन भायर येयलें. प्लेट टीपॉयचेर दवरून भावां बगलेन कदेलार बसलें.

मीरालो चेडो खंयच्यान नेणो धांवत धांवत येयलो. मावशे बगलेन उबो रावलो. ल्हवूच म्हणूंक लागलो, 'मावशी हांव एक बिस्कीट घेवं...?' रेणून कितें सांगचे आदींच ताणें एक बिस्कीट उखल्ली. आनी तो भायर धांवलो.

'आरे! मोठो मालकिर्याद मुरे हो....!' कुश्टबाबान म्हळें, सगळे खो खो करुन हांसले. त्या न्हवरोचेड्याक हांसतां हांसता खोकूंक येयलें.. तो 'खोक् खोक् करून खोकलो.

रेणून तकली वयर करून त्या चेड्याच्या तोंडाकडेन पळयलें, तसों तो चेडो रेणूक पळोवन मुंमुरखोच हांसलो. रेणूक ताचे चेऱ्यार चेड्या भुरग्यांले तेज दिसलें ना. ताका तो पुरायच उकडिल्लो आंबो कसो दिसलो. ताचो चेरो मात्तूय मानवलो ना रेणूक!

'घेया, घेया...' कुश्टबाबान सगळयांक सांगलें. 'शशिकांतां, तूं मात चेडूं पसंत असल्यारुच च्या पी हां...'

चेड्यान च्यायेचो कप उखलून तोंडाक लायलो.

'म्हळयार चेडूं पसंत जालें तर तुका..' कुश्टबाबान फकाणां केलीं.

बंटान च्यायेचो कप तोंडाक लायत म्हळें, 'बाबू तुका कितेंय विचारचें आसल्यार विचार.'

'ना. म्हाका कांय विचारचेलेंना. तुमकां कितेंय विचारचें आसल्यार विचारात.'

'आमी आनीक कितें विचारतले...? संवसार करूंक जाय तो तुका...'

रेणू कांय वेळ थंय बसलें. मागीर ल्हवूच उठून भितर येयलें.

मीरान रेणूक विचारलें, 'रेणू पळयलें गो चेड्याक तुवें...?'

'हूं.'

'आसा मुगो बरो?...'

रेणूक दिसलें, मानवलो ना म्हूण सांगचें.. मागीर ताणें चितलें, आनीक खंय आनी कोण वयतलो म्हजेखातीर राजकुंवर सोदूंक..? आनी नशिबात हेच आसल्यार कोणाच्यान ना करूंक जाता...?

तें ओगी आशिल्लें पळोवन मीरान परतून विचारले, 'मानवलो ना गो रेणू...?'

'हूं'. रेणून तकली हालयली.

'हय मुगो, जालें! तुका मानवल्यार जालो.'



वाड्यावेले सगळेच दायजी येयिल्ले, म्हाळूबाब, जयवंत भावू, सोमणभावू, रामबाब, शिवरामबाब, बाळभावू, कुश्टबाब तर रायबारीच जाल्लो. सगळयो बायलो लेगीत येयिल्ल्यो.

बंट मामान आपणाल्याय चार पांच दायज्यांक हाडिल्ले. बायलो मदले कुडींत बशिल्ल्यो.

कुश्टबाबान म्हळें, 'बंटा, नाल्ल फोडचे आदी तुगेले मान-पानांचे उलय.'

'उलवंचें आनीक कितें ! गांवांची रीत ती आमगेली रीत...!'

'तुवें उलयल्यार बरें.'

'बंट कांय खीण ओगी रावलो.. मागीर' म्हाकाच उलय म्हणटा...?' म्हूण ताणें म्हळें, 'एकवीस - पंचवीस. एकवीस तोळें भांगर आनी पंचवीस हजार ताटात. एक आणो चड ना. एक आणो उणो ना.'

कुश्टबाबान मीराल्या तोंडाकडेन पळयलें. मीराक हङ्ग्यांत आकडो आयकूनच घड्ड जालें. एकवीस-पंचवीस म्हळयार चडच जाल्ले. इतलें कशें करून दिवंक जातलें ? पुणून तें कांयच उलयलें ना. ताका ओगी पळोवन कुश्टबाबन म्हळें, 'तूं उलय मुगो.'

'एकवीस पंचवीस म्हळयार चड जाले ना...?'

'बंटा, चड जाले म्हण्टा मुरे...!'

बंट काय उलयलो ना हाचेर.

एकेतरेचो तणाव कसो थंय पातळ्ळो. थंय बशिल्लीं हेर मनशां उखलून हाडून बसयिल्ली बावलीं कशीं गप्प गप्प. कोणूच काय उलोवंक तयार ना.

अनसुयाले कुडींत रेणू हुनेवांगडां हुमऱ्याकडेन बशिल्लें. ताका आकडो सारखो आयकलो नासुयें. ताणें ल्हवुच हुनेक विचारलें, 'कितले खंय...?'

'पंचवीस - एकवीस

रेणूक दिसलें, कित्यांक दिवंक जाय इतलें घालून.. पंचवीस एकवीस दिवंक चेडो कितें मॅनेजर आसा कंपनीचो..? म्हाका तर चेडो अजिबात मानवलो ना. ताणें ल्हवूच म्हळें, 'हुने, इतले मागतात जाल्यार, नाकाच गे ती सोयरीक..!'

अनसुया ओगी रावली.

मीरान सांगलें, 'एकवीस - पंचवीस म्हळयार चडच जालें. तुमीच पळयात, म्हगेलो बापूय आसलो नांगर कसपी शेतकामती! भावानंय चड सर्व्हिस करूंक ना! फकत पंदरां वर्सां सर्व्हिस तागेली! तेभायर फाटल्यान तागेली बायल आसा! फाल्यां तागेल्या भुरग्याकूय कितेंय फाटल्यान नाका...?'

बंटान कांय खीण चिंतलें. ताकाय तें खरें दिसलें आसुयें.

'आसूं एकोणीस - एकवीस करा.'

मीरा परतून कुश्टबाबाल्यां तोंडाकडेन पळयत ओगी रावलें. मागीर उठून हुने म्हऱ्यांत येयलें. ल्हवू आवाजात विचारलें, 'हुने, कितलें मरेन उलोवयां...?'

अनसुया आदी ओगी रावली. मागीर चिंतून ल्हवूच म्हूणक लागली, 'तागेले पुराय सो तोळे जातात. बँकेंत कितलें पयशें आसात तेंवूय तुका सांगलां... चिंतून थाराय.. फाल्यां हुनेन अ केलें, तशें केलें नाका.'

मीरा खिणभर ओग्गी रावलें. ताका कितें करचें म्हूण कळना जालें. ताणें आपणाली तक खीणभर दोनूय हातांनी गच्च चिड्डून धरली.

रेणूक दिसलें, सटसटीत उठून भायर वचचें आनी तांकां सांगचें म्हाका लग्न जावचें न तुमी उठून चलूंक लागात... तरीय ताणे ल्हवूच भयणीक म्हळेंच, 'बाये, इतले चड सांगतात जाल्या नाका गो...'

'तूं ओगी राव रेणू, मातशें...' मीरान बेजारून म्हळें. 'हो सोडून दिल्यार मागीर आनीक खं सोदूंक वयतलें...? आसा कोणूय सोदूक वचपी? आदी आमगेलें नशीबच फुटल्या..!' तें कांयश वितरागान उलयलें.

हाचेर थंयच, हुमऱ्या हेवटेन बशिल्ले शेवतूमावशेन तकली हालयत 'सारखे तुगेलें पुता'. म्हळें. तिका लागून बशिल्ल्या आनीकूय दोग बायलांनी तकलीं हालयलीं.

मीरा भायर वसरेर येयलें, 'हांव एकूच उलोवं...?'

'उलय, उलय'. बंटान तकली हालयत सांगलें.

'सोळा तोळें भांगर आनी सतरा हजार ताटांत.'

बंटान कपलाक शंभर मिरयो घाल्यो... 'आयजच्या रिती मानान भोवच उणें जालें ना...? लोक हांसतलें इतले उणें घेयले म्हूण कळल्यार..!'

मीरा ओगी.

'हांव एक निमाणें उलयतां...' कुश्टबाबान दोगांकूय समजायत म्हळें, 'पळया... तुमकां दोगाकूय मान्य आसल्यार... तुमगेलो दोगांलोय आकडो नाका.. हांव सांगतां, सतरा सतरा करा.

बंटान परतून कपलाक मिरयो घाल्यो. मागीर.. 'कांयच नाका. अठरा अठरा करां.' ताणें निमणें सांगलें.

मीरान येवजिलें, सोळा तोळे आसात. आसूं, हांव म्हगेले दोन तोळे घालतलें. हरशीय कितेंय

चड उणें जाय जाल्यार म्हाकाय म्हगेलें कर्तव्य करूंक जायच न्ही...!' म्हाका मान्य...' ताणें उतर दिलें.

कुरुटबाबान म्हळें, 'नाल्ल फोडुंया तशें जाल्यार...'

'हय.'

'हय फोडचेलोच!'

'कुरुटबाब, तूंच नाल्ल फोड आमगेल्यां अर्दान. म्हगेल्या बापायभाशेंन आसां तूं.. आनीक कोण फोडटलों...?' मीराक हें उलयतनां भरून येयलें.. दोळ्यांत दुकां येयलीं.

'बंटा, आदी तूं फोड.'

'बंटान आपल्यां कुलदेवाक हात जोडलें. मनातच सांगणी करुन घेयली, आनी कोयतेन 'थाऽड' करुन नाल्ल फोडलो. कुरुटबाबानूय देवाक सांगणी करून व्हकलेवटेचो नाल्ल फोडलो.

मीरा भितरल्यान गोड घेवन येयलें.

जयवंतान दोनूय नाल्लां कातलेंच बारीक बारीक कुडके केले. गोडांत कालयले, आनी मागीर सगळयांक वाटले.



आंगणांत व्हड माटव घातिल्लो. मेढी, पुरून ताचेर चुडटां आनी मल्लां दाळिल्लीं. माटवाच्या चोंय आंगांनी कणांतरी आनी कोंड्यां ताटीं लावन माटव पेकबंद केल्लो, पळयतल्याक तें एक व्हड ताटींचे घरच दिसपाचें.

आंगणाक शेंण सारोवन आंगण नितळ केल्लें.

रातीकडेन सगळीं बायलां दळूंक एकठांय जाल्लीं.

येयिल्ले सोयरे भायर भितर वावुरताले. घरात माटवांत भुरगी जळीं मळी खेळटालीं, हांसतालीं, खिदळटालीं.. एकेतरेचो उत्सव थंय वस्तेक येयिल्लो.

जण एकलो कसल्या ना कसल्या वावरांत घुस्पल्लो. मीरालो घोव श्रीकांत सुदीक सोप्यार बसून, भिकणां फोडून मोयें वेगळायतालो. ताका पळोवन गुणवंत्यान म्हळें, 'बाऽ! जांवयबाबाकूय कामाक लायलें मूं तर...!'

'हय, हय पळय मुगे... म्हाकाय कामाक लायले हेमी.' म्हणत श्रीकांतय फकाणांनी हांसलो.

शेवतू मावशेन ल्हवूच मीराक विचारलें, 'केन्ना येयलो पुता तुगेलो घोव? मेळळी न्ही रजा?'

'आयजच सकाळी पावला. आवय चड बरी ना म्हूण तार केल्ली देखून मेळळी रजा! रोखडेच वयतले तेमी!'

इतल्यान राधा थंय येयली. 'आगो, ती जातीं मांडां गोऽऽ. कितें उलयत बसल्यात...? मागीर रात जातली. 'राधा माटवांत येतनाच गडगड घालूंक लागलीं.

'तूं मातशें बेगीन येवचें न्ही...'

'तुकाच राविल्लीं आमी.'

'तुजेबगर आमगेलें कुस्कूट लेगीत हालना, हें तूं बेंस बरें जाणा.'

हाचेर सगळीं हांसलीं.

दोग तीग बायलांनी सोप्याक तेंकून दवरिल्लीं जातीं माटवाच्या मदेकाती व्हरून मांडलीं. जात्यांक खुंटीं मारली. मागीर राधेन सगळयां बायलांक आपयत म्हळें, 'या गोऽऽ बसा.. हाडां कितें दळूंक हाडचें तें...!

मीरान भितरल्यान दळण हाडून दिलें.

'अगोऽ, आंब्या पानां बांदलीं नात जात्याक...'

रेणुलो मावशे भाव मोहन माटवांत शेंदरी सोडोवन, माटवाक लावंक पताके कापतालो. राधेन ताका सांगलें, 'अरेऽ, आंब्या पानां थोडी घेवन यो चल.'

ताणें कातर आनी फुली थंयच दवरली. तो उठून माटवा भायर येयलो आनी मुखावेल्या आंब्यांताळयेचो एक ताळो मोडून घेवन येयलो.

सगळयां जात्यांक आंब्यां पानां बांदलीं.

राधेन व्होवी म्हणूंक सुरवात केली.....

'आंब्या तुजो ताळो रे.

मोतयां तुजोऽ झेऽलोऽ!

आदी माऽन केलो आमच्या,

घरच्या देऽऽवा!'

तिचे वांगडां सगळीं बायलां गावंक लागली. जणएकली थार दिनासतना कुलदेवाचे, ग्रामदेवाचें नांव घेवन गायतालीं.

गुणवंत्यान आनीक एक व्होवी लायली....

'जाते मांडुगी गे, जात्यां केऽलें टिंबे.

आनी तेत्तीस कोटी देव उबे आमच्या कार्याऽलागी!'

गुणवंत्याक आतां फुरणच येयिल्लें ती व्होव्यार व्होवी लायतालीं. आनी हेर सगळ्यों तिका साथ दिताल्यो.

'न्हंवर देव येतां आतां, रथार बऽसून...

आनी व्हकलें भावऽ बसलां रूसून फुऽगून!'

मागीर तिका सट्ट करून भालचंद्राली याद जाली आनी ती गप्पच जाली. हेरांकूय ते होलमलें. शेवतूमावशेन म्हळें, 'दुसरें लाय, दुसरे खंयचे तरी लाय...'

रेणू भावोजी म्हऱ्यात बसून भिकणां फोडटालें. हें गाणें आयकून ताचे हड्डयात घळळ जालें. खिणांतच हुंडको फुटलो. दोळयांतल्यान घळघळ दुकां येयलीं. आनी तें सूं... सूं.. करून रडूंक लागलें. ताका दिसलें, खऱ्यांनीच म्हजो भाव देवा म्हऱ्यात रूसून फुगून बसला आसतलो.. आपले भयणिल्या लग्नाक वावरूक दिलें ना म्हणून.. मागीर ताका खूब खूब येवजलें. ह्या खिणांक म्हजे आवय बापूय नात, भाव ना, कितें हें देवा? खंयच्या जल्मात पाप केल्लें हांवें?

रेणूक आता चडच रडूंक येवंक लागलें. तें थंयसून उठलें. भितर गेलें. मागील दारांतल्यान सोमतेच भायर गेलें... आनी काळखांत उबें रावन व्हडां व्हडांन रडूंक लागलें....



रेणू सोप्यार बसून दातोणेन आपणालें केंस बरगितालें. मदीच दातोणी जमणीर 'फटफट' करून धाडोवन उयो शेणटात काय पळयतालें...

अचकीत बंटमामाक येयिल्लो पळोवन तें बेगोबेगीन उठलें. 'यो यो बस...' म्हणत भितर धांवलें.

मीरा रांदचे कुडीत शितां आदनाक तांदूळ धुयतालें...

'बाये, तो माम येयला.'

'माम?.. खंयचो माम...?'

'आं! न्हवऱ्यालो बापूय...?'

मीरान मनात म्हळें, हो आनीक कसो पावलो? कितें काय?

'हांगा हाड तें. वच तूं.' अनसुयान तांदूळ धुयचो तोप मीराकडच्यान काडून घेयलो.

मीरा भायर येयलें. बंटमाम वासरेर येवन बशिल्लो.

'मामा, बरो मरे...?

'हय..हय...'

'घरची सगलीं बरीं न्हीं...?'

'हय.'

'असोच येयिल्लो मूं...'

'हांव...' इतलें उलोवन तो थोपलो. तागेल्या कपलाक मिरयो पडल्यो. ताणें बोल्सांतल्यान एक पत्र काडलें. आनी 'हें घें.. वाच...' म्हूण मीराक दिलें.

मीरान पत्र उक्ते करून वाचलें. पुराय पत्र उतरांन उतर तश्शां तशें आशिल्लें, दिवाकराक बरयिल्लें तश्शेंच.

बंटमामाक कशें आनी कितें सांगचे हेच मीराक कळना जालें. तागेलो पुराय चेरो उतरिल्लो.

'मामा, हातुंतलें एक उतर सुदीक खरें न्ही. पुराय बगलांट हें. अशें आसल्यार आमी सोयरीक सोदूक वटवटे काडनाशिल्लें.. ताकाच दिताशिल्लें... ही कोणेंतरी फटींगपणां केल्यात..'

बंट कांयच उलयलो ना.

ताका ओगी पळोवन मीरानच म्हळें, 'आमी जाय जाल्यार देवां घाटीं मुळांत उबी रावन सांगतात, हें सगळें बगलांट म्हूण...!' मागीर मीरान फुरसद पळयली ना, ताणें रेणूक उलो मारलो, 'रेणूऽ ये रेणू, हागा यो...'

रेणू बेगीबेगीन येयलें.

'वाच.' मीरान पत्र रेणुल्या हातात दिलें, आनी तें भितर गेलें. भितल्यान एक नाल्ल घेवन येयलें.

रेणू पत्र वाचून आबूज!

'हो घे नाल्ल आनी हाचेर हात दवरून सांग मामाक हें सगळें बंगलाट म्हूण...!'

'नाका ! नाका! नाका! कांयच गरज ना...!' बंटान एकदम म्हळें, 'हांव जाणां, हें बगलांट म्हूण... हें पत्र येवन आठ दीस जाले आमी कुश्टांकडेन चवकशी केली हाची! ताणें हड्ड्यार हात मारून सांगलें. चेडूं सुल्लाखी भांगर! हें सगळें बगलांट म्हूण! आनी एक दोन कडेनय चवकशीं केलीं आनी तांणीय चेडूं बरें म्हूणच सांगलें.

रेणू आनी मीरा बंटाल्या तोंडाकूच पळयत आशिल्लीं. अनसुया मदले कुडिच्या आनी वासरेच्या मदल्यां दारांर येवन तोंडार पदर घेवन उबी आशिल्ली.

एके तरेचो तणावच थंय पातळिल्लो.

सगळयांक ओगी पळोवन बंटच उलोवंक लागलो, 'चेड्यान सांगिल्लें, अजिबात विचारूक वचूं नाका म्हूण...! हीं असली पत्रां जायती येतलीं, आमी ताचेर विश्वास दवरप न्ही, अशें ताचे म्हणणे!... पुणून कितें आसां पुता, म्हगेलो एकूच पुत! शेणिल्ल्याचे मन बारांकडेन! हांवें भोंव चिंतलें. 'विचारू नाका.' 'विचारु-नाका'. करून निमाणेंकडेन हांव येयलां. म्हळें, खातरीच करून घेवंया.. आनी समजां चेडवाचें तशें कितेंय आसां आनी ताका ही सोयरीक मान्य ना बळजुबरीन तागेले व्हारडीक करतात जाल्यार बेजार न्ही...? विचारून पळोवप वायट न्ही, अशें येवजूनच हांव येयिल्लों. ही चडची वाल मोडची ना म्हाका. आतां व्हारडीकेक चार दीस उल्ल्यात.. पुणून मनच खावंक लागलें. करतलों कितें ? म्हज्या सुवातेर तुमी उल्ल्यार हेंच करतांशिल्ले गा ना..?'

रेणू रडूंकच लागिल्लें...

तरीय ताणें भयणिल्या हातांतल्यान झुप्प करुन नाल्लें घेयलो आनी म्हळें, 'मामा, हांव

म्हज्या मेल्ल्यां आवय-बापायक, भावाक आनी म्हज्या कुलदेवाक, ग्रामदेवाक स्मरुन सांगतां.. म्हजे खंयच्याय चेड्यांकडेन कसलेच संबंध नात!... हें सगळें बगलांट..' आनी ते व्हडा व्हडान हुंडक्यांनी रडूंक लागलें.

'अरेरे! ओगी राव! ओगी राव! रडूं नाका!' बंटान उठून रेणूक समजायलें. मागीर आपल्याभितरूच चुरचुरलो. बेठोच येयलो मुं रे हांव पापिश्ट! ताणे मनातल्यां मनांत स्वताकच दुशणां दिली... 'ओगी राव. ही सोयरीक आमी मोडची नात. व्हारडीक जातलेंच हें...!'



वाजंत्री वाजिल्लो, ढम्म ढम्म आवाज लागी लागी येवंक लागलो आनी रेणुल्या 'हड्ड्यांत चडच ढऽड्डूंक लागलें.

कोणेतरी म्हळें, 'न्हवरो लागी पावलो. व्हकलेक तांदूळ लाय!'

रेणूक रांदचे कुडींत म्हऱ्यांत शेंदरी पातळावन बसयिल्लें. तें निळींच जरी देगेंची साडी न्हेशिल्ली. केसांची लांब फांती सोडोवन ताचेर आबोलें फुलां सोर सोडयिल्लो. ते भायर माथ्याक फुलां फातयोंय माळिल्ल्यो. कानांक डुलां, गळयाक नेकलेस, मुगामाळ, हातांत काकणां, पाटल्यो आनी बोटाक मुदी घाल्ली. कपलार एक भांगतिळोय लांबतालो.

रेणुल्यो इश्टिणी आशिकुशीक बशिल्ल्यो. कांयजणी फकाणांय करताल्यो, हांसताल्यो...

घरांत माटवांत सगळोच एकातरेचो बोवाळसो चलिल्लो. घरचीं मनशां, सोयरे, दायजीं सगळेच भायर भितर करताले. कोण ना कोण खंयच्यातरी वावरांत घुस्पलो.

सकाळसावन रेणूक अण्णाली परतून परतून याद येताली. सकाळी उठिल्ले तेन्नाच दोगीय भयणी आनी हुनी एकांमेकांक मिठी मारून खूब खूब रडिल्लीं. अण्णाची याद करून करून रडिल्ली.

रेणूक दिसलें हे घडीक अण्णा आसल्यार आपूण ताचे खाकोळांत रिगून खूब खूब रडटा आशिल्ले. आनी अण्णाय आपल्याक कपलाक तांदूळ लावन 'बरें करून राव घोवागेर...' म्हूण दोळयांक दुकां हाडून सांगताशिल्लो.

भावोजीन आनी मीरान येजमानपण केल्लें.

भावोजी रेणूक कपलाक तांदूळ लावंक येयलो.. रेणूक दिसलें, हे घडीर भावोजीच्या सुवातेर

अण्णा आसताशिल्लो. खरें म्हळयार हो म्हज्या आवय-बापायचो अधिकार. आवय बापूय सोड, नेदान भावाक तरी हो अधिकार मेळचेलो. देवा, कितलें नशीब फुटकें हांव...!

तें मनातच आवय-बापायक आनी भावाक पांयां पडलें. मागीर तांदूळ लावंक मुखार येयिल्ल्या भावोजीक आनी भयणीक पांयांक हात लावन पायां पडलें. आनी ते रडूंक लागलें...

मुखारुच ताटांत अक्षदा दवरिल्ली. भावोजीन आनी मीरान देवाक सांगणी करून ती रेणुल्या कपलाक लायली. उपरांत वाड्यावेले, सोयऱ्यातले एकेक जाण्टी मनशा येवन तांदूळ लावंक लागलीं..

इतल्यांत भावोजीली भयण लीलाताई बोवाळत येयलें. 'न्हवरो पावलो. तुमी कितें करतात अजून..? न्हवरेकार लोक नावर्शेक माटवात पावलें...'



नावर्शे शास्त्र आटापून यजमान (भावोजी) भटाक घेवन सिमांत पुजनां सुवातेर येयलो.

न्हवरो थंय येवन कदेलार बशिल्लो.

न्हवऱ्यान धोतर न्हेशिल्लें. लांब हातांचे धवेंच खोमीस घाल्लें. खांदार तांबडी शाल घाल्लीं. तकलेक तांबड्यां पागोट्यार बाशिंग बांदिल्लें.

यजमान (भावोजीन) न्हवऱ्याले पांय धुंयलें. ताका कपलाक गंध कुकूम लायलो. घालूंक जानवें दिलें. पिवूंक म्होव, साखर घाल्ले दूद दिलें. उपरांत भांगरां सरपळी, मुदी आनी वस्त्रा लुगट दिवंन ताचो भौमान केलो.

भटान मंत्रां म्हणत न्हवऱ्याक 'आतां उठऽ' म्हूण दिवलेक धरूंक सांगलें...

'वाजया रे...'

आतां वाजंत्री थार दिनासतना कडाक्यात वाजोवंक लागले. आनी तातूंतच भर म्हूण गर्नेलांचो आवायज घुस्पलो....



म्हाळू बाब आनी जयवंत भाऊन रेणूक भायर हाडलें. न्हवऱ्या मुखार हाडून अंतरपाटां आड उबें केलें.

मीरांक बेठेंच हडड्यांत कलकलतालें. भिरांतशी दिसताली. 'त्या दोनूय पत्रांक लागून.. तातूंत बरयिल्लें, एकतर आपूण गोळ घेतलो.. नातर माटवात येवन घुमशेणां काडटलो.. मीराल नदर बेठीच माटवभर भोंवताली. 'तो' खंयूय येवन उबो ना मूं...? 'तो' जर मारूती आसत तर भिरां ना. भावांमुखार कितेंय करप मारूतीक जमचेलें ना.. मागीर ताणे मनाची समजूत घालून घेयलीं.. शेऽ! रेणुलें तशें कांयच नाशिल्ले जाल्यार येतालो कोण बेठोच...?

वाजंत्री वाजूंक लागिल्ले..

भटान मंत्रां म्हणूंक सुरवात केल्ली...

भट मंत्रां म्हणत व्हकल न्हवऱ्याल्या तकल्यार अक्षतां घालतालो.

मंत्रां सोपतकीर अंतरपाट कुशीक केलो.

व्हकलेन न्हहवऱ्याक आनी न्हवऱ्यान व्हकलेक माळो घाल्यो.

केळी, बतांस वाटल्यो.

... आनी उपरांत एकेक विधी पुराय जावंक लागले...



व्हारडिकेक येयिल्ल्या सगळयांलीं जेवणां जाल्ली. निमाणी घरच्यां लोकांलीय पंगत उठिल्लीं.

न्हवरोकार येजमान्यान ताकतिकेन म्हळें, 'आतां आनी वोगोत नाका. घरभरणे येवची तयारी करा.. बेगोबेगीन...!'

मागीर फुरसाद पळयली ना. व्हंकल न्हवऱ्याक व्हरून चुलीमुखार पातळावन दवरिल्ल्या शेंदरेर बसयले. धेड्यान न्हवऱ्याक बाशिंग बांदलें.

पांच सवायशिणींनी येवन व्हकल न्हवऱ्याक शेंस भरले.

कोणेतरी केळी बतास हाडले.

'उश्टाण करा.. उश्टण करा..'

न्हवऱ्यान केळी सोलून इल्लीशी खायलीं. आनी मागीर रेणूक आपल्या खाकोळात घट्ट भरून

ताचे तोंडात केळी भरलीं. रेणून लज्जेन तोंड बगलेन करचो येत्न केलो, आनी केळी ताचे तोंडभर घश्टली.

भोवतणे कंवडाळें करून आशिल्ले सगळें खो खो करुन हांसलें.

मागीर ताणें बतास इलो खालो आनी मुखार धरलो.. रेणून तो आपणेच उश्टिलो.

कोणेतरी म्हळें, 'आतां कशें?

परतून सगळे हांसले.

'उठा आता, उठा....!'

व्हकल न्हवरो उठले. धेड्यान न्हवऱ्यालो शेलो आनी व्हकलेलो पदर घेवन गांठवल बांदलें. व्हकल न्हवरो माटवात येयलीं.

सगळे सोयरे समदीक, दायजी गोत्री माटवांत एकठांय जाल्लें.

व्हंकल न्हवरो जणएकल्याक तांगेल्या मानाप्रमाणे विडो दिवन पांयां पडलीं.

सगळयां जाण्ट्यां मनशांक पानाविडो दिवन जातकीर मीरान म्हळें, 'हुनेक विडो दी.. हुने, हांगां यो...'

अनसुया सोप्यार उबी रावन निमाणो सुवाळो पळयताली. तिगेल्या दोळयांतल्यान थार नासतना सकाळसावन दुकां गळटालीं. घोवाल्या यादीन ती भितरल्यां भितर हुंकडेताली.

अनसुया मुखार येवन तोंडार पदर घेवन उबी रावली. न्हवऱ्यान तिका विडो दिवन पांयां पडलों. रेणू तिका पांयां पडूंक बागवलें आनी ताका हड्ड्यात घळळ जालें. अण्णाली याद जाली. खिणभर अण्णा हुने बगलेक उबो आसा सो दिसलो. आतां ताका आटापलें ना. ताणें हुनेक वेंग मारली आनी म्हळें, 'हुने... आमगेलो अण्णा हांगां ना गे...' मीराबीन रडूंक लागलें... तांकां रडटा ते पळोवन आशिकुशीक आशिल्ल्या बायलांनीय दोळयांक पदर लायलो.

भावोजीली भयण लीलाताई मुखार येयलीं, तिणें रेणूक खाकोळात घेवन म्हळें, 'रेणू, आतां वतनां पिशेपणां करुं नाका हां, जालें ते जावन गेलें!'

'हां हां.. पुरो आतां ! रेणू, मीरा पुरो!.. तुमी व्हकल न्हवरो हांगां येया...' भावोजीन व्हकल न्हवऱ्याक रशां माटवात व्हेलो.. 'माटव हालय...'

न्हवऱ्यान रशा माटव मातसो हालयलो.

'आता या.. ' म्हणत भावोजी तांकां परतून घेवन चुली म्हऱ्यांत येयलो. थंय पानळाव दवरिल्ल्या शेंदरेंकडेन बोट दाखोवन ताणे सांगलें, 'ही शेंदरी हालय...'

मीरान मुखार येत म्हळें, 'बेटीच हालवप ना, पोदांत पयशें दवरूंक जाय...'

बंटमामान चिल्लर पयशे काडून न्हवऱ्याक दिले. ताणें ते शेंदरी हालोवन पोंदात दवरलें.

'आतां या..' म्हणत बंटमाम मुखार चलूंक लागलो.

व्हकल-न्हवरो माटवांत येयली.

रेणुल्या बापोल मामाक मावळोपण करूंक आपयिल्लो. ताणें रेणुक केळीं दिली. आनी तोन्नानल्यान ओपणी केली. न्हवऱ्यान ताका लुगट आनी विडो दिवन पांयां पडली.

रेणूक दिसलें, म्हगेलो मावळो नेण्ट्यां पिरायेरुच मेल्लो खंय. देखून आमकां दोगांय भयण्यांक दुसऱ्यान मावळोपण केले. आमगेल्यां भुरग्यांकूय मावळोपण करूंक दुसऱ्याकच आपोवचे पडटले न्ही देवा! ताका चडच रडूंक येवंक लागलें..

वाड्यावेलीं जाण्टी मनशां, एकेकळी येवन रेणूक केळीं भेटयतालीं.

मीरा मुखार येयलें... आनी दोगीय भयणी वेंग मारून व्हडा व्हडान रडूंक लागल्यो...

मीरान ताका केळीं भेटयत व्हडा कश्टान म्हळे, 'येता मुगो रेणू...'

रेणून हुंडकेतच तकलेन 'हय' म्हळें.

वाजंत्री व्हडा व्हडान वाजताली. आनी त्या आवाजात दोगांय भयणींचे हुंडके कोणाकूच आयकूंक येनासलें.



ढम ढम ढम करुन वाजत व्हकल न्हवरो घरभरणेक येयली. माटवाचे तोन्नात येवन उबी रावलीं. मडगुन्नीन ताकतिकेन येवन न्हवऱ्यावेल्यान शितां उंडी तीन फावटी उवांळली, तांगेलें पांय धुयले. न्हवऱ्यान तिका कापड चोळी दिवन तिचो भोवमान केलो. तोंडार हांशें फुलयत ती थंयच्यान गेली.

बंटागेरचे सुणें सोप्यारुच गोठिल्लें. ताका तें सगळें विचित्र दिसलें आसुंये.. तें व्हडा व्हडान भोंकूंक लागलें. कोणेतरी 'हाडत हाडत अवचिन्न हांळनांवाचें खंयचें..!' म्हूण ताका थंयच्यान धांवडायलो.

धेड्यान व्हकल न्हवऱ्यांचें गाठवल बांदलें. तोन्नाकडच्यान दारमेरेन शेड घायिल्ली. बंट ताकतिकेन घरात येयलो. ताणें दिवली पेटयली आनी ती घेवन भायर येयलो. पुताक म्हळें, 'बाबू, हाका धर...' न्हवऱ्यान उजव्या हातान दिवलेक धरलें. न्हवऱ्याली बापोल भयण मालतीन व्हकलेच्या कोंदल्यांत तांदूळ घाले. आनी वेल्यान उदकाची धार धरली. ताका सांगलें, 'ह्या धारेवांगडां तांदूळ शेणयत तुवें न्हवऱ्यां फाटल्यान दारांमेरेन वचचें...' बंटान तुळशी मांडेक प्रदक्षिणा काडून व्हकल-न्हवऱ्याक दारामेरेन हाडले. दाराकुशीक म्हुर्तामेढ पुरिल्ली 'हांका पांय लाय' ताणें सांगले. न्हवऱ्यान म्हुर्तामेढीक पांय लायलो. व्हंकल न्हवरो सोपणां चडून वयर येयलीं. हुमऱ्यार आटवात तांदूळ घालून दवरिल्ले. व्हकलेन ते उजव्या पांयान उलटिले.. फस्स करून ते तांदूळ भितरल्या वटेन फांफसले.

रेणू न्हवऱ्यांफाटल्यान घरांत भितर सरलें. आनी ताची पयली नदर दारावयर लायिल्ल्या वागांच्या चित्रारुच पडली. तें चित्र भोवच भयंकर दिसतालें. वागान आपणालें तोंड उक्तें केल्लें. नदर सामकी क्रुध्द दिसताली. दिसताले हो आताच धडये जितो जावन सकयल हुडी मारत आनी आपणाक खांवन उडयत! ताणे येवजिले, हें चित्र हांकां सांगून खंयूय बगलेन लावचे पडलें.

व्हकल न्हवऱ्याक हाडून रांदचे कुडीत चुली मुखार पातळावन दवरिल्ले शेंदरेर बसयली.

'गांठवल सोडा...'

धेड्यान गांठवल सोडलें.

न्हवऱ्याले बापोल भयणीन तबकडेंत झरोवंन दवरिल्ले गंध हाडलें. अमृतें मुखार येयले. तिणें व्हकलेंक सांगलें, 'हातूंत पांचय बोटां बुडय आनी पांच फावटी वण्टीक लाय...'

रेणून आपणालीं पांचय बोटां हातूंत बुडोवन पांच फावटी वण्टीक लायलीं.

'आतां परतून पांची बोटां हातूंत बुडोवन मांवाक लाय...'

रेणून परतून पांची बोटां गंधात बुडयलीं आनी तें ओगी रावलें.

'लाय मु गो...'

'खंय लावूं...?'

सगळें खो खो करून हांसलें.

'हड्ड्याक हड्ड्याक!' रेणून मावांक गंध लायले.

'हां आतां म्हाका लाय! मागीर नण्डेक आनी घेड्याक लाय...!'

गंध लावन जातकीर, अमृत्यान मालतीक कांजीण हाडूंक लायलें. मालतीन एक बिंदलो मुखार भरुन हाडून दवरलो. तातूंत न्हवऱ्याली मुदी काडून घायली. ताचेवेल्यान एकार एक चार भरिल्ले तांबये दाळून दवरले.

'आयक, हे वयले तांबये उतरोवन सकयल दवरप! मागीर ती बिंदल्यातली मुदी काडून मांवाक दिवप! मागीर ती मुदी परतून बिंदल्यांवेल्या तांब्यात घालतली... तिवूय तेच भाशेन काडून मांयीक दिवप! मागीर, अशेंच भाशेन नण्डेक, धेड्याक आनी निमाणेकडेन न्हवऱ्याक दिवप.. न्हवरो मागीर ते मुदयेन व्हकलेक नांव घालतलो...'

'म्हळ्यार तुका..'

सगळें हांसलें.

बायलांनी एकासुरात गाणें म्हणूंक सुरवात केलीं...

'सारोनीं, भरोनी, पुजिली कांजिणी!

कांजिणी हात घाल गो रुक्मिणी,

खाड पांच रतन!

तीं दी गेऽ, जतन तुज्या मांवाऽऽलागीं!'

रेणून सगळें तांबये उतरोवंन बिंदल्यातली मुदी काडून मावांक दिली, मांवान ती बिंदल्यांवेल्यां तांब्यात घाली.

बायलो परतून गाणें म्हणूंक लागलीं...

'सारोनीं, भरोनी, पुजिली कांजिणी!

कांजिणी हात घाल गो रुक्मिणी,

खाड पांच रतन!

तीं दी गेऽ, जतन तुज्या मांयीऽऽलागीं!'

रेणून मुदी काडून मांयीक दिली. मांयीन ती काडून ताचेवेल्या तांब्यात घाली.

अशें तरेन करुलेक, धेड्याक आनी निमाणें.. 'ती गेऽ जतन तुज्या घोवां लागी!' म्हण्टकीर न्हवऱ्याक दिली.

'आतां नांव घाल...'

न्हवऱ्यांमुखार एक तांदळांन भरिल्लें ताट हाडून दवरलें.

'शशीकांतां, नांव घाल बाबा कितें घालचें तें..'

आई, कितें घालू गे, नांव...?'

'तुका जाय ते घाल..'

न्हवऱ्यान तांदळार मुदयेन बरयलें, 'शशी'

आशिकुशींक उबे आशिल्ल्यांनी बागवोन पळयलें.. 'कितें तें...?' 'शशी.' कोणेंतरी म्हळें, 'पांच फावटी बरय.'

'ज्यूस्त! शशिकांतां बायल शशी!'

मागीर तें नांव एका कडल्यान दुसऱ्याकडेन सगळेंकडेन फांफसलें.

'आतां उश्टण करा...'

न्हवऱ्यान मदींच विचारलें, 'कितले फावटी उश्टण करप तर...? थंय व्हंकलेगेर केल्लें न्ही.'

'सांगिल्लें तितलेंच कर तूं.. कर उश्टण!'

हे खेपें मात, रेणून आपूणजावनच न्हवऱ्यान उश्टिली केळी घेवन खाली.

'आतां बाशिंग देवया... पांच जण येयारे.. हात लाया...।'

बायलो गाणें म्हणूंक लागल्यो.

संचिताच्या पुता तुमी हांगा उतरा बाशिंग,

कडेन काडा कीर-मोर, मदी काडां राम-सीता,

बाशिंग सोड गा रघुनाथा!'



व्हकलेगेरच्यान येयिल्ले दिबण, जेवण खाण जातकीर परतल्ले. कांय सोयरेय रातोरात आपणाल्या घरा गेल्ले. उरिल्ले कांय सोयरे हांगेल्यां घरांत, तांगेल्यां घरांत, कांय मांटवांत, मेळत तशें न्हिदल्लें.

व्हकल न्हवऱ्याक वासरे बगलेच्या कुडीत वेवस्था केल्ली.

न्हवऱ्याले भयणीन शालिनीन रेणूक कुडीत हाडून पावयले. 'हांगा न्हीद तूं...' अशें सांगून तें हांसत हांसत दार आड करुन परतून गेलें. रेणू लजलज लजेलें. ल्हवूच खाटीर बसलें... ताका आतां हड्ड्यात धडडडूंक लागिल्लें...

कुडिचें जनेल धापिल्लें आशिल्लें, तें पळोवन ताका बेठेच घुस्मटिल्ल्यां भाशेंन जालें. ताणें बेगोबेगीन वचून तें उक्तें केलें. तें बराबर वाऱ्याची एक शितळ ल्हार भितर रिगली. ताणें ती आंगांर घेयली आनी तें ल्हवपीक जालें.

जनेलांतल्यान मळबांत लखलखतलीं नखेत्रां दिश्टी पडटालीं. रेणूक दिसलें, आपूणय अशेंच एक नखेत्र जावचें, आनी मळबात सासणाचें लखलखत रावचें, इतल्यान एक नखेत्र मदळबातल्यान निखळून पडलें, आनी झगझग जायत नाच्च जालें.

व्हदळच्यान भायर पयस खंयतरी एक भालू रडटालो. आतां ताचे रडप लागी लागी येवंक लागिल्ले. ताचें रडप आयकून, वाड्यांवेली सुणींय व्हडां व्हडांन भोकूंक लागली. तातूंतच तागेलें घरचेय सुणें सामील जालें... रेणूक बेठीच भिरांतशी दिसली.. तेवूय स्थितीत तें आपणां भितरूच बेठेंच हांसलें. ताका याद जाली.. शेवतूमावशेलो नातू ल्हान आसतना, न्हांवचे आदी आंगांक तेंल लावन घेवंक तयार जायनाशिल्लो. एका कानात तेल घालतकीर घे गांवभर धांवतालो, दुसऱ्या कानात तेल घालूंक तयारुच जायनाशिल्लो. मागीर शेवतूमावशी ताका म्हण्टाली, 'एकूच कानात तेल घालूंन रावल्यार, व्हारडिके दिसां भालू रडटा...' ताका बेठेंच दिसलें, आपणालोय घोव असोच एका कानात तेंल घालून रावतालो काय...?'

धडक करुन दार धुकलून शशिकांत भितर येयलो.

वा! शंभर वर्सां आयुश्य मूं हांका...! रेणूक खिणभर दिसलें, आतां हाका विचारचें तूं एकूच कानात तेंल घालून रावतालो बीन...?

शशिकांतान दाराक खिळी घाली.

'कितें पळयतां....?'

रेणून ल्हवूच 'कांय ना..' म्हळें.

'जनेल धांप तें...'

'म्हाकां जनेल उक्तें दवरून न्हिदपाची संवय.. नातर बेठेंच घुस्मटिल्ल्याभाशेन जाता म्हाका!'

तो हांसलो, 'आसूं तशें आसल्यार...!' अशें म्हणत ताचे म्हऱ्यात येयलो. रेणूक हड्ड्यात चडच जोरान धड्डूक लागले.

भायर सुणीं थार दिनासतनां भोकतालीं, आनी तातूंतच भालू रडिल्ल्याचो आवाज येतालो.

शशिकांतान विचारले, 'उजवाड पालवूं...?'



वाड्यावेलीं भुरगीं, तरनाटे तरनाट्यो सकाळसावनच खळमळ उडोवंक फुरफुरताली. जणएकलो बिंदलो, कायल, बालदी, मेळटा ते घेवन हजर!

अमृत्यान दोन माणायो माटवात एका मुखार एक दवरल्यो. मदेकात एक भरिल्ली मातयेमडकी आनी एक पंचांडी हाडून दवरली.

'बाये, सुमित्राऽ एक बिंदलो भरून घेवन यो गो..' शशिकांताल्या बापोलभावा बायलेक अमृत्यान सादयत सांगलें.

'बाबू, यो रे.. बाय शालू, आपय हुनेक...'

शालिनी सोप्यार बसून कट्ट्यो गुंथून माळ तयार करतालें. ताणें भितर तकली रिगोवन उलो मारलो. 'वयनी, आपयतां गे यो.' रेणू रांदचेकुडीत आशिल्लें. तें भायर येयलें.

शशिकांत कुडीतल्यान धवेफुल्ल लुंगी न्हेसून उक्तोच भायर येयलो.

'हांगां या दोगांय... बसां.'

दोगाय व्हंवर एकामेकामुखार बसलीं.

रेणू शशिकांताले नदरेक नदर दिवंक अनमनतालें. सकाळसावन ते तागेली नदर चुकयत आशिल्लें. तो मुखार दिसलो, कांय सट्ट करून तकली सकयल घालतालें. काल रातचो आंग आंग फुलोवपी एक नवो अणभव आनी एक जीव खावपी लज, शरम हांचेमदीं ते हुमकळटालें.

तो मात रेणूक पळोवन मुमुरखोच हांसतालो.

व्हंवर माणयेर बसतकीर वाड्यांवेल्या सगळयां बायलांनी भुर्रर करून कंवंडाळे केलें.

सुमित्रान एक बिंदलो भरुन हाडून दवरलो.

अमृत्यान वचून किंवणे बडी आनी तेल हळद घेवन येयलीं. किंवणे बडयेच्या पोतांर चिपट आनी आंब्यां पानां बादिल्ली आशिल्लें.

'येया गो, पांच सवायशिणीं.. मालती, सुमित्रा, पंढऱ्या, येयां... सीते, तुंवय हात लाय मातशें..'

पांच सवायशिणीन मेळून किंवणे बडयेक बांदिल्ल्यां चिपटान न्हवऱ्यां व्हंकलेक तेल लावंक सुरवात केली.

'गाणें म्हणां गो...'

'आंबतीचे पाऽन, नवरत्नांची खाण!

आंबतीच्या पानांनी, न्हवऱ्या तेंल चडयां!'

आदी दोनूय पांयांक, मागीर दोनूय भुजांक, मागीर तकलेक अशे तरेन पांच फावटी न्हवऱ्याक तेल लायलें.

अमृत्यान व्हकलेच्या हातात तेलां गिडी दिलीं, 'घे, घोवाल्या कानांत, तकलेर तेल घाल.'

रेणू गिंडी घेवन उठलें. ताणें न्हंवऱ्याच्या तकलेर, कानात इलें इलें तेल घालें. हें इतलें करतना, ते लज लज लजतालें. आनी सगळीं ताका मज घेवन हांस हांस हांसताली. कोण कोण ताची मदी मदी फकाणांय करताली.

'आतां ही दातोणी घेवण ताचे केंस वळय...' अमृत्यान ताका दातोणी दिली. रेणून ती घेवन बेठीच शशिकांताल्या केंसांक लायलीशी केली.

'हें कितें करतां...? बरें ऽ करून वळय.'

सगळीं हांसलीं.

रेणूकय हांसूक येयलें

'हां. आतां हातूंत मुदी घाल रे.. धेडो खंय गेलो? धेड्याऽऽ...,

'हां... येयलों येयलो.' म्हणत न्हवऱ्याल्या बापोल भयणिलो मालतीलो घोव धांवत धांवत येयलो. ताणें विचारलें, 'म्हजें काम कितें...?'

'न्हवऱ्यांल्या बोटाची मुदी काडून मुखावेल्या मडकेंत घाल.

'आतां व्हंकल न्हवऱ्यान ती सोदून काडची. कोण आदीं सोदून काडटा पळवया.' दोगांनूय झुप्पकरून मडकेंत हात घाले. रेणूक ती ज्यूस्त हाताकूच लागली. शशिकांत ती सांस्पीतच आशिल्लो. रेणून हात भायर काडून ती घोवांमुखार धरली.

'बायल शिटूक रे, बायल शिटूक!'

अशे तरेन पांच फावटी मुदी खेळयली. उपरांत मडकेत धेड्यान सुपारी उडयली. तिवूंय पाच फावटी खेळयली.

'आतां कोंदलें करां. पोंदात न्हवऱ्यालो कोंदलो, वयल्यान व्हकलेलो..'

दोगांनूय हातांचे कोंदले केलें.

'धेड्या, वयल्यान उदक ओत...'

धेडो कोळसो उखलून वेल्यान कोंदल्यात उदक ओतूंक लागलो...

'फाफशियां तें सगळयांचेर...'

व्हंकल न्हवऱ्यान कोदल्यांनी उदक सगळयांचेर फांफशिलें.. मागीर घे फुरसद पळयनासतना भुरगीं, तरनाटे, तरनाट्यो एकांमेकांक उदकान भिजोवंक लागल्यो...

कोण कोणाक घरांत वचून घट्ट धरून भायर हाडटालो. कोण ताचेवेल्यान उदक रकयतालो. कोण कोणाल्या गळयात कट्टेची माळ घालताले. फकाणां फकाणां चलिल्ली.

व्हंकल न्हवरो भिजून थेपो जाल्ली. कोण्णां कोण्णाक म्हूण सुकें दवरलें नासले. लिपून राविल्ल्यांक सुदीक सोदून काडून भिजयिल्लो.

खळमळ सोपली, तेन्ना पुराय आंगण भिजून चिकचिकें जाल्लें. एक एकली भिजिल्लीं कुकडांकशी दिसतालीं.

अमृत्यान सगळयांचेर नदर मारून म्हळें, 'जाली मुं आंगाची खळ आनी मळ काडून... आतां न्हांवन धुंवन पुसोवन घेयां तें आंग.. बाबू, तूं न्हाणेत वचून, न्हांवन, आंग पुसोवन घे. थंड उदक आंगार सुकोवन घेवनाका.'

'उदक तापलां....?'

'हय...'

शशिकांतान फुरसद पळयलीना. तो बेगोबेगीन न्हाणयेंत गेलो. न्हाणयेंत वयतासतनाच ताका शिंको येयल्यो 'हाक शींऽ! हाक शींऽ!'



शशिकांत माण्णी लागिल्ल्याभाशेन पडिल्लो. तो पुराय आंगभर घामेल्लो. मळबातल्या नखेंत्रार ताची नदर बेठीच रोमिल्ली. जनेल उक्तेंच आशिल्ल्यान पडिल्लेकडच्यान ती स्पश्ट दिश्टी पडटाली.

कुशीक न्हिदिल्ल्या रेणून आपल्या पदरान कपलांवेलो, गळयांकडचो घाम पुसलो, आनी ल्हवूच म्हळें, 'आयकलें...?'

'हूं..'

'म्हाका मुंबय व्हरतले...?'

तो खिणभर ओगी रावलों. मागीर म्हणूंक लागलो, 'हे खेपेंक ना..'

'घर ना म्हूण....?'

'घर खंयचें? खोली म्हण खोलीं.'

'खोली आनी घर एकूच. आमी रावतलें तें आमकां घरच!'

'संवसार करतलें मुगो, ल्हानशे खोलीत?'

'हें आनीक कितें विचारप जालें...'

शशिकांत आपणां भितरूच मुंमुरखोच हांसलो. कुडीत पुराय काळोख आशिल्ल्यान रेणूक मात ताचे हांशें होलमलें ना.

'आयकलें...?'

'आयकतां न्ही...'

'हांवें अजून मुंबय पळयली ना. कशी आसा मुंबय...?'

'व्हरतां मुगो तुका मुंबय! मागीर जाय तशी मुंबय पळयत बस जल्मभर.'

'दुसरे खेपेंक व्हरतलें...?'

'तूं जाणां, हांव तुर्त बापोलभावां वांगडां रावतां म्हूण...!'

रेणू ओग्गी.

'वन रुम ॲण्ड किचन, तागेली दोगाय घोव बायल आनी तांगेलीं दोग भुरगीं. तांकाच ती वेवस्थित पावना. थंयच जेवप न्हिदप.. सगळें थंयच. आनी तातूंत हांव एकटो! म्हाका कसो तरी तांणी एडजस्ट केलो. अशा हे परिस्थितीत आमी दोगाय घोव-बायल कशें जमतलें...?'

रेणून मनात म्हळें, आमकां मुंबय आशिल्लो घोव म्हळयार व्हड गोस्त! मुंबयच्या घोवाली ही परिस्थिती!

रेणूक ओगी पळोवन, शशिकांत म्हणूंक लागलो, 'कळळें मुगो, हांव कळवां म्हणिल्लेंकडेन एक खोली पळोवन येयलां. थोडे पयशें भल्यात हांवें. आनीक कशेंतरी उबें करुंक जाय. लोनय मेळटली म्हाका.'

'कांयच नाजाल्यार, हांव म्हगेले भांगर दितां. कांय न्ही म्हळयार आयच्या कोतान, लाखभर रुपयां तरी किंमत जातली तांची..!'

'काळजांतल्यान सांगतां मुगो तूं हे...?'

'हय तर!'

'काय जिबेच्या पोतांवेल्यान गो....?'

'जिबेच्या पोतांवेल्यान कित्यांक उलयतलें हांव...! म्हगेले भांगर म्हगेल्या संसारा खातीर उपेगाक येना जाल्यार कित्याक तर तें...!'

शशिकांताक कांयशें सूऽ जालें. ताका दिसलें. प्रसंगार भिरांत ना तर! हागेलें भांगर आसां धैर्याक!

'शालू आसा न्ही गो लग्नाचे ! नाजाल्यार हांव येदोमेरेन घर घेताशिल्लों... ताका थोडें भांगर केलें. तागेल्यां हुंड्याखातीर बँकेत थोडे पयशें फिक्सांत दवरलें... अशें करून सल्लें म्हगेलें पयशें...'

'कितलें केल्यात तोळे...?'

'खूब न्ही. आठ-णव कितलें...!

'पुरो इतलेच...?'

'आईलें धायेक तोळयांचे भांगर आसा, पुरो!'

'खंयूय सोयरीक पळयल्या....?'

'शेऽ! अंदू ते बीए फायनलीक आसां न्ही! फुडल्या वर्सां...'

'फुडल्या वर्सां मेळटली तुकां खोली..?' रेणून परतून विशयाक हात घालो.

'पळोवयां केन्ना मेळटा ती! वर्सां पयली मेळूंक जाय! बेगीन काम जाल्यार बेगीन मेळटली. ह्या दोन तीन म्हयन्यातय मेळल्यार मेळळी सांगूंक जायना... खोली मेळळीं, कांय रोखडोच येतां हांव तुका व्हरूंक...'

रेणूक हें आयकून सूऽ जालें. तें मागीर येवजीत रावलें... ताच्या दोळयामुखार एक येवजणेंतलें मुंबय उबें रावलें... तातूंत तागेली सुपुल्ली खोली... ते खोलीत, तें आनी घोव... तें थंय मेकळेपणान वावुरता.. तरेतरेचीं सपनां ताचे भोंवतणी नाचूंक लागतात, आनी तातूंत तें गुल्ल गूंग...



कालच बॅगां भरून दवरिल्लीं. धां वरांचेर कारवारा सावन गाडी सुट्टा म्हण्टकीर, आठ साडे आठाक भायर सरप गरजेचें आशिल्लें.

रेणूक कालसावन बेठोच जीवन खावूंक येयिल्ल्याभाशेन जातालो. ताका दिसतालें, घोवाक सांगचें म्हाकाय व्हर वांगडा, आमी खंयूय रावंयां. झाडा पोंदात, रस्त्यांकुशीक खंय मेळत थंय, पुणून म्हाका सोडून वचूं नाका. ताका रडूंक येतालें. ताणे मन घट्ट केल्लें.

शशिकांत न्हांवन धुवन देवांकुडीत येयलो. देवाक पांयांपडून तो आपणाले कुडीत येयलो. रेणून घालून वचची मुस्तायकी काडून दवरिल्ली. ताणें मुस्तायली चडयली.

‘ग़ेलें बरोबर पत्र बरया हां...’

‘हूं...’

‘जिवाची काळजी घेयात.. काल आंग हून लागतालें तुमगेलें..’

‘थंडी जाल्ल्यान आंग मातशे हून जाल्लें तें...’

‘पाड पडिल्ली थंडी परतून कशी जाली ती...? पयरूच थंडी जावन गेल्ली न्ही...?

‘हय बाबा, खूबच नाजूक जालां हांव ह्या दिसांनी...’

‘जेवण खाण वेवस्थित जायना जाल्यार हें अशेंच म्हळयार...!’

‘तूं आनी शालू येतात मुगो स्टॅंडार..?’

‘हूं...’

‘चल न्हेंस तर...’

शशिकांत रांदचे कुडीत येयलो. हातांतल्या घड्याळीकडेन पळोवन ताणें म्हळें, ‘हें पळय जाले पावणें णव. आठाक भायर सरूंक जाय म्हणिल्लें हांवें!’

‘बाबू, इल्लें पेजें निशें न्हिवोवंक घालूं....? पेज खतखतल्या...’

‘नाका गे..’

‘इल्लो पी रे पुता.. पोट थंड उतरलें.. सकाळी च्या वांगडां बीन कांय खायलें ना तुवें.’

'आसूं आसूं. नाका.' शशिकातांन मागील दारात येवन बापायक म्हळें, 'बाबा, येतां हांव.'

शशिकांताक खिणभर दिसलें, घरच्यांक सांगचें, रेणूक बरें करून सांबाळांत. पुणून ताणें तशें सांगलें ना. 'सगळीं बरी करून रावात.' इतलेंच ताणें म्हळें.

अमृत्यान शशिकांताल्या ताळयेर इल्लें तेंल घालें. हातार इल्ली धंय दवरली.

'येतां हांव.' अशे म्हणत शशिकांतान बॅग उखलली.

बंटानय एक बॅग उखलून खांदार घेयली.

अमृत्यान म्हळें, 'बाबू सांबाळून रे.. गाड्येर होडयेर, येतना, वतना जतनें..'

'हूं...' ताका उतर फुटनां जालें. 'येता' अशें मोन्यानीच सांगून, तो भायर सरलो.

मदलो तांबडो रस्तो बलांटून तेमी रस्त्यार येयली. रेणू आणी शालिनीय वांगडां आशिल्लीं. येतना रस्त्यामेरेन कोणूच एकामेकांवांगडां उलयले ना.

रेणूक तर बेठेंच खूब खूब रडूंन घेवचें अशें दीस.

थंयच्यान एक रिती रिक्षा बस स्टॉंडा दिकेन वयताली. 'ही पळय, हाचेर वचुयां...' अशें म्हणत शशिकातांन रिक्षाक हात दाखयलो.

रिक्षा थोपली.

तांणी दोनूय बॅगां रिक्षात घाली. आर्नी रेणू, शशिकांत आनी शालिनी रिक्षात बसली.

'खंय...?'

'बस स्टॅंडार...'

शशिकांतान बापायक हांत हालोवन, 'येतां हां...' म्हळें. रिक्षा सुरू जालीं..

रेणू वाटेर घुम्म मोनें. एक उतर सुदीक उलयलें ना. शशिकांतान बेठेंच कितेंय विचारल्यार 'हां..हूं...' करतालें. ते सुदीक भरिल्ल्यां उतरांनी.

शालिनी मात भावांकडेन खूब कितें कितें उलयतालें. मदीच फकाणांय करतालें.

रिक्षा स्टँडार पावतकीर, रिक्षावाल्याक पयशें फारीक करुन तीं बॅगां घेवन, मुंबय बस थांबता ते सुवातेर येयलीं. बस आदीच येवन हजर आशिल्लीं.

शशिकांतान दोनूय बॅगां घेतली. तो बसीत चडलो.

तो बसीत चडतकीर, रेणूक रडूंकच येवंक लागलें. ताका दिसलें बसीतल्यान ताका सकयल देंवोवचें, आनी सांगचे, नाका ती नोकरी. आमी हांगांच शेतांत कितेंतरी किडोवंन खांवंया.. नातर म्हाकाय वांगडां व्हर. आमी मेळत तशी रावुंयां...

रेणून शालिनीक म्हळें, 'बस अजून सुटूंक कळाव आसा. आमी या बसींत...'

इतल्यान खंयच्यान नेणो एक रेणुल्याच पिरायेचे चेडूं धांवत धांवत येयलें. रेणूक पळोवंन म्हणूंक लागलें, 'कितें गो रेणू, लग्न जालें खंय न्हूं तुजें? आपयलें ना मुगो..' आनीक खूब कितें कितें उलोवंक लागलें... पुणून ताची तीं उलोवणीं रेणुल्या मतीत वचनाशिल्लीं. ताणें बेठेंच 'हूं हूं... ' केलें. निमाणेकडेन येतां हां मागीर मेळुयां...' अशें म्हूण ते आनी शाली बसीत येयली.

शशिकांत बॅगा दवरून परतून सकयल देवूंक येयिल्लो. हांकां बसीत चडिल्लीं पळोवन तो थंयच थारलो.

'रेणू, शालू, तुमगेलो रिझल्ट लागलो, कांय रोखडोच कळयां म्हाका.'

रेणू बेठेच हांसलें. ताका म्हणचें दिसलें, म्हजो रिझल्ट तसलोच तो!'

शशिकांतान ओगी आशिल्ल्या रेणूक पळोवन म्हळें, 'हांव खोली मेळटकीर रोखडोच व्हरुंक येतां तुका.'

'हांव म्हगेलें भांगर दितां हां.. म्हाका नाकाच ते! घर घेयात तुमी आदी!' रेणून दोळयांत दुकां हाडून म्हळें.

शशिकांताकय ताचे दोळयांत दुकां पळोवन कितेंशेंच जालें.

ड्रायव्हर येवन कॅबिनात बसलो.

कंडक्टरान पिल्लूक मारली.

'देवात, आतां बस सुरु जाता.'

रेणून मोन्यानीच तकली हालयली.

'बाबू, येता मरे....?'

शालिनी भावाचो निरोप घेवन सकयल देंवलें. रेणुचीं पावलां मात सकयल देवतना सामक्की जड जाल्लीं.

बस सुरु जालीं.

शशिकांतान हात भायर घालून निरोप घेतलो. ती दोगाय दिश्टी आड जाता मेरेन हालयलो.

रेणू ताचे त्या हाताक दिश्टी आड जाता मेरेन दोळे ताणून पळयतालें. आपूणय हात दाखयतालें...

रेणू कांय खीण गाडी गेल्ले दिकेन पळयत रावलें स्वताक विसरुन...

ताका ते स्थितीत पळोवन शालिनीन ल्हवूच म्हळें, 'वयनी, या न्ही आमी...'

रेणू रडूंकच लागलें....



सकाळी फुडेंच दारांमुखावेल्यां आंब्यांताळयेर बसून कावळो 'कांव कांव..' करुन आड्डतालो.

रेणूक दिसलें, पत्र येतलें काय आयज...? गेल्ले तशेंच एक पत्र बरयिल्लें, खोली मेळटकीर तुका कळयतां आनी रोखडोच व्हरुंक येतां म्हूण!.. मेळ्ळी काय खोली...? देवा खापऱ्या, पाव तूं! बेगीनच खोली मेळ्ळयार पुरो! मागीर ताणे मनात म्हळें, खोली मेळिल्लीय आसत घडये... आनी म्हाका चकीत करूया म्हूण कळनासतनाच व्हरूंक येयल्यारूय येयलो अचकीत! कावळो आड्डता ताचे वेल्यान होच येना मूं...?

रेणू भायर येवन, आंगणांत उबें रावलें. ताणें कावळयाक पळोवन म्हळें, 'कावळया कावळया, हो येतां जाल्यार उडून वच, नाजाल्यार बुडून मर...!'

कावळयान पांखां फांफुडलिशी केलीं आनी तो खरोच उडून गेलो.

रेणू पिश्यांभाशेन सामकें काळजांतल्यान खोशीं जालें. जसो काय शशिकांत मुंबयसावन आतां येवंकच भायर सरला आनी कांय खिणांतच तो घरा पावतलो!

तें खोशयेंतच घरात येयलें. ताची मांय शेतां वचचेल्या तयारेंतच आशिल्लीं, रेणून म्हळें, 'मामे, आयज तुगेलो चेडो येता काय कितें गे...!

'म्हगेलो चेडो...? कित्याक म्हण्टां तूं....? पयरुच तर तो गेला...'

'खोली मेळटकीर म्हाका व्हरूंक येतां म्हणिल्ले न्ही गे...'

ती हांसली.

शालिनीय हांसलें.

'कावळो गे, व्हदळच्यान ताळयेर बसून आड्डलो. हो येतां जाल्यार उडून वच म्हण्टकीर उडून गेलों."

'येयल्यार बरें जाले ना? बेगीनच खोली मेळूं आनी तुका व्हरूंक येवूंच म्हण्टां हांव! बेगीनूंच म्हाका एक नातूं जावूं...'

रेणू लजलें.

'बरें तूं राव हांगा. हांव आनी शालू वयतात शेतांत...'

'हांवूंय येता गे नडूंक.. म्हाका हांगा एकल्याक रावंक सामको बेजार येता.. हांवूंय नडूंक नाटूंक गेल्लेच मनीस! घरात बसून राविल्ले मनीस न्ही.'

'हय, खरें गो! पुणून, तुका शेतांत, भाटांत व्हेल्यार, लोक शेण घालचे नात तोंडांत आमगेल्यां? म्हण्टलें, हांकां मात्तूय अब्रू ना. नवीन व्हकलेक कशें घोळयतात पळया...'

'म्हाका सामको बेजार येता. मामबीन घरा आसना. तो गोरवांक घेवन वयता. शालूंक बीन तू घेवन वयता.. हांव एकटे रावन किते म्हण करूं...?

शालूंक दवरून वयताशिल्लें, पुणून नडणी ह्या वर्सा म्हूण जाल्या, ती सांगची न्ही, ही अश्शीऽ! हो. आरद्रा सरचो पयल्या नडून उडोवंक जाय. नाजाल्यार आनीकूय माततली! आळांय आतां मेळचीं नात, सगळयांलोच वावर सुरू आसा'.

शालिनीन म्हळें, 'एक काम कर तूं वयनी, रांदप जातकीर शेतांत यो, मेरेर बसल्यार जालें...'

'हय, तशेंच करतां.'

'रांदपय बेगीनच जाता तिगेलें, देखून ती दीसभर बेकारुच आसता. कितेंय पुस्तकबीन वाच म्हळयार, वाचपाची बीन आवड ना खंय तिका...!'

'चल, या आमी! उलयत बसल्यार कामां जावचीं नात...!'

'येतात गे...'

अमृतें आनी शालू मागील दारांतल्यान भायर सरलीं.

भायर पावस कुसकुसतालो.

दोगांनूय वण्टीक तेंकून दवरिल्ले घुरमे घेयले, आनी वचूंक गेलीं.

रेणू घरांतल्यां वावराक लागलें....



हे दिसांडेन पावस धार तुटयनासतना रकतालो, आख्खे मळब काळेंच जावन आशिल्लें. देखून सुर्याचें तोंड लेगीत दिश्टी पडनासलें. सकाळ सावन सांजमेरेन एकूच सारखो दीस, भायर भितर शेळांवसो पातळिल्लो.

रेणूक दीस आंगांभोवतणें घट्ट पांगरूण घेवंचे, आनी ओग्गी सासणाचें थंड न्हिदूंन रावचे.

शेतांतले नडचो, नाटचो वावर केन्नाच पुराय जाल्लो. घरातलीं मनशांय आतां कामां इदमान आशिल्लीं. घर सदांच भरिल्लें आसतालें. तरीलेगीत बेजारसो येतालो, एक रितेपण जाणवतालें.

मामेन म्हणिल्लें, 'रेणू, तुं खंयूय वचून चार दीस रावन येता जाल्यार यो,' पुणून वयतले खय...? भयणीगेर तर ताका वचनच दिसनाशिल्ले. आनी कुळारा थंय... थय तर कोणूच नाशिल्लो. हुनी भरिल्ल्या आंगांची म्हूण तिगेली आवयन तिका घेवन गेल्ली.

कुळारची याद जातकीर रेणूक भितरल्यान घळघळ जालें. तें न्हिन्नळलें. एका तेपार थंय घरपण कशें नंदतालें.. आई-बाबा, अण्णा-हुनी, हांव.. पुराय भरिल्लें घर आशिल्लें. गोरवांन गोठो भरिल्लो.. आयज कितें उरलां थंय... वात जोत नाशिल्लें बंजर घटण.

हुनेन गोरवांबीन विकलीं खंय... बुधू, सोमो, मंगळू, लक्ष्मी, आयतू.. पाडोगुरू.. एका फाटल्यान

एक विकली खंय. लक्ष्मीक आनी आयतूक तरी दवरून घेवंक जाय आशिल्ली. लक्ष्मी दूद दिताली. देखून तरी!

तिगेली चूक ना. कोण करतलो तांगेले! तिगेली तशी स्थिती.

अंदु नडप - नाट कोणें केलें काय...? कांयच खबर कळ्ळीना. शेतां भाटां कोण पळयतात काय...?

ताणें मनात थारायलें, एक दीस कुळारां वचचेच! शेतांत मेरांमेरांनी भोंवचें. भाटांत वचून, आपूण शिपिल्ल्यां कवथ्यांचेर, माड्यांचेर एक नदर भोंवडायची. घरांमुखार लायिल्ल्यां फुलांझाडांर ल्हवूंच मायेमोगान हात भोंवडायचे. गोठ्यांकडेन बेठेंच वचून येवचें. कुळारची धूव म्हणटकीर वाड्यावेली कोणूय बाबडी नीस-उदक दितलीच. तें पिवन परतूंवचें...

मागीर ते मनानच कुळारां गेलें. शेतांमेरांनी भोंवलें. भाटांत गेलें. सोप्यार बसून रडलें...

रेणून मनगटांन ल्हवूच दोळयांतली दुकां पुसलीं.



शालून फात्यांपारां शियां कुडकुड्यात उठून, न्हंयेकडल्यान हुटभर कांदळां खुंटून हाडिल्लीं.

तें सोप्यार कांदळांसोर करतालें.

आबोलें फुलां सोर वोंवा लेकान कालच हाडून दवरिल्लें.

दोगाय मांय-सुनेखातीर दोन दिवजां कुंभारांकडसून हाडून तुळशी मुखार दवरिल्ली.

मांय-सून दोगांय न्हावन - धुवन तयार जावंक लागिल्ली. बंट तर सकाळसाकूनच बोवाळ घालत आशिल्लो, 'तोडो करूं नाकात बेगीन बेगीन जावू तुमगेले. अंदू बेगीनच दिवजा पेट्टली. वर्सा भाशेन बारां एक जावची ना अंदू. गांवठण बसकेत एकमतान थारायलां.' रेणूचे नवेच दिवज आशिल्ल्यान ताका एकेतरेची उमळशीक लागिल्ली. ताच्या अयावपणांच्या जिणेंतलो तो पयलोच सुवाळो आसलो.

एकवटेन उमळशीक आनी खोशी, तर दुसरे बटेन बेठेंच हड्ड्यात कलकलतालें.

घोवांगेरच्यान लग्नाक हाडिल्लें, णववारी कापड ताणें न्हेंसलें. हातांत काकणां घाली. दोनूय

हातांत दोन पाटल्यो घाल्यो. गळयात नेकलेस घालो. मुगांमाळ घाली. बोटांत मुदयों घाल्यो. आनी हारशांमुखार वचून उबें रावलें.

ताका लग्नादिसाची याद जाली घोवांगेर येवंक भायर सरतनां, होच शिरंगार ताचे आंगार आशिल्लो. मोटारकारीत बशिल्लेकडेन, ल्हवूच चिमटो काडून घोवान म्हणिल्ले, 'ह्या भेसात तूं भोव सोबीत दिसता गो...' तेन्ना तें लज्जे झाड कशें लज्जेलें. आयज हो हांगां उरल्यार, चिमटो काडून परतून तशेंच म्हण्टा आशिल्लो.

खीणभर घोवाच्या यादीन तें घुस्मटलें. ताका दिसलें, चार दिसांची रजा घेवन, ह्या जात्रेक येयल्यार जायनाशिल्ले...? मागीर ताणें आपल्या मनाक समजायलें, चार दिसांखातीर येवन वचप म्हळयार, थोडों न्ही पयशें खर्च! आनी जिवाक तरास कितलो...? बरें जालें येयलो ना तें !

रेणुल्या मांयन अमृत्यानूय पांचवेंच कापड न्हेशिल्लें. आंगार भांगर शिरंगार घालून ती रेणू आदीच तयार जावन आशिल्ली.

'वयनी, घे गे...' म्हणत, शालू कांदळांचे दोन सोर घेवन येयलें. एक सोर, ताणे आपल्या आईक दिलो. आनी दुसरो सोर ताणें आपल्यां वयनीक माळयलो.

अमृत्यान सोबीत शिरंगांरिल्ल्या आपल्या सुनेक पळोवन म्हळें, देवा, अशेंच अयावपणान शिंरगारिल्ली, दवर म्हगेल्या सुनेक...!

इतल्यान मडगुन्न येयली. 'घरात कोण गे...?' म्हणत, सोप्यार बसली.

अमृत्यान भितरल्यान म्हळें, 'मंजुळा, येयले गो...? बस.'

'शालू, तिका तेला बाटली व्हरून दी.'

शालून तिका तेला बाटली हाडून दिली.

अमृत्यान सुनेक म्हळें, 'रेणू बरें करून, कुलदेवाक, ग्रामदेवाक, घरच्या देवाक, सांगून यो चल आनी पांयां पड बरें करून.'

रेणू देवाकुडीत गेले. ते कुलदेवाक, ग्रामदेवाक, घरच्या देवाक पांया पडलें.

'आतां हांव करतां, तशें कर...' अशे म्हणत, अमृत्यान देवांक कुकूंम, फुल केलें. घोवाक पांयां पडलें.

रेणूनय देवांक कुंकूम-फूल करून, मांवाक, मांयक पांयां पडलें.

'यो...'

दोगाय मांय-सून तुळशीकडेन येयली.

दोगाय तुळशीक प्रदक्षिणां काडून पांया पडलीं.

'मामे, आमी दिवज खंय पेटोवंप...'

'दिवज हांगां पेटोवंप न्ही. आता आमी हीं दिवजां व्हरून मठात दवरप. थंय म्हाली देवाक सांगणी करून, ही दिवजां उखलून आमकां दितलो, आमी देवाक पांय पडून, ती घेवन बद्द देवळाकडेन वचप, थंय ती पेटोवप...'

दोगानूय दिवजां उखलूंन घेतली. मुखावेल्यां मठात येयली.

मठात आदींच वाड्यावेंल्यो दिवजकान्नी येवन, एकठांय जाल्ल्यो. जणएकल्यान बरीं बरीं कापडां न्हेशिल्लीं. आंगार भांगर शिरंगार घाल्लें. माथ्याक वजी वजीभर फुलां माळिल्ली. आयज थंय येयिल्ले जण एका अस्तुरेक, एक वेगळोच परमळ येतालो. पुराय मठभर, अस्तुरेंच्या शिरंगारांचो परमळ पातळिल्लो, आनी मठच अस्तुरीमय जाल्लो.

सगळयांत चड दोळयांत भरताली, यशवंताली धाकली सून वीणा. एक शिवडी गोरीच बायल ती. णव वारी कापडात आनी भांगरां शिरंगारात भोव सोबीत दीसं.

रेणून तिचे म्हन्यात वचून, ल्हवूच फकाणान म्हळें, 'वीणा आका, घरा वयतकीर, मामयेक दिश्ट काडून उडय म्हूण सांग गे...'

वीणान म्हळें, 'तुंवय दिश्ट काडून घे...'

विस्वासां बायल म्हादेवी, पांडरंगा बायल जयंती, विठूमामाली सून उमा, आनी तळयांकडच्या सुरेशांबायल सुशिलां, इतल्यो जणी अंदू दिवजकान्नी आशिल्ल्यो.

अंदू दिवज दिनाशिल्ल्या वाड्यावेली बायलां, आनी जाण्टी नेण्टी चेडवां मठांकडेन एकठांय जाल्ली. दिवजांकान्नीक दोळे भरून पळयतालीं. तोखेताली. फकाणां मारतालीं. हांसतालीं.

'सगळयांनी म्हाका तेला बाटल्यो दिल्यात मुगो...? नाजाल्यार ऐनवेळार, थंय देवळाकडेन, म्हज्या नांवान बोवाळ करशात.. ' मडगुन्नीन जणएकल्याक शिटकावणी दिली.

इतल्यात बंट फाटल्यान येयलो.

‘अगो, तुमी वेळ कित्याक करतात...? म्हाली येवंक ना अजून...? अंदू बेगीन दिवजां पेट्टली. थंय देवळांकडेन वाजूंक लागलें...’

‘म्हालीबाब अजून येवचोच आसा...’

‘कितें करतां तर तो इतलो वेळ...?’

जाण्टेली, फटकळ तोंडाची येसूआजी थंय येवन बशिल्ली. तिणें म्हळें, ‘आमचे तेपार, सुर्या उदेवचो पयली दिवजां पेट्टालीं. मध्यानरातीचेरूच उठून, धुवाळचे पडटालें. आतां कांय ना, सुर्या तकलेर येयलो तरी देवळाकडेन दिवजां पेटनात. आदल्या दिसा सावन, उपाशी-तापाशी रावन, देवकार्य करतल्यांक ही ख्यास्त हय रे...? कशें फिरप ताणे दनपारच्या भारात तकलेर दिवजां घेवन...? मागीर चक्कर येयले आनी फक्कर येयले म्हण्टात. येयनां आनीक!’

इतल्यांत तळयांआडयेंत सकयल्या वाड्यार बोवाळसो आयकूंक येयलो. उपरांत हुयेली, बोबो आनी अवचिन्नाळें रडप. सामको कुलकुलाट.

बंटान कान शेळयत म्हळें, ‘कितें जालें थंय...?’

जणएकल्यान कान शेळयलें.

‘देवप्पा दाद गेलो ना मूं...?’

‘आं...?’

‘हय गे. सकाळी तागेली सून म्हण्टाली, बरो ना म्हूण.. कालसाकून खंय अन्न उदक घेनाशिल्लो.’

‘पूण बरोच आशिल्लो न्हूं गो तो....?’

‘बरो आनीक कसलो कर्माचो? चार म्हयने जाले, हांथरूणार पडून असा! आनी तातूंत जाण्टे हाड...!’

‘हांव वचून पळोवन येतां..’ अशें म्हणत, बंट लांब लांब धेंगा घालीत वचूंक लागलो..

मुखावेल्यान म्हालीबाब धावत धावत येतालो, ताणें सांगलें, ‘बंट बाब, देवप्पा दाद भायर

पडलो.'

'अरे बाबा! बरोच आसलो न्ही रे तो...'

'बरो म्हळयार हांथरुणार पडून आशिल्लो न्ही....? कालसाकून अन्न-उदक घेयनाशिल्लो खंय....!'

'आतां दिवज कान्नींचीं दिवजां उल्ली म्हूण जालीं ना...?'

'हय.'

दोगाय मठाकडेन येयले.'

सगळीं बायलां कान लांब करून आशिल्लीं. देवप्पा गेलो म्हूण कळटकीर सगळीं निर्शेली.

येसू आज्येन मुखार येत म्हळें, 'जाण्टो बाबडो, हांथरुणार पडून आशिल्लो. सगळें सगळें सुनेकडच्यान करून घेवचे पडटालें! सुटलो बाबडो! बऱ्याभाशेन पावलो!'

'आयजच वचूंक जाय आशिल्लो...'

'हय मुगे...!'

'तुमगेलीं दिवजां उल्ली म्हूण, म्हण्टात हय गो...?' येसू आज्येन विचारलें.

'...तें तुमगेलें नशीब. अशें केन्नाच हाचेआदी घडूंक ना. म्हाका हाडून इतलीं वर्सां जालीं, हावें केन्नाच पळोवंक ना, अशें तरेन अत्रक जावन दिवजां उरिल्लीं...! हेंच पयलें फावट! तुमचीं लक्षणां ती, दिवजां दितल्यांची...! मरतल्यांची चूक न्ही ही...!'

'आमी कितें पयल्याच फावट दिवज दितात तर, आमची लक्षणां म्हणूंक....!'

'कोण आसां हांगा, पयल्याच फावट दिवज दिवपी...?'

रेणूक कच्च जालें.

कोणेंतरी दपटल्ल्यां आवाजांत ल्हवूच म्हळें, 'अगे, ओगी राव, अमृतें आकाली सून आसा...'

'अमृत्याली सून आसूं.. ना तर तुगेली सून आसूं....! हांवे फट उलयल्यां ? अवचीन्न लक्षणां हीं...!'

सगळीं ओग्गी रावलीं.

अमृत्याक कच्च जालें.

तिणेंय येवजिलें, अजून मेरेन खऱ्यानीच अशें केन्नाच जावंक नाशिल्लें. खऱ्यांनीच रेणुलीं लक्षणां न्ही मूं....? रेणूक देवधर्माच्यो, अयावपणांचे, सुवाळें करूकच मेळनात. चवथीक वायणां पेटवचे तेपारुय अशेंच जालें. ताका अयावपणांची पयलीं वायणांय पेटोवंक मेळ्ळी नात. म्हयन्याची अडचण जाली, आनी आता दिवजांवेळार हें.. बरी न्ही ही लक्षणां.. लग्नां दिसा, रातीकडेन भालू रडलो तेन्नाच, म्हाका दुबाव येयिल्लो...

तिणें रेणूकडेन कांयशां विचित्र, दुबावी नदरेन पळयलें, जशेंकाय रेणुनूच त्या जाण्टेल्याक मारून उडयिल्ले.

'...बेठेच हिका फटकळ येसू म्हणिनात लोक...' कोणेतरी ल्हवूच म्हळें, पुणून तें येसू आज्येक आयकूंक येंव ना. नातर ती तेन्नाच, आनिकूय कितेंय फटकळ उलोवपाची.

म्हालीबाबन मुखार येत म्हळें, 'ते कितेंय आसूं. तुमी आतां घरां वचात. अत्रक म्हण्टकीर, आतां दिवजां दिवंक जावची नात.'

'आनी ही दिवजां कितें करचीं...?'

'तीं हांगांच आसुंदीं.. मठांत.'

'अरे देवा!'

'कितें करूंया ताका...! मर्णाक आनी जल्माक कोणाच्यान दोश दिवंक जाता...!'

जण एकलीं कांयच उलयनासतना, ओग्गी आयिल्ले वाटेन वचूंक लागली.

रेणू मात संभ्रमीत जावन, थंयच उबें रावलें.

अमृत्यान ताका कांयशां तिरस्कारानशें पळोवन म्हळें, 'चल घरा. आतां दिवजां फुडल्या वर्सा...'



रेणू आंगणात सान्न मारत, परतून परतून आकाड्यां दिकेन पळयतालें.

सकाळीं सातां, आठां, सुमारां बस कारवारा पावतां म्हण्टकीर, घरां पावतां मेरेन णव जातात... येयल्यार, येन्ना पावंक जाय आशिल्लो.'

आयज धा दीस जाल्ले, तें वाट पळयतालें...

शशिकातांन बरयिल्लें, आपूण ह्या धा दिसांत पावतां. अजून काय येवन पावलो नासलो.

रेणूक हुसकोसो जाल्लो. येता म्हूण बरयिल्लो मनीस, येयलो ना कसो...? रजा मेळ्ळी ना काय? हें दिसांडेन, आपणांली भलायकी बरी आसना म्हूण पत्रांत बरयता, बरो उल्ल्यार पुरो!

आंगण झाडून जातकीर, रेणून सान्न सोप्याचे कोणशाक तेकून दवरली आनी मेटला चडून ते घरात येता थंय असा, मुखावेल्यान शशिकांत हातात ल्हानशी सुटकेस घेवन येतना दिसलो.

'आ! येयले...?' अशे म्हणत, तें परतून सकयल देंवलें. धावत वचून ताणें घोवाल्या हातातली सुटकेस घेयली.

'शंभर वर्सा आयुश्य तुमका! आतां हांव तुमचेबद्दल चिंततालें...! हुसकोसो जाल्लो देखून...!'

'कित्याक...?'

'तुमी येता म्हूण कळयिल्ले पुणून अजून पावंक ना न्ही...'

'तशें मनात येतां तेन्ना उठून येवंक, कंपनी म्हज्या बाबाची गो...?'

शशिकांताक दोळें भरून पळयत, रेणून म्हळें, 'भागलें.. मू तुमी...'

भागल्यार भिरांत ना! शंभर वर्सां आयुश्य खंय न्ही म्हाका! आतांच म्हळें न्ही तुवें तशें..'

रेणू हांसलें.

सुटकेस घेवन धांवतच घरात गेलें.

'मामे, पळय कोण येयला...'



एकवटेन रेणुचे काळीज खोशयेन भुल्लुशिल्लें, तर दुसरे वटेन भरुनशें येयिल्लें. इतलें दीस तें माय मांव, नणंद हांचे वांगडां राविल्लें. तांचो मोग अणभविल्लो. घोवागेरचे घर नवें आसून लेगीत,

कुळारां परस तें हांगां चड खोशीं आसलें. देखून हें घर सोडून वतना ताका दुख्खशें जाणवतालें.

'वयनी, काल तुगेल्या भयणीन हाडिल्ले मुगां लाडूं घेयले मुगे उगडासान?'

'हय. बाबड्यान भोव मायेन करुन हाडल्यात, भयणीक आवडटात म्हूण. हांगाच दवरून वचशी...!'

रेणून परतून एक फावट सुटकेस उगडून खातरी करून घेयली.

'हय, घेयल्यात!'

अमृत्यान रेणुले फाटीर मायेमोगान हात दवरीत म्हळें, 'कळळे मुगो, बरी करून रावात दोगांय. झगडीं आवडीं करू नाकात.'

रेणू आनी शशिकांत एकांमेकांक पळोवन हांसली.

'बरें करून घोवाक सांबाळ. ताच्या जेवणां खाणार लक्ष दी. पळय तो कसो सुकून कवडो कसो जाला!'

रेणून तकली हालयली.

'आनी ताका परतून परतून थंडी जोर येता म्हूण, उठसूट दोतोरालें वखद खावोवं नाका. चडच जाल्यार हरकत ना. वखदां सांगशी घेतल्या मुगो उगडासान...?'

'हय.'

'उगडास आसां मगो, खंयचे वखद खंयच्या बळ्ळीकेक पडटा तें...?'

'हूं.'

'कशें दिवप, ते जाणां मुगो...?'

'हय तर!'

मांवान यादीन विचारलें. 'देवांक पांयां पडलीं दोगांय...?'

दोगांय घोव बायल देवाकुडीत गेली. देवांक पांयां पडून भायर येयली. मागीर मांय-मांवाक पांयां पडलीं.

मांयीन-मांवान ‘बरें जावूं...’ म्हूण आशिर्वाद दिलो.

मांयीन म्हळें, ‘रेणू, दीस गेल्यार रोखडेंच कळय गो...’

रेणू लजलें.

शालू मुखारच उबें आसलें. तें हुनेक पळोवन मुंमुरखेंच हांसलें.

अमृतें रांदचे कुडीत वचून धय आनी तेंल घेवन येयली. दोगायच्या हातार धंय दवरली आनी ताळयेर इल्लें इल्लें तेंल घालें.

‘बरें, येतात आमी...’ म्हणत शशिकांतान सुटकेस उखल्ली.



रेणूक हुसकोसो जाल्लो.

हो परतुक नाशिल्लो. येवचो वेळ जावन गेल्लो. कामार वतना आंगांत मातसो जोर आशिल्लो. रेणून वचूनाका म्हणिल्लें, तरीय कानमनार घेनासतना गेल्लो.

रेणू मुंबयत येयिल्लें. जायती सपनां काळजांत वेंगोवंन. पुणून, हांगा येतसावन, ताका सुखशें नाशिल्लें.

शशिकांताली भलायकी बरी उरनाशिल्ली. एक दीस थंडी-जोर जाल्यार एकदीस हगवण. कितें ना कितें तरी जाल्लेंच आसतालें.

रेणू मांयीन सांगिल्ली वखदां करुन दितालें. पुणून व्हडलोसो गूण येनाशिल्लो. मातशें बरें दिसतालें, आनी परतून तरास सुरू जातालो. शशिकांत हें सगळें आंगार काडटालो.

मुंबय येताना, बसीत शशिकांतान रेणूक जायत्यो गजालीं सांगितल्ल्यो. तुका हें दाखयतां, तुका तें दाखयता, आख्खे मुबंय भोंवडांवंन हाडटां! पुणून, ताचीच भलायकी बरी उरनाशिल्ल्यान, दोगांकूय उमेदशी नाशिल्लीं. खंयूय वचचे भोंवचें, पळोवंचे, दिसच नाशिल्लें.

तांची खोली बिल्डिंगेच्या तिसऱ्या माळयेर आशिल्ली.

एक हॉल, ताका लागून किचन, संडास आनी बाथरुम, जालें घर! ह्या इतल्याच घराक थोडें

न्ही पयशें फारीक करचे पडिल्ले. घोवान पयशें उबें करूनय, रेणूक मुंबय येयिल्ल्या दुसऱ्याच दिसा, गळयातलें मंगळसूत्र सोडून सगळयो वस्ती विकच्यो पडिल्ल्यो.

शशिकांत कामार वतकीर तें आपणांली कामां आटापून घेतालें आनी बेजार येयल्यार जनेलां म्हऱ्यांत येवन रस्त्यावेल्यान येतल्यां वतल्यांक पळयत रावतालें.

एकेक फावट ताका गांवची भोव याद येताली. घोवागेरची, कुळारची, मीराल्या यादीन तर ताच्या दोळयांत दुकां येतालीं. मुंबय येयिल्ल्या पांच स दिसांनूच भयणीची मांय मेली म्हूण पत्र येयिल्लें. भयणीक, भावोजीक जाब दिवूंक वचूंक जाय आशिल्लें. वयतलें कशें? पयरुच तर येयल्यात!

केन्ना केन्नाय ताका एकट्याकूच भिरांतशी दिसताली. तर केन्ना केन्नाय त्या घरात घुस्मटिल्ल्यां भाशेंन जातालें. ताका दिसतालें, आपूण खंयच्या ह्या बंदखणीत येवन पडलें ? गांवात गांवभर भोंवूक मेळटालें, तोंडभर उलोवंक मेळटालें. हांगां सगळेच बंद करून रावूंक जाय.

दारांत टिर्रर जालें.

रेणून बेगोबेगीन दार उक्तें केलें.

शशिकांत भितर येयलो. भागिल्लो, थकिल्लो, येयलो तोच कदेलार बसलो. 'बरो जोर येयला म्हाका...!' ताणें आपणाल्या कपलार हात दवरीत म्हळे.

'आं?' रेणून ताच्या कपलार हात दवरून पळयलें. 'हय मूं...'

'हे घे बॅग'. ताणें बॅग रेणूक दिलें. 'डबो तसोच आसा उक्तोय केलो ना.'

'म्हळयार तुमी जेवले ना तर...?'

'ना.'

'सकाळी गेल्लें तुमी, अजून मेरेन उपाशीच आसात..?'

'जेवची इत्साच जाली ना.'

'आतां वाडूं?'

'नाका! कांयच खायन दिसना!'

‘अरे देवा!... तुमी दोतोराकडेन गेल्ले?’

तो ओग्गी रावलो. मागीर ल्हवूच म्हणूंक लागलो, ‘पळया, जोर देवना जाल्यार, गेल्यार जालें.’

इतलें बजावन सांगिल्लें तुमकां. चड जाल्यार दोतोराकडेन वचात म्हूण, उठा! कपडे काडात आनी आड पडात...!’

शशिकांत उठलो, ताणें कपडें काडून दवरले. बाथरुमात वचून येयलो. आनी खाटीर आड पडलो. तकलेवेल्यान पांगरूण घेवनं ओग्गी न्हिदलो.

रेणून येवन पांगरूण वयर करून, परतून ताच्या आंगाक हात लायन पळयलें, आंग सुमार हून जाल्लें.

‘हांव वखदां झरोवंन दितां तुमकां...’ अशे म्हूण, ताणें वखदां सांगशेंतल्यान मळावेलें कोडूल आनी उरफाटें काट्यामुळ भायर काडले. तोपांतल्यान पेल्यांत इल्लें गरम उदक घेयलें. साण्ण घेवन बरी धुयली. ताचेर तीं दोनूय मुळां झरयलीं. बरें चार चमचे वखद केलें. आनी पेल्यात घालून घोवाक दिलें. ‘हें घेयात..’

शशिकांत पांगरूण बगलेन करून उठून बसलो. वखदां पेलो घेवन, गुट्ट करून ताणें तें कोडशें वखद पिलें, आनी ‘बाऽ कुलकले येतात..’ म्हूण, तो परतून तकलेवेल्यान पांगरूण घेवन न्हिदलो. ‘आंगावेल्यान आनीक एक पांगरूण घाल घो’ ताणें म्हळें.

रेणून ताचेवेल्यान आनीक एक पांगरूण घालें.

‘हांव इली कॉफी करू तुमका...? पोटात कांयच ना तुमगेल्या...’

‘कर.’

रेणून किचन रूमात येवन स्टोव्ह पेटयलो. ताचेर तोपात इल्लें उदक घालून आदन दवरलें. उदक बरें सळसळटकीर, तातूंत इल्ली कॉफी, साखर घाली. खतखतोवन काडली.’ एका कपात ओतली. तातूंत इल्लें दूद घालें आनी हाडून घोवाक दिली. ‘ही घेयात.’

शशिकांत उठून बसलो.

'थांबा हा. हांव चार टोस्ट घेवन येता.' ताणे वचून टोस्टांचो डबो हाडलो. उक्तो करून घोवामुखार दवरलो. 'घेयात खायात...'

शशिकांतान बळांबळ करून चारच टोस्ट खालें

'आनीक चार खायात न्ही....'

'नाका! जावचें ना!

'अशे कितें करतात तुमी...? खायना जाल्यार ताकद कशी येतली ?

ताणें कॉफी पिली आनी तो परतून पांगरूण घेवन न्हिदलो.

'पेजेक दवरतां हांव हां... रातीकडेन इल्ली पेजच जेवल्यार जाली...'

'नाका! जेवक नाका म्हाका!'

'शीऽ! अशें केल्यार कशें जातलें...! दवरतां हांव पेजेक...!'

रेणू पेजेक आदन दवरूक गेलें...



आदीं म्हयन्यां दोन म्हयन्यांनी येतालो. वखद विरसद केले बराबर वतालो. आता पंदरां पंदरां दिसांनी येवंक लागलो.

आता तर येयिल्लो जोर देवूंकच तयार नाशिल्लो.

रेणू तर रडूंक पाविल्लें.

रेणून ल्हवूच परतून एक फावट ताचे आंगाक हात लायन पळयलें, आंग जोरान खतखत्तालें. कपलार दवरिल्ली थंड उदकाची घडी सुकून लाकूड जाल्ली. ताणें ती काडली. परतून उदकात बुडयली आनी कपलार दवरली.

ताका आता कितें करप, हेंच कळना जालें. तें पुरायच हवसाणखच जाल्लें.

ताणें परतून एक फावट कुळारच्या देवाक, घरच्या देवाक, हात जोडले. आनी काकुळटेन म्हळें, 'देवा एक फावट जोर उतरल्यार पुरो...'

आतां मेरेन ताणें आपणांल्यां देवाक कितल्योशोच सांगण्यो आनी आंगवण्यो उलयिल्ल्यो, पुणून जोर देवूंक तायर नासलों.

तागेल्या कुळारच्या देवाकडेन घाल्ली एकूय सांगणी फुकट वचना म्हण्टात.. मागीर हो जोर कित्याक देंवना तर....? आतां ताका देवांवेलो भावार्थय उणो जावंक लागिल्लो.

आतां कितें करप...? दोतारांकडेन आस्पत्रेत व्हरप...? काय दोतोराकूच हांगां हाडप..?

कितेंच समजनाशिल्ले.

'आयकलें...?'

'हूं...'

शशिकांताली एक संवय आशिल्ली. तो आपल्याक कसलेंय दुयेंस जाल्यार एकदमच मोनो, उतरहीण जातालो. आतांय तो तसोच करतालो. कितेंय विचारल्यार फकत 'हां' नातर 'हूं' करतालों.

'अशें कितें करतात तुमी...? उलोवंक कितें जातां? तुमी अशें उलयनासतना रावल्यार म्हाका भिरांत दिसता.'

शशिकातांन दोळें उक्ते करून पळयले, आनी परतून धापलें.

'दोन दीस जालें. पोटात अन्नाचो एक कण लेगीत घेयलो ना. आनी उलोवंचेय बंद करतात. म्हाका भिरांत दिसता.'

शशिकांतान परतून दोळे उक्तें करून रेणूक पळयलें. रेणुल्या तोंडांवेलें भाव पळोवन, ताका हड्ड्यात घळघळ जालें.

'भिनाका, म्हाका कांयच जावचेलेंना! जोर येयल्यार कितें जाता...? वयतलो...!'

'आता कितलें दीस जाले, येता आनी वयता.'

दारार टिर्रर जालें.

'कोण येयला पळय...'

रेणून दाराकडेन येवन, भितरल्यान दारातल्यां भुरांकातल्यान पळयलें. दारात शशिकांतालो बापोलभाव कमलाकर आनी तागेली बायल सुमित्रा उबी आशिल्ली.

रेणून बेगोबेगीन दार काडलें. तीं दोगाय भितर येतकीर, कितें दिसलें देव जाणां. कोंदल्यांत तोंड लिपोवन व्हडांव्हडान रडूकच लागलें.

अचकीत रेणूक रडटा पळोवन ती दोगाय कांचवेलीं. तांकां कांयच समजलें ना!

सुमित्रान रेणूक खाकोळात घेवन विचारलें, 'रेणू रडटा कित्याक..? कितें जालें...? जालें कितें...? शशिकांतान कितेंय उलयलें गो...?'

रेणून रडतच 'ना' म्हळें, आनी शशिकांताकडेन बोट दाखोवन सांगलें, 'तांकां बरें ना.'

'बरें ना ? कितें जालां तर...?' कमलाकरान आबूज जावन विचारलें.

'जोर येयला. देंवना...'

कमलाकर आनी सुमित्रा बेगोबेगीन शशिकांता म्हऱ्यांत येयली. कमलाकरान ताचे आंगाक हात लायन पळयलें.

'जोरान आंग खतखता..'

'कितलो ताप आसा गो...?'

रेणू ओगी.

'थर्मोमिटर ना गो...?'

'ना.'

कितलें दीस जाले असो जोर येता...?'

'खूब तेप जालो'

'बाबू,'

'हूं...'

'कितलें दीस जालें रे जोर येता...?'

'बरोच तेप जालो.'

'तूं ओगी आसा...'

'ना! वखद करतां!'

'बरोच तेप जालो म्हण्टा. वखद करता म्हण्टा.. आनी जोर कसो येता तर तुका...?'

शशिकांत ओगी.

'हांव लग्न सावन पळयतां, भलायकी बरी ना तांगेली.'

'आमगेर आसतनाय भलायकी बरी उरनाशिल्ली तागेली! कितें ना कितें जाल्लेच आसतालें...।'

'आता जोर येता..'

'आमकां कळयलें ना कित्याक तर तुमीं...?'

सुमित्रान सुस्कारत म्हळें, 'बरें म्हूण बरें! आमी आयज येयली म्हूण बरीं जालीं!'

कमलाकरान म्हळें, सुमित्रा आमी हाका आताच दोतोराकडेन व्हरूया...'

'हय, व्हरूया..'

'रेणू, व्हरूया म्हण्टा मुगो हाका...?'

'हय, व्हरूया...'



रेणू आनी शशिकांत घरा येवन दार उक्तें करतात थंय आसा, शेजारचे पिंकी धांवत धांवत येयलें.

'अंकल.. अंकल, आण्टी, तुमच्या बॉक्समध्ये पोष्टमनने काल पत्र टाकलय..'

'पत्र येयलां खंय...'

'हांवेय आयकलां गो, आदी दार उक्तें कर. मागीर पत्र पळोवया. पत्र खंय धांवन वचचेलें ना.'

रेणून चावी काडून दार उक्तें केलें.

आयज सारखे एका सप्तकां उपरांत, शशिकांत घरा येतालो. रेणू एक दोन फावट दार उक्तें करून गेल्लें. इतलें दीस तें बापोल भावागेर कमलाकरागेरूच रावतालें. थंयच्यानूच आस्पत्रेंत वचून येतालें. ज्यूस्त एक सप्तक शशिकातांक आस्पत्रेंत दवरून घेतिल्ले.

शशिकांत आता निवळिल्लो. पुणून आंगांत अशक्तपणा जाणवताली.

तो घरा येयलो, तोच वचून खाटीर आड पडलो.

रेणून म्हळें, 'हात-पांय धुयन तरी आड पडात. आस्पत्रेतल्यान येयल्यात तुमी. थंय ना ना तरेचे रोगी आसतात. आंगावेले कपडे बदलियात. हांव धुयन घालता ते.

शशिकांताक खरें दिसलें. तो रोखडोच उठलो. बाथरुमात गेलो. नळ फिरोवन, बरें करून घश्टून हांत पांय तोंड, धुयलें. आंगांवेले कपडे बदलिले आनी परतून वचून खाटीर पडलो.

रेणून बेगोबेगीन आपणालें हांत पांय तोंड, धुयलें. कपडे बदलिले आनी एका बालदेंत उदक घालून, तातूंत हीटर घालून तापोवंक दवरलें.

'हांव आदी न्हावन घेतां आनी मागीर कामांक लागतां. म्हाका आस्पत्रेतल्यान येयले, काय आदी न्हावूंक जाय! नातर म्हाका बेंठेच दुयेंस लागिल्ल्यावरी दिसतां...!'

शशिकांत हांसलो.

'खरें सांगू...? तुमी थंय त्या आस्पत्रेत आशिल्ले म्हूणच हांव थंय वयतालें. नाजाल्यार म्हाका लाख रुपया दिता म्हळ्यार सुदीक हांव थंय वचचे नाशिल्लें. हाचे आदी हांव फक्त दोनूच फावटी आस्पत्रेंत पावलां. एक फावट हुनी बाळंत जाल्ली तेन्ना आनी दुसरे फावट अण्णाक जिवाण्यान चाबिल्लें तेन्ना! दोनूय फावटी म्हाका आस्पत्र नाका जाल्या. हांव आस्पत्रेतल्यान येतकीर थूंक थूंक

थुकतालें. आस्पत्रेत म्हजें मनच कंटाळटां. आस्पत्रेतल्यां सगळयां रोग्याल्यां बळिळकेचें रोतें येवन, म्हज्या आंगां-तोंडार बशिल्ल्यांवरी दिसतात म्हाका!'

'फाल्यां तुगेलो बांळटेर आस्पत्रेत कसो करतलें तर तूं...?'

बांळंटेराचो विशय काडटकीर रेणू बेठेंच लजलें.. मागीर म्हणूंक लागलें, 'ना बाबा. हांव गांवात वचून घरातच बाळंत जातलें. गांवांत जायत्यो वैजिणी आसात.'

'क़ळ्ळें.. कळ्ळें! पिसाय खंयचें..! चल तें पत्र कोणालें पळय...!'

रेणून आलमारी उक्ती करून, तातूंतल्यान बॉक्साची चावी काडली. भायर वचून बॉक्स उक्तें केलें, आनी तातुंतलें पत्र घेवन भितर येयलें.

पत्राचे फाटले वटेन मीराचो नामो आशिल्लो.

'म्हजे भयणिचें पत्र.'

'हांगा हाड. हांव आदी वाचतां.'

रेणून पत्र काडून घोवाक दिलें.

शशिकांतान पत्र फोडून बरें करून वाचलें, आनी मागीर रेणूक दीत म्हळें, 'हें घें वाच. हातूंतय बाळंतपणाचीच गजाल बरयल्या...'

'कोणाल्या...?'

'तुगेल्या न्ही.. हुनेल्या बाळंतपणाची.'

'आं? हुनी बाळंतबीन जाली ना मूं...?' रेणून बेगोबेगीन पत्र हातात घेतलें.

'जाली. चेडो जालां खंय...'

'ख़ऱ्यानीच...?'

रेणू खुशालभरीत जालें. ताकतिकेन पत्रावेल्यान नदर भोंवडावंक लागलें. पत्र वाचून जातकीर, ताणें तें पत्रच हड्डयाकडेन घट्ट धरलें. 'देवा, पावलों बाबा तूं. म्हजो बापूय जल्माक येयलो. आयज अण्णा उल्ल्यार कितलो खोंशी जातशिल्लो? ताचे दोळयांत झुप्पकरून दुकां येयली.

'आयज बरो दीस आसा आमगेलो! आयज हांव आस्पत्रेतल्यान बरो जावन येयलो. आनी येतकीर ही बरी गजाल कळळीं.'

'एक काम जालें. म्हज्या बापायल्या वंशांचो दिवो उध्दारलो देवान...'

'आता आमगेल्या वंशाचो दिवो उध्दरल्यार पुरो...' शशिकांतान फकाणान मुमुरखें हांसत म्हळें.

रेणू घोवाक पळोवन मुड्डून हांसलें. आनी ओगी रावलें... मागीर ताणें ल्हवूच विचारलें, 'आता केन्ना आपयला दोतोरान...?'

'आनीक चार दिसांनी यो म्हळां..'

'दोतोर आमगेल्या गांवचो जाल्ल्यान बरें जालें न्ही...? ताचे वळखीन वखद विरसद बरेंभाशेन जालें.'

'त्या आस्पत्रेत सगळयांकूच बरी ट्रीटमेंट मेळटा...'

'मेळूं. पुणून ह्या दोतोरान मातशें बरेंभाशेन पळयलें...'

शशिकांतान विशय बदलीत म्हळें, 'ते मागीर उलोंवया.. आदी तुजे तें उदक तापलें काय पळय आनी न्हावन धुंवन घे. म्हाकाय न्हावंक जाय.'

रेणू बाथरूमात धांवलें.



शशिकांत आस्पत्रेंत पावलो तेन्ना, दोतोर राणे कॅबिनात किते तरी बरयत आशिल्ले.

शिशकांताक पळोवन ताणें 'यो' म्हळें. आनी तो परतून तकली सकयल घालून बरोवंक लागलो.

'दोतोर...'

'हूं.. बस. बस' ताणी तकली वयर करिनासतनाच सांगलें.

शशिकांत मुखावेल्या खुर्चेर बसलो.

बरोवप पुराय जातकीर, दोतोरान तकली वयर करून शशिकांताक कांय खीण थीर नदरेन पळयलें.

'आता कसो आसां तूं....?'

'बरो आसां आतां.'

'......'

'दोतोर, हांव रिपोर्ट व्हरूंक येयिल्लो.'

'हूं...'

येयला रिपोर्ट...?

दोतोरान हयकारान तकली हालयली.. पुणून, कांयच उलयलो ना.. मागीर ल्हवूच विचारलें, 'शशिकांत, हांव एक विचारू...? रागार जावचो ना मूं.....?

'विचारा दोतोर...'

'हे पळय, तूं म्हजो गांववालो म्हूण आपलेपणान विचारतां...'

'......'

'तुका शिंदकळी करतल्यांगेर बीन वचचेली संवयबीन आसा...?'

'ना.'

'केन्नाय. फाटल्या तेपार चुकूनसो, एक फावट बीन गेल्लो?'

'शेऽ! केन्नाच ना.' हांवे जिवितात केन्नाच शिंदकळी करतल्यांचो हुमरो बलाटलो ना.. कित्याक म्हण्टात तुमी...?'

'तुका स्पश्टच सांगता.. तुज्या रगताचो रिपोर्ट एच. आय. व्ही. पोजिटीव्ह आसा.. देखुनच हांवे विचारले...'

'ऑं...?'

'हय.'

शशिकांत कांयखीण 'ऑं'च उरलो. ताका कांयच समजलेंना.

'दोतोर, हें अशें कशें....? म्हगेल्या रगतात एचआयव्ही पोजिटिव्ह उरपाचे शक्यच ना.'

'पुणून रिपोर्ट पोजिटिव्ह दाखयता.' ताका कांयसो आबूज पळोवन दोतोरान समजावणेच्या सुरात सांगलें, 'तूं आबूज जावं नाका. हाचेर अजून वखद जरी ना म्हळें, तरी तुजे आयुष्य वाडवपाक मदत करपी वखदां आसात हाचेर! हांव आसा, भिवची गरज ना!'

'रिपोर्ट चुकलो बीन ना मूं....?'

'शेऽ! तशें जायना...'

'हांवें तसल्यो भानगडी केन्नाच केल्यो ना तर म्हाका तें दुयेंस जातलेंच कशें....?

'केन्नाय कोणालेय रगत बीन घेतिल्ले ?'

'ना.'

'हें पळय, तूं जाणां आसतलोच.. हें दुयेंस कशें मनशाक येवं येता.. एक म्हळयार, हें दुंयेस आशिल्ल्या मनशाकडेन कुडिचो संबंध आयलो जाल्यार. दुसरें, हें दुयेंस आशिल्ले रगत घेतलें जाल्यार, आनी तिसरे, हें दुयेंस आशिल्ल्या मनशांक तोपिल्ली सूय तोपून घेतली जाल्यार...'

शशिकांत कांयखीण ओगी रावलो, मागीर म्हणूंक लागलो, 'म्हाका हें दुयेंस जावूंक शक्यच ना!'

दोतोर ओग्गी. कांयखीण थंयएकातरेची थंडाय पातळळी.

'दोतोर, म्हाका केन्नातरी दिल्ल्या इनिसांवातल्यान जालें बीन ना मूं..?' शशिकांतान ल्हवूच विचारलें.

'शे! दोतोर स्टर्रलायज केलेंबगर केन्नाच इनिसांवां दिना. आनी स्टर्रलायज केल्यार ते जंतू जिते उरनात. ते मरतात.'

'म्हाका मागीर हें दुयेंस जाल्ले आसचेच ना! रिपोर्ट बीन चुकला आसतलो...'

दोतोरान कांयशें चिंतून विचारलें,' तुजे बायलेची भलायकी कशी आसता?'

'बरी आसता.'

'तुजे लग्नाक कितलीं वर्सां जाली?'

एक वर्सय जावूंक ना ?'

दोतोर खीणभर ओगी रावलो, मागीर म्हणूंक लागलो, 'हें दुयेंस फकत शिंदळकी करतल्यांकूच आसता अशें न्ही, कोणाकूय आसूंक येतां.'

शशिकांत कांचवेल्लो. तो ओग्गी दोतोरांक पळोवंक लागलो.

'हें पळय, हें दुयेसांखातीर फकत शिंदळकी करतल्यांगेरूच वचूंक जाय अशें ना. तुजो, हे दुयेंस आशिल्ल्या खंयच्यायबायल मनशेकडेन संबंध येयलो जाल्यार, तुका तें जावूं येता.'

'........'

'......... फकत बायल मनीसच न्ही. एका चलयेकडेन जरी तुजो संबंध येयलो आनी त्या चलयेक जर तें दुयेंस आसा, तर तुका तें जावूं येतां... त्या चलयेक तें दुयेंस खंयच्यानूय येवं येता.. ताचो आनी कोणाकडेनूय केन्नाय संबंध येयिल्लो आसुं येतां. वो ताणें केन्नाय हें दुयेंस आशिल्ल्या मनशांकडल्यान चुकून रगत घेतिल्ले आसूं येतां.. हें पळय, हें एक भिरांकूळ चक्र. तें कशें फिरतां, हाचो अदमास लावप भोव कठीण, देखून आपूण सादूर रावप, आनी हरेक पावल शंभर फावटी चिंतून घालप हेच खरेले...'

'.....'

'ह्या कांय वर्साकडेन तुजो खंयच्याय बायल मनशेकडेन वो चलयेकडेन संबंध आयिल्लो आसल्यार.. उगडास कर...'

शशिकांत आता सामकोच हंवसाणखच जालो. कांचवेलो. ताचे दोळेंमुखार काळोख येयिल्ल्यावरी जालो. ताची शिरंतरां थंडली आनी ताका दिसलें, खंयच्याय खिणांत आपूण आता सकयल पडटलो...



....... कांय वर्सां फाटलीं गजाल - ज्यूस्त कितलें वर्सां जाली शशिकांताकूय उगडास ना.

शशिकांत बापोलभावा वांगडा गोरेगाव रावतालो.

तांच्या शेजरां वेदकुमार नांवाचो एक मनीस रावतालो. तो आनी ताची बायल भोव बरी, शेजारधर्म राखपी, आशिल्लीं.

शशिकांताचो बापोलभाव कमलाकर आनी त्या वेदकुमाराची बरी इश्टागत आशिल्ली. दोगायचे एकामेकांगेर उठ बस आसतालें. दोगांची बायलाय एकमेकांच्यो इश्टिणी जाल्यो.

दोनूय घरामजगती बरें नातें आशिल्ल्यान, शशिकांताचेय थंय उठ बस आसतालें.

वेदकुमारागेरची परिस्थिती बरी आशिल्लीं. दोगाय घोव-बायल सर्व्हिस करताली.. पुणून भुरगीं बाळां नाशिल्लीं.

एकदीस वेदकुमाराची मेवणी वंदा अचकीत मुंबयत भयणीगेर रावूंक येयली.

त्या वंदाचीय एक निराळीच काणी आशिल्ली.

तागेले लग्न जाल्ले, पुणून घोवान सोडचीट दिल्ली.

वंदालो खंय लग्नाआदी एका तरणाट्यालागी मोग आशिल्लो. तो हेर जातिचो आशिल्ल्यान, घरच्यांनी ताचे वांगडां लग्न जावूंक दिलें ना.

वंदाले लग्न दुसऱ्याच एका मनशालागी जालें.

वंदा एक लग्न जाल्ली बायल आशिल्ली खरी, पुणून ताणें आपलें आदल्या मोग्यालागी आशिल्ले संबंध तुटयलें नासलें. तें ताका वचून मेळटालें. ताचेलागी कुडिचो संबंध दवरतालें. आनी हें जेन्ना वंदाल्या घोवाक कळ्ळें, तेन्ना ताणें वंदाक सोमतीच सोडचीट दिली, आनी वंदाक बापाय घरा धांवडायलें.

मजगतच्या तेपार वंदाल्या मोग्याचें एका चेडवालागी लग्न जालें. आनी तो वंदासाकून पयस गेलो.

आता वंदा मेळत ताचे वांगडां नाचूंक, भोवूंक लागलें. दिसान दीस ताचे थेर वाडत गेले.

मुंबय आयिल्ले तेन्ना हांगा मुंबयतय वंदा तशेंच वागतालें. मेळत ताचे फुडें फुडें करतालें, रंगतालें, नखरेताले, खिलखिलतालें.

ताचे नदरेतच एका तरेची धार आशिल्ली. दिसतालेय तें कोणाकूय पिशें लावपा सारखेच. गोरे गोर फिट्ट. सोबीत आंगलोट. पिरायेनूय चड नाशिल्ले. शशिकांता परस एक दोन वर्सांनी चड आसुंयें.

शशिकांत हरशी बरो भुरगो. कसल्याय भानगडेंत घुस्पुवपी न्ही. कोणाच्याय आंगार पडपी, फुडें फुडें करपी न्ही. पुणून वंदान मात ताका पिसो केल्लो.

ज्या दिसा ताका ऑफ आसतालो त्यादिसा तो केन्नाय तांगेर वचून बसतालो. वंदाली भयण आनी भावोजी सर्व्हिसेक गेल्ली आसताली. घरात फकत ही दोगांच. वरांची वरा उलयत बसताली. फक्त कुडिचे आकर्शण दुसरे कायंच नासले. शशिकांत तेवेळार नवो तरनाटो. ताच्यान स्वताक साबाळूंक जाले ना. आनी.. आनी तो तेन्ना वंदाच्या भकीक पडिल्लो.

तांचो हो संबंध कांय म्हयन्या पुरतोच थारिल्लो. वंदाच्या भयणीन वंदाक रोखडोच घरा धाडिल्लो. कित्याक तर, ताचे वागप स्वताच्या भावोजीकडेनूय बरें नाशिल्लें.

घडये हो संबंध आपणाक इतलें व्हडलें भिरांकूळ देणें दिवन वतलें, हाची शशिकांताक तेवेळार तिळाचीय जाणविकाय नासुंये...



रातीकडेन दोगाय एकामेकांच्या कुशीत न्हिदिल्ली खरी, पुणून दोगायल्यो उमेदीं मरून गेल्यो. देखून मेल्ली मडी कशी दोगांय पडून आशिल्ली. रेणूक ओग्गी पळोवन शशिकांतान म्हळें, 'रेणू...'

'हूं...'

'म्हाका माफ कर. हांव जाणां, म्हाका देव लेगीत माफ करचो ना. हांवें म्हगेले जिणें पिड्यार केलेंच, वांगडां तुगेलेय केलें. तुगेले पिड्यार करेचलो अधिकार म्हाका ना...' ताचो आवाज समाको रडकुरो जालो.

रेणूक कितें उलोवंचे हेंच समजनाशिले. तांच्या लग्नां जिणेच्यो कितल्योशोच आखण्यो आनी मांडण्यो मोडून पडिल्ल्यो.

'हांवें तेन्ना तशें वागूक नजो आसलें गोऽऽ.... म्हाका ह्या दुयेंसाची कल्पना आसल्यार, हांव तसो केन्नाच वागचो नासलो. हांव तसलो न्ही गो... पुणून हांवे चुकून ती चूक केली... आनी तेखातीर येद्दी व्हडली ख्यास्त..' तो कुशीक तोंड लिपोवन रडुंकच लागलो. ल्हान भुरग्यावरी हुंडक्यानी...

रेणूक ताका कशें समजावप हे कळनाशिल्ले. तेंवूय मोडून पडिल्लें. तरीय ताणें स्वताक थातारिल्लें.

'ओगी रावा, ओगीं...' ताणें ताच्या केंसातल्यान हात भोंवडायत म्हळें.

'म्हाका जीव दीन दिसता रेणू, अश्यानूय आमी मेल्ल्यातूंच जमा, गो, खंयच्याय रेल्वे पोंदात स्वताक घालून घेयन दिसता...'

'शीऽ! कितें नाका जाल्ले उलयतात तुमी?.. फाल्या मरतलें म्हूण आयजच मरप...? मरता तेन्ना मरतात! तोमेरेन आमी आमचे जिणे जियेवया...'

शशिकांताक होलमतालें, रेणू स्वताच्या आनी म्हज्याय मनाक फटयत उलयलें... ना तरी ते कितें उलयतांशिल्ले...? मरतां मेरेन जियेवप होच उपाय आशिल्लो.

खरें म्हळ्यार रेणुची चड काकुळट. ताचो बाबड्याचो कांयच दोश नासतना, तें ही ख्यास्त भोगतालें.

ताका सुखाचो संसार करचो आशिल्लो. म्हजो वंश पोटात वाडोवन, भुरग्याक जल्म दिवचो आशिल्लो.. भुरग्याक व्हड करून, आवयपणाचें सूख भोगून धन्य धन्य जावपाचें आशिल्लें.. पुणून हें सगळें ताचेकडल्यान नशिबान झोपय मारून काडून घेतिल्लें. फक्त मर्णाची वाट पळयत फुडलें भिराकूळ जिणें जियेवप इतलेंच ताचेलागीं उरला...

आनी हें येवजून येवजून शशिकांताक रडूंक येतालें. आपूण एका बऱ्या चेडवाक हाडून तागेले जिणे इबाडून उडयलें म्हूण तो खंती जातालो.

'म्हाका हें दुयेंस आसा म्हूण कळल्यार, हांव तुजेलागी लग्न जायनाशिल्लो गो रेणूऽऽ...'

ताका तोंड लिपोवन रडचे पळोवन, रेणूय रडूंक लागलें.

आयज दोन दीस जाल्ले.. घराचेर मर्णकळा येयिल्ली. शशिकांत कामार वचनाशिल्लो. दोगांय घरातच पडून रावताली. दोगायच्यो सगळयो सगळयो उमेदी मरून गेल्ल्यो. जेवणांचेर लेगीत दोगायली इत्सा नासताली. पुणून दोगाय एकामेकांक अडेची समजूत घालून भरयताली.

सावशीद जातकीर, शशिकांतान ल्हवूच रेणू बगलेन तोंड करून म्हळें, 'रेणु, म्हाका हांगा मन बेचैन जाता. थोडें दिसांखातीर आमी गांवां वचून येवंया...?'

रेणू ओगी रावलें.

हांव रजा घेता. नातरी आमगेलें आता उरलां कितें? खंयूय मन रिजवण जाता, थंय चार दीस घुकळचेले. थंय आई-बाबा वांगडां, शालू वांगडा, दीस सारतना खीणभर तरी दुख्ख विसरू येतां... हांगां आसल्यार आमीं तेंच तेंच येवजीत मरतलीं...'

रेणू ओगी.

शशिकांतान परतून विचारलें, 'या म्हण्टां गांवात...? तुवें नाका म्हळयार, रावुंयां हांगाच..!

'तूमी म्हण्टात तशें!'

'हांव काडू रजा?'

रेणून तकली कुशीक करून 'हूं' म्हळें.. ताच्या दोळयांतल्यान टप टप करून दुकां गळूंक लागली..



चुलीर पेजे आदन दवरून, अमृते भायर येता थंय आसा.. दारात शशिकांत आनी रेणू, तिका आजाप.

'अरे! रेणू, बाबू, तुमी अचकीत कशीं...?'

दोगांय ओग्गी.

शशिकांताक आवयचेर नदर पडना फुडें हडड्यात घळघळ जालें. ताका दिसलें, आवयच्या

पांयांक घट्ट वेंग मारून तिका सांगचें, आई हांव चुकलों. हांव आता चड दीस जगचो ना. तूं सदांच म्हण्टा, 'म्हज्या वंशाचो एकसुरो कोंब. देवान ताका खूब आयुश्य दिवूं...' म्हगेले आयुश्या सोपले,गे.

अमृत्यान म्हळें, 'जात्रा ना, परब ना. येतात म्हूण पत्रानय कळयलें ना.. हरशीच येयल्यात मूं तुमी...?'

दोगाय ओग्गी भितर येली. हातांतल्यो सुटकेसी सकयल दवरल्यो. रेणुल्या दोळयांत दुकां उबी राविल्लीं, पुणून ताणें ती लिपयलीं.

'बरी आसात मूं तुमी दोगाय...?' अमृत्यान कांयशा भिरांतेन विचारलें.

शशिकांताल्या तोंडातल्यान उतरय फुटना जालें. रेणून बळाबळ करून 'हूं' म्हूण तकली हालयली.

'उलयना कित्याक तुमी दोगाय...?'

शशिकांताक हुंडको गळयामेरेन येयलो. ताणे तो फुटूंक दिलोना. बळयाच दपटिलो.

'रेणू, दीस गेल्यात गो...? देखून बाबू तुका पावोवंक येयला...?'

आता मात रेणूक आटापनां जाले. ताका हुंडको फुटलो आनी तें रडूंक लागलें.

तें रडतकीर शशिकांतय कोंदल्यात तोंड लिपोवन रडूंक लागलो.

अमृते आबुज, ताका कायच समजना जालें.

'अगो, कितें जालें....? रडटात कित्यांक तुमी...?'

रेणून रडतच सांगलें, 'हांका बरें ना....?

'बरें ना.. ? कितें जालें तर....?'

'जोर येतां परतून परतून...'

'दोतोराक दाखयले ना....?'

'दाखयलें...'




'कितें सांगले दोतोरान...?'

रेणूक आनिकूय जोरान हुंडको फुटलो...



रेणू रांदच्या कुडितल्यान शशिकांताल्या कुडीत येयलें. शशिकांत एकलोच ओग्गी बशिल्लो. रेणून म्हऱ्यांत वचून विचारलें, 'ओग्गी कित्याक बसल्यात तुमी...?'

'बेठेंच,' तोंडार अडेचो हांसो हाडून ताणें म्हळें.

'आई जेवंक आपयतां...'

ताणें खीणभर रेणुल्या तोंडाकडेन पळयलें. मागीर म्हळें, 'दनपारचे जेविल्ले, अजून जिरवण जालें ना.. देखून जेवचेशें दिसना.'

'सदांच अशें केल्यार, कशें जातलें...? उठा. जेवूंक चला.'

'खऱ्यानीच भूक ना गो.'

'इल्ले जेवात न्ही.. चला.'

'आंगय मातशें तापलां म्हगेलें..'

रेणून ताचें आंगाक हात लायत पळयलें, आंगात जोर चडूंक लागिल्लो.

'हूं, आसूं! बेगीन बेगीन इल्ले जेवा. जेवतकीर हांव वखद दिता. देंवतलो जोर!'

'कितलेंय वखद खायलें, तरी तितलेंच तें! परतून परतून येत रावचेलोच तो! तो आता म्हाका खायलो बगर येवचो थांबचो ना!'

'शीऽ! अशें कितें उलयतात...? उठा. जेवंक चला...' रेणून ताका बळयाच हाताक धरून उठयलो, आनी रादच्या कुडींत हाडलो. 'जेवना म्हण्टा...'

अमृत्यान म्हळें, 'अशें आबूज जावन उपकारना पुता! जेवना, खायना जाल्यार आंगात ताकद कशी येतली...? आंगात ताकद ना जाल्यार दुयेंस बरे जाता पुतां...?'

'..............'

'जेव पुता, जेव! बरो जातलो तूं! आमी आयजमेरेन कोणालें वायट चिंतले ना, आनी वायट केलेंय ना! आमगेल्यां भुरग्यांले केन्नाच वायट जावचे ना! बरो जातलो पुता तूं...'

अमृत्याक आनीबंटाक आपणाल्या पुताक एक दुयेंस जालां, इतलेंच समजल्लें. सुनेन आनी पुतान ह्या दुयेंसाचें भिरांकूळ रूपडें दाखयलें नासलें. आपलो पूत बरो जातलो ह्या विस्वासार दोगांय आसलीं.

खरें म्हळयार रेणून आनी शशिकांतान घरच्या लोकांक आपणाल्या दुयेंसाबद्दल कांयच कळूंक दिवपाचें ना, अशें थारायिल्लें. पुणून घरा येतकीर, तांच्यान रावूंक नजो जाले. घरच्यांमुखार आपणालें दुख्ख दपटून दवरप तांकां शक्य जालें ना.

तांणी एक मात केलें, हें दुयेंस कसले हें कोणाक सांगलें ना. शालू खुदोन भावाक, वयनीक विचारतालें.. पुणून अजून रिपोर्ट दिवपाचे आसा. कितें म्हूण ज्यूस्त कळ्ळें ना... आमी भियेवनच घरा येयली... अशें. कोणाक पटूं ना पटू, कितें तरी सांगताली. शालूक मात भोव दुबाव येयिल्लो. आपल्या भावाक कितेंतरी म्हूण भिरांकूळ जाला हें ताका होलमतालें आनी ही येवजण तकलेत येतकीर ताका रडूंक येतालें.

शशिकांतान म्हळें, 'इतले शीत चलचे नात, थोडें काड हातुंतलें..'

'जेव पुता, जेव! चड नात तें...!'

'उरल्यार हांव जेवतां,' रेणून म्हळें.

'पोर म्हजो थोडो न्ही भागलो.. जेव पुता.'

व्हदळ सावन बंट घुम्म मोनो आसलो. बळयाच एकेक उंडी तोंडात घालतालो, ताच्यान रावूं नजो जाले. ताणें रेणूक तिरस्कारानशे पळयत म्हळें, व्हारडीक जायत सावन पोर भलायकेन बरोच ना म्हगेलो. कसल्या अवचिन्न लक्षणांची देव जाणां...'



'अगे हो खंय गेलो येदोवेळ...? साडेसात जाली. हांव संक उठिल्लें, तेन्ना हो हाथरुणार ना. ताचे आदीच उठून गेल्लो. हळशिकेळ गेल्ल्या मनशाक इतलो वेळ...?'

'हय मुगो...'

'ताचे उपरांत उठिल्ल्यांनी, सगळें सगळें करून, च्यासुदीक पिवन जाली. आनी हो अजून घरात ना.' रेणुल्या उतरांत हुसको जाणवतालो.

'कालच येयला न्ही तो, कोणूय इश्ट, बापोलभाव, मेळ्ळा आसतलो... ताचे वांगडां उलयत आसुंये...'

'इतलो वेळ मेरेन गे...?'

'शालू, पळय गो बाबू खंयूय दिश्टी पडटा जाल्यार, पळय लागीसाराक खंयुय आसतलो...!'

शालून भायर येवन पळयलें. खंयच दिश्टी पडना, मागीर 'बाबूऽऽ ये बाबूऽऽ' म्हूण व्हडाव्हडान उलो मारलो. पुणून 'ओ' ना.

'हांवूय पळयतां...'म्हूण, शालू वांगडां रेणूय भायर सरलें.

तांणी अशिकुशीक पळयलें. खंय ना म्हण्टकीर ती वेल्या आडीत येयली. धुत्यार पळयलें. बांदार पळयलें. शेतांन बीन आसत घडयें म्हूण थंयूय पळयलें. उल्यार उले मारले. पुणून ना.

शेतांमुखार शेकान शेक रान पातळ्ळां. शालून म्हळें, 'रानांत वचून पळोवया...'

'रानांत कित्याक वयतलो तो...?'

'वयनी सकयल तळयाआड्येत, हो कोणागेरूय वचून बसलो ना मुगे...? हळशिकेक येयिल्लो तेन्ना ताका कोणतरी मेळ्ळो आनी ताचेवांगडां वचून, थंयच तोंड धुवन, च्या पिवन, उलयत बसला आसुंये.. आमगेलेच लोक न्ही ते. बाबूक तशें करचेली संवय आसा...'

'पळयात तशें आसल्यार...'

मदली शेतां बलांटून ती दोगांय तळयांआड्येंत येयली. जण एका घरात वचून, तांणी चवकशी केली. शशिकांत कोणागेरूच ना.

‘अगो, खंयूय गेला आसतलो. येतलो.’ सुरेशा बायलेन सुशिलान म्हळें.

‘ना गे, सगळेकडेन वचून येयली आमी! खंयूय ना!’

‘हांव उठलां, तेन्ना हांथरूणार नाशिल्लो. ताचे आदीच उठून खंय गेल्लो. हळशिकेक बी गेला आसतलो म्हण आमी ओगी आशिल्ली. आता पळयल्यार कितलो वेळ जालो ना हो...’

‘ख़ंय गेलो तर तो...?

‘कोणाच्याय वांगडां रानात बीन गेलो ना मूं...?’

‘शीऽ! च्या सुदीक पिवचोच आसा, आनी बेठोच रानांत कित्याक वयतलो...?’

‘तेवूय खरें!’

आता मात रेणू आनी शालू दोगांय भियेल्लीं. तांका कितें करचें म्हूण सुचना जालें.

‘आता खंय वचून सोदूं गे आमी...? सगळो सगळो वाठार माड्डयलो...’

‘हूं...’

‘अरे विनू, हांगा यो...’ सुशिलान आपल्या धा वर्सांच्या चेड्याक आपयलें. तो ‘कितें?’ म्हूण येयलो.

‘अरे, शशिकांत दाद ना खंय, मातसो पळय वच वेल्या आडयेत बीन आसत..’

‘आमी थंय वचून येयली.’

‘आसूं. आनीक एक फावट पळयात. चुकामूक जावं येता. चल रे,’

हांची उलोवणी आयकून, ‘कोणागेरूच ना गो...? खंय गेलो तर तो...? म्हणत म्हादेवी येयली.

करता करता वाड्यावेले जाण्टे नेण्टे, सगळे सुरेशाल्या आंगणात एकठांय जालें.

‘अरे, पळयात रे, न्हंयी-बांयी कडेन, रानांत बिनात वचून पळयात.’

‘चलात रे...’

वाड्यावेली भुरगीं, तरणाटें, सगळेकडेन फाफसलें. पुराय सोदासोद. सगळे व्हडाव्हडान सादवूंक लागलें.

रेणू रडूंक लागलें. ताका पळोवन शालूय रडूंक लागलें.

फटकळ येसू खंयच्यान नेणो येयली. ‘घरात ना म्हळयार, खंय गेलो तर तो...?’

‘आता कितें सांगचें...?’

‘क़ाल घोव बायलेची झगडीबीन जाल्लीं गो...?

‘हिगेले एक नाका जाल्लेंच.’

‘म्हगेलें सदांच नाका जाल्लें तुमकां. रागान तिडकेन खंयय वचूनबीन बसत सांगूक जातां..?’

ज़ाण्ट्यां विठून मदीच म्हळें, ’अगो. तुमी हांगां सोदतात, थंय तो घरात पावलो ना मूं...? घरात थंय वचून पळया आदी.’

रेणू आनी शालू धांवतच घरा येयलीं.

तांच्या फाटल्यान हेर सगळीं धांवत येयलीं.

अमृत्यान घरा पावलो ना म्हूण सांगतकीर सगळीच काचाबूल. अमृत्याक तर हड्डयांत धड्डूक लागिल्लें...

बंटय सोदूंक भायर सरिल्लो परतूक नासलो.

सादारण अदर्या वरान म्हादेवीलो बारां वर्सांचो चेडो राजू धांवत धांवत, खरशेत येयलो. तो पुराय धामांधूम जाल्लो.

‘कितें रे मेळ्ळो...?’

‘मेळ्ळो...?’

‘हय...’

‘ख़ंय...?’

‘रानांत ताणें खरशेत सांगलें.’



शशिकांत दिमयेत तकली रिगोवन ओग्गी खाटीर बशिल्लो. कुशीक बसून रेणू ताका समजयताले.

‘किते नाकां जाल्ली पिशेंपणां करुक उठिल्ले तुमी ? फाल्याचे मर्ण आयज आंगार हाडून घेवप? फाल्यां मरतलो हे भिरांतेन आयजूच मरप?... आनी तुमी मरतलेच म्हूण कोणें सांगलें...?’

‘मरना आनी मरचेलेच ते आतां !’ शशिकांतान दिमयेत रिगयिल्ली तकली वयर काडत म्हळें, आनी तो खाटीवेल्यान उठलो. सरवळे म्हऱ्यात वचून ओग्गी भायर पळयत उबो रावलो.

उठून ‘शीऽ! नाकाजाल्लेच उलयतात तुमी !’ अशें म्हणत रेणू ताचे म्हऱ्यात गेले.

‘तूं जाणां, हे दुयेंस तेंगशेर पावलां आसतले येदोवेळ मेरेन!’

‘हे पळया, नशिबातले कोण्णाच्यान चुकोन नजो. मरचे आसल्यार साद्या थंडे-तपान आनी हगवणेनय मरता मनीस! आनी जगचो आसल्यार ताका कोणाच्यातून मारुक जायना. पळयले मू तुमी? जीव दिवूक गेल्ले तुमी. जालो जीव दिवूक तुमच्यान? तुमचे नशिबात जगचे आसा. कशें मरतले...?’

रेणू ताका नानातरेन समजायतालें. ताचे मन फिरयताले. गुरी एकच. ताणें पर्थून तशें करनये.

शशिकांताकूय एकेक फावट दिसताले, रेणू सांगता तशे तीं. पिशेपणांच ! जण एकल्याक एक ना एक दीस मरूकूच जाय! म्हूण आताच मरप, फाल्याच्या मर्णाक भियेवन ? जाल्यार दुसरे फावट दिसताले, आपल्याक येतां ते मरण आंनी हेरांक येतां तें मरण हातूंत भोव अंतर आसा.

हेरांक येतां त्या मर्णान लोक हळहळटात. दुख्ख उक्तायतात. त्या मर्णाक एकातरेचे मोल आसता. एक उंचेली सुवात आसता. ह्या मर्णाचे तशें न्ही ! लोक ह्या मर्णाक हीण नदरेन पळयतले. थुकतले! म्हण्टले, खंयतरी शेंण खायलो आनी हे दुयेंस आंगार ओडून घेयलो. असली हीण कर्मां करतल्यांक हीच ख्यास्त फावो.

एक न्हय दोन ! हजारं तरांनी तो येवजितालो. आयज कितलेंशेच दीस ताका हीच येवजण पर्थून पर्थून खावूक येताली. ना बसूक दिनाशिल्ली, ना उठूक दिनाशिल्ली. ना खावूक दिनाशिल्ली, ना न्हिदूक दिनाशिल्ली... आनी निमाणेंकडेन ताणें थारयिल्लें, जीव दिवचो! सकाळी नस्काक तो हेरांपरस बेगीन उठिल्लो. राती न्हिदिल्लेकडेन ताणें सामको नित्सेव केल्लो, आपणे जीव दिवचोच! हें असलें हीण, जिणेक दाग लावपी दुयेंस घेवन जियेवचे परस मेल्ले लाख वाट्यांनी बरें !

नस्काक ऊठून घरातलो पयरुच बापायन सातेबाजारांतल्यान हाडिल्लो नवो राजू जो अजून वापरुकय नाशिल्लो, तो घेवन तो रानांत गेल्लो. कोणाकच कळूंक दिनासतना ! ताचे सवकळिचे रान ते ! ह्या रानात ताणे गरवां चरयल्लीं. हांगां सवंगड्यां वांगडां नाना तरेचे खेळ तो खेळिल्लो. हांगासल्ली चिवरां, चुन्ना, काण्णा तुटोवन पोटभर खाल्ली. आनी आयज ह्याच रानात आपल्या नेण्टेपणांच्यो जायत्यो यादी वांगडां घेवन तो आपले जिणें सोपोवूंक गेल्लो.

जीव दिवूक म्हूण गेल्लो खरो, पुणून जीव दिवूक ताचे मन पुरायेन तयार जायना आशिल्लें. खिणांतच रेणू दोळें मुखार उबें रावताले, जाल्यार खिणांत आवय-बापूय आनी भयण !

सुमार वेळ तो माडती रुखां पोंदां बसून राविल्लो. मागीर मात तो एक नित्सेव करुन उठिल्लो. माडती रुखार चडिल्लो. माडतिची एक लांब-रुंद खांदी आडवी गेल्ली. ते खांदयेर चडून ताणें राजू घट्ट बांदिल्लो रावजाची गुळकी आपल्या गळयाक घाल्ली. ताणे येवजिल्लें, गुळकेसयत सकयल हुडी मारची. खट्टकरुन साकनळी तुट्टली. आनी उपरांत... आनी उपरांत... फुडले चितूंक ताच्यान जालें ना. ताका सट्टकरुन याद जाली, आवयच्या बापोलभावाची. ताच्या आवयच्या बापोलभावान असोच गोळ घेवन जीव दिल्लो. घरां फाटल्या रुखाक गोळ बांदून. गोळ घेतना कोणेंतरी पळयलो. बोवाळ घालून लोकांक आपयतांमेरेन तो गोळ घेवन मेकळो जाल्लो. ताचो खंय सादेपणान जीव वचूंक नासलो. सुभारवेळ खंय कूड आंग खाडिल्ल्यावरी करताली. उदकाभायर काडिल्ले नुस्ते जीव वयतना करतां तशें ! गोळ घेवन मरतना भोव तरास जातात जावये. देखूनच सगळयात व्हडली ख्यास्त फांशी जावये घडये. ताका हे येवजून त्या फात्यापाराक घाम फुटलो. हड्डे धड्डूंक लागले. गळयात घाल्ल्या गुळके सयत सकयल हुडी घेवची छाती ताका जाली ना. कितलोय नित्सेव घट्ट

करचो येत्न केल्यारुय मनाची तयारी पुरायपणान जायना जाली. ताणें येवजिले, जिणेंक उबगल्लो मनीस जिणेच्या संर्घशाक भियेवन जीव दितां. ताका लोक पोक्री, भिजूड मानतात. म्हज्यान आत्मघात करुकय जायना. जीव दिवप फकाणां न्ही ! कितलो पोक्री हांव !

तो सुमार वेळ खांदयेर तसोच बसून रावलो. येवजीत ओग्गी. ना ताणें सकयल गुळकेसयत हुडीय मारली ना, ना तो सकयल देवलोय ना ! तसोच उल्लो. एकधारेन पळयत! सोदूंक गेल्ल्यांक तो तेच स्थितीत मेळिल्लो. मागीर सगळ्यांनी ताका सकयल देवयिल्लो.

उपरांत मात ताका सगळ्यांनी खोचून खोचून विचारिल्ले.

"तूं जीव कित्याक दिवंक गेल्लो ?"

'कसले संकश्ट येयले तुजेर ?'

फटकळ येसून तर शंबर फावट विचारले.

'असल्या कसल्या म्हण दुयेंसाक भिवन तूं जीव दिवूंक उठिल्लो रे.?'

जण एकळयाले न्ही नस्ते प्रस्न!

एक न्हय, हजार ! प्रस्नार प्रस्न !

खिणभर ताका दिसताले, जातां ते जातां अशें येवजून हांवे जीव दिल्लो बरो आशिल्लो. नातर घरां ओग्गी रावूक जाय आशिल्लो. जीव दिवूक वचून स्वताचे हांशे करुन घेयलो. लोक आतां नाका-नाका जाल्ले दुबाव घेतले.

'आयकतां....?' रेणून ल्हवूच घोवाल्या खांद्यार हात दवरीत म्हळें.

'हूं...!'

'आमी मुंबय या.'

' रजा सोपची पयलीच ?'

'हय तर!'

खरें म्हळ्यार, आपल्याक हें दुयेंस आसां म्हूण कळटकीर शशिकांत सैरभैर जाल्लो. मन खंयच लागना आशिल्लें. नाका जाल्ल्या येवजण्यांनी ताची तकली फुटूंक पाविल्ली. पुराय भियेल्लो. हवसाण खच जाल्लो. ह्या खिणांक ताका आपल्या मायेमोगाच्या मनशांचो, ताचे आवय-बापायचो, भयणिचो सांगात जाय जायसो दिसतालो. काचावूल अवस्थेत मनशांक सदांच आपल्या मनशांचो आदार जाय आसता. आनी म्हूणच तो गांवात येयिल्लो. पुणून, हांगाय ताच्या मनाची स्थिती तशीच उरिल्ली.

'किते म्हणटा हांव, या न्ही आमी ?' रेणून पर्थून म्हळें.

शशिकांतान 'हां म्हळें ना, आनी 'ना? म्हळें ना.

'कित्याक म्हण्टा, जाणां हांव?'

शशिकांत ओग्गी.

'थंय व्हडले - व्हडले दोतोर आसात. व्हड-व्हड आस्पत्र्यों आसात. आमच्यानी थंय बरेंभाशेन वखद विरसद करुक येतले ?

'हूं?'

'बेठीच हांगां रावन करतलीं कितें ? खरें म्हळ्यार, आमी येवनयेंच आशिल्ले. पुणून, तुमी तशें काचाबुल जाल्ल्यावरी करतकीर, म्हाकाय कितें करचे म्हूण कळळें ना तेन्ना !'

रेणून ल्हवूच शशिकांताल्या कपलार हात लावन पळयलो. कपल गरम लागतकीर, मागीर ताणें ताचे गळ्याक हात लायलो.

'पर्थून आंग गरम जावूक लागलां तुमचे ! वखद दितां हांव..? म्हणत रेणू भितरल्या कुडीत वचूक फिरले.

वता वतां ताणें पर्थुन विचारलें.

'या मूं आमी ?'

'हां !' शशिकांतान तकली हालयली.

धर्तरी काळे पांगरुक लागिल्ली. मळबातय काळी साय मांडटाली. नखेत्रां अजून उदेवंक नाशिल्ली. ना म्हळयार, पयस एक इल्लेशेंच नखेत्र हयन्हयशें लिकलिकतालें.

आनी कोण जाणां कित्याक, तांगेले येलतूड सुणे बागापोतार वचून सूर लावन भोकतालें...

**- सोंपतां -**





श्री. देविदास कदम हांची
आदी उजवाडा आयिल्ली पुस्तकां...

- कांदळां (कथा झेलो.)
  कोंकणी भाशा मंडळ मडगांव-गोंय
  आनी
- डॉ. टी. एम. ए. पै फाऊंडेशन
  मणिपाल पुरस्कार.

- कोऽहम् ? (कविता झेलो)
  कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार.

- दिका (कादंबरी) कला अकादेमी गोवा,
  साहित्य पुरस्कार.




जैत प्रकाशन